Kallyo Pitcollechyo
(Collection of short stories)
by Ashok Kamat



**कळयो पिटकोळेच्यो**
3 डिसेंबर, 2011

**प्रकाशकः**
संजना पब्लिकेशन्स
39 दत्तवाडी, सांगें-गोंय
**sanjanapublications@yahoo.in**

**प्रकाशन क्रमांकः** 9

**पयली उजवाडावणीः 2011**

**टायप सेटींगः**
अर्चना-अशोक
M. 9850461728

**छापणावळ :**
बांदेकार ऑफसेट
कुडचडें-गोंय

**मुखचित्र :**
सुदेश बांदेकार
कुडचडें - गोंय

**मोल : रु.** 160/-

डॉ. प्रज्ञा काकोडकार,
म्हजे धुवेक (श्वेताक) पलतडच्यान आलतडी हाडपा खातीर तुवें केल्ले प्रयत्न आमी केन्नाच विसरचीं नात.
तुजी आत्मीयता आनी सेवाभावी सभावाचो भोवमान म्हूण ह्यो म्हज्यो 'कळयो पिटकोळेच्यो' तुज्या हातांत दितना खूब खोस जाता.

- अशोक कामत

# प्रकाशकाचीं दोन उतरां

कोंकणी भास हो समाजाचो स्वास. भाशे बगर समाज जिवो रावंक शकना. आनी समाज ज़र आपली भास आपणावपाक सोदना जाल्यार ही कृती ते भाशेच्या मरणाक कारण थारता. प्रत्येक भाशेंतलें साहित्य हें गिता भशेन. गीत कानाक मधूर लागतलें जाल्यार वा काळजाक जागयतलें जाल्यार ताका तरेकवार वाद्यांचो सांगात जाय. ट्रंपेट जाय, ऑर्गन जाय, सॅक्साफोन, संतूर जाय, तबलें जाय आनी अंतरयामीं एकाद्रो नाद झंकारपाक झांजीचो किणकिणाटय जाय. अशा मधूर वाद्यांच्या साग्रसंगीत मिलापान, आनी शिस्तबध्द आनी योग्य अश्या योगदानान गीत मधूर जाता.

साहित्याचेंय तशेंच आसता. आमच्या सरभोवतणचे विविध विशय साहित्यांत प्रतिबिंबीत जावप मधूरतायेचें लक्षण.

तुमच्या हातांत आसा तें कथेचें पुस्तक. कोंकणी कथा. कोंकणी कथेचें विश्व कितलें पूर्ण आनी कितलें अपूर्ण हाचोय आतां विचार जावपाक जाय. ह्या वेळार म्हाका याद जाता ती कोंकणींतले एक खडेगांठ साहित्यिक स. चंद्रकांतबाब केणी हांची. चंद्रकांतबाब हे एक अश्टताशी कथाकार. तांचे जिबेर सरस्वतीची सासाय आशिल्ली. खंयच्याय खिणाक खंयच्याय प्रसंगाचेर तोंडान सांगपाची तांकां सिध्दी आशिल्ली. जायत्या वेळार तांच्या म्हऱ्यांत बशिल्लो आसतना दिसाळ्यांत काम करपी वा म्हयनाळें चलोवपी तांचेकडेन कथा मागूंक येताले. अशा वेळार तांचो प्रश्न, तुका वेळ आसा? आयिल्ल्या मनशान हय म्हणलें जाल्यार, हें तें पॅड घे, पेन घे, बरय. अशें म्हणून ताका कथा डिक्टेट करताले. हातांत टिपण ना,

पुस्तक ना. खबरो सांगिले वरी कथा सांगताले. कथा सांगतना रिटेक न
सुधारपाची गरज ना. मुदयेर थीक कशीं उतरां आनी कथा बांदप वीस मिनट
तयार. असो साहित्यिक हांवें उब्या जल्मांत पळयलो ना.

चंद्रकांतबाबांक कथेचेर प्रयोग करपाक आवडटालें. तांच्या कथांनी विविधत
आसताली. लालित्य आसतालें. आनी नव्या नव्या तरांनी बरोपाचें नाविन्य आसता

विशयाचें नाविन्य जायच आनी कथेच्या प्रकारांनी प्रयोग जाय. जे प्रये
जागतीक पातळेचेर कथेच्या मळार जातात ते प्रयोग कोंकणींतूय येवपाक जा
तातूंतल्यान कोंकणी कथेची तांक वाडटली. कोंकणी कथेची देख हेर भारत
भाशांनी घेवची अशे तरेची कथेची हांव प्रकाशक ह्या नात्यान वाट पळयतां.

कोंकणी कथा आतां मेरेन सामाजीक मळारच घुंवता. हें क्षेत्र आतां व
जावपाक जाय. कोंकणींत विज्ञान कथा, गुढकथा, मानसशाश्त्रीय कथा, शिक
कथा, रानकथा, गुप्तहेर कथा, अशे तरेच्यो कथा केन्ना येवपाच्यो? कोंकणीत
लेखनाची ज्यांकां देण लाभल्या तांणी आपले कोंकणी कथेच्या विशयांचें आ
कथेच्या प्रकाराचें दालन समृध्द करपाची गरज आसा. आनी हें करतलो जाल्य
साधना जाय. तपश्चर्या जाय आनी वाचन जाय.

श्री अशोक कामत हे अशा प्रकारचे एक साधक. तांकां समाजांत
मुखामळां वाचपाची जाण आसा. आतां तांचें शाब्दीक वाचन कमी जालां जाय
पूण व्यक्तीवाचन जबरदस्त आसा. एखाद्रो मनीस तांचेसरीं वा तांच्या शेज
आयलो जाल्यार ताच्या दुखांतली व्यथा समजून घेवपाची कळाशी तांचेक
आसा. आनी ती व्यथा शब्दरुपान उतरावपाची तांचेकडेन तांक आसा.

खंयच्याय कथाकाराक ही कला गरजेची. तांच्या साहित्यांत मनशा मन
भितरलें आनी दादलो आनी अस्तुरी हांच्या नात्यां भितरलें मानसशाश्त्र
स्थानांत दवरिल्लें आसता. अस्तुरे बद्दलचे उदात्त विचार आसपावतात. मनशां
जगांतलें अस्तुरी हें एक वेगळेंच रसायन. तिचें आयुष्य हो एक व्हड कॅनव्ह

जितलें सुचता, तितलेंय बरय, पूर्ण जावंचें ना अशें. अशे तरेचें खाशेलेपण आशिल्लें आपली सुवात इतिहासांत घट्ट करता. तांच्या कथांनी व्यक्तिचित्रणां चितारपांत नवे नवे प्रयोग आसात. संवादात्मक कथा हें एक तांचें खाशेलेंपण. संवादांतल्यान कथा गुंथत वता आनी अचळय एका मोडणार रावता. लेखकाक खंयच गरजेपरस चड वर्णनाचो पालव घेवचो पडना जो हेर चडशा कथांनी आसपावता. ही लेखकाची तांक. आपलें आंग दाखयनासतना विंगड विंगड विचार विंगड विंगड पात्रांच्या तोंडांत घालून कथा फुडें व्हरप ही कळाशी खूब कमी लेखकां भितर आसता. नाटकांत दोनां परस चड पात्रां आसतात. तांचे मार्फत संवाद मुखार व्हरपाक मदत जाता. हांगा फक्त दोनूच पात्रां. आनी ह्या दोगांयनी कथा पूर्ण करप .... हें दिसता तितलें सोपें न्हय. हे पद्दतीचो अभ्यास जावपाक जाय.

ह्या कथासंग्रहांत एक कथा आसपावल्या. 'जुवारेचीं पांयजणां.' हेच कथेचेर आदारिल्ली तांची एक ह्याच नांवाची कादंबरी फाटल्या वर्सा उजवाडाक आयल्या. भाशेच्या विद्यार्थ्यां खातीर ही एक बरी देख. अभ्यास करपा खातीर. अशोक सरान ही कथा पयलीं बरयल्ली आनी मागीर ताचेर कादंबरी केली. कथेचेर आदारून कादंबरी बरयतलो जाल्यार ताचो विस्तार कसो करप, खंयची आंगां वाडोवप, विचारांची सुसुत्रताय सांबाळटना सगल्या पात्रांक न्याय कसो दिवप, कथेचो मतितार्थ आनी कादंबरीचो मतितार्थ एक कसो दवरप, कथेचें नांव आनी कादंबरीचें नांव एक आसलें म्हूण जायना, दोगांयचोय आशय, विशय आनी सार एक आसपाक जाय. अशें आसूनय कथेच्या अनुशंगान कादंबरीची व्याप्ती व्हड आसपाक जाय. आनी हें सगळें ह्या कथाकाराक आनी कादंबरीकाराक बरें जमलां. अशे प्रयोग हाचे पयलीं जावंक ना अशें न्हय. हाचे फुडेंय जावपाक जाय. अशें आमकां दिसता. हे कथेचो आनी कादंबरीचो एकठांय अभ्यास जावपाक जाय.

कोंकणी साहित्यांतले वेगवेगळे अलंकार नव्या कोर्तसांवांनी येवप आनी ताचो राश्ट्रीय पातळेचेर अभ्यास जावप ही आयची गरज.

कोंकणी भास वयान ल्हान जावं पूण तांकीन ती हेर राश्ट्रीय भाशां इतलीच व्हड आसप हें आमचें भूशण. हो अभिमान बाळगुवप आनी ते खातीर वावरप है आमचें कर्तव्य.

हे समृध्दीचे दिकेन कोंकणीचो वावर जावंचो आनी कोंकणीचें गीत काळजाव मधूर लागचें हो आमचो हावेस.

प्रकाशक ह्या नात्यान एक हुसको हांगा परगटावचो अशें दिसता. कोंकर्ण पुस्तकां प्रकाशीत करपी प्रकाशन संस्था अल्पायुशी थारतात. हाचें कारण म्हणल्यार तांची अर्थीक बांदावळ. फकत कोंकणी पुस्तकां प्रकाशीत करपी प्रकाशकांक कोंकणी पुस्तकांक फावो तसो प्रतिसाद कोंकणी वाचप्यां कडल्यान मेळना परिणाम, सरकारी पातळी वेगळी दवरली जाल्यार, कोंकणी पुस्तक खपना आर्न तशें मार्केटींगय जायना. आज वाचन उणें जालां. कोंकणीच अशें न्हय, सर्वसाधारण वाचपी आज हेर माध्यमा कडेन वळ्ळा. वाचकां मदीं रुच निर्माण करपा खातीर वेगळे प्रकल्प हातांत घेवपाची गरज आसा. ते कोणें आनी कशे घेवचे हाचेर विचार जावप गरजेचें.

आज मार्केट आसा तें इंग्लीश पुस्तकांचें. हेर भारतीय भाशांची आवतिकाय व्हडली शी बरी ना. कोंकणी वाचकवर्ग वाडोवपाचो खंयतरी एक विचार जावपाक जाय. आमच्या प्रकाशन संस्थांनी हेर भाशांतलीं पुस्तकां प्रकाशीत करून आपलें अस्तित्व सांबाळपाचें? तातूंतल्यान आयिल्लो पयसो कोंकणी पुस्तकांच्या प्रकाशन खातीर वापरचो? हातूंतल्यान कोंकणी प्रकाशकांची उदरगत जातली? आनी ह्या व्यवसायाक उबारी मेळटली? विचार करपासारकोच विशय.

प्रकाशव

# एकलेपण

जिवितांतलीं बरींच वर्सां सरिल्लीं. जीं कितें उरिल्लीं तींय चड उरूंक नाशिल्लीं.

फाल्यांचो भरवंसो कोणें दिवंचो?

फकत आज मेळटा तो खीण आपलो.

फकत वर्तमान आपलो.

व्यंकट आपले जिणेचीं फाटलीं पानां ओगीच चाळूंक लागलो.

मनीस एकलो आसतकच ताका वर्तमाना परस भूतकाळ उस्तुपाक चड आनंद जाता. घडये वर्तमानाची भिरांत दिसता जावये ताका.

फाटले कांय दीस व्यंकट एकलोच आशिल्लो. मनीस एकलेपणांतूच आपल्याक वळखुपाचो यत्न करता. खरें म्हणल्यार एकलेपणाची अवस्था आत्मपरिक्षणाची वा आत्मनिरिक्षणाची अवस्था आसता. एकलेपणाचे अवस्थेंतूच मनीस आपल्या भोंवतणाक बारीकसाणीन निरखूंक पावता, तेन्नाच आपलो-पर असो कस लागता.

जिवितांतल्या बऱ्या-वायट घडणुकांचो हिशोब मांडपाक व्यंकटाक आज फुरसत मेळिल्ली. आयचे इतलो एकांत ताका हाचे आदीं मेळूंक नाशिल्लो जावंये.

फाटल्या जिवितांतल्या घडणुकांची एक लांबचेलांब वळेरीच ताचे नदरे मुखा वयल्यान सरकूं लागली. वळेरी लांबचे लांब

आशिल्ली खरी, पूण तिका रुंदाय मात निखालूस नाशिल्ली. कित्याक काय? ते वळेरेक रुंदाय मेळ्ळीच ना काय? काय तो रुंदाय दिवपाक पावलो ना? ताका तें मानवलें ना काय परवडलें ना? कांय जाणांनी आपल्या जिविताक रुंदाय दिवपाक पयशांचे बोटवे रिकामे केल्ले ताणें पळयल्यात. तें पळोवन, अशे तरेचे कृत्रीम जिवन जगून उपेग कितें, असो प्रस्न जायते खेपे ताका पडिल्लो. आनी ते खातीर ताची जिणे वांगडा जियेवपाची वळेरीय अशीरच उरिल्ली.

एकलेपणांत व्यंकटाच्या विचारांचें चाक घुंवत आशिल्लें. तकलेंत उगडास एकमेकांक आपटताले. एकमेकांक चुकयताले. इतले कुचकुचीत आशिल्ल्यान खंयचे धरचे आनी खंयचे सोडून दिवचे हेंच व्यंकटाक कळनाशिल्लें.

जीण अशीर पूण तिचे उगडास भरपूर.

जिणेन पूण कितें दिलें ताका? ताचोच ताका प्रस्न.

दिलें तें गर्व करपा सारकें नासलें तरी अभिमान करपा सारकें मात आशिल्लेंच.

लजेन मान सकयल घालपा सारकें मात खातरीन नाशिल्लें. हाचीच धादोसकाय व्यंकटाचे गांठीक आशिल्ली.

एक सर्वसामान्य, नाका मुखार पळोवन चलपा सारकें सादें सुटसुटीत जिवीत. ना दर्याचीं खळखळीत ल्हारां, ना झाडां-पेडांक मुळा सकट हुमटावपाचो यत्न करपी वादळ.

ना म्हणल्यार सर्वसामान्य तरनाट्याचे जिणेंत येता ती उचांबळाय ताचेय जिणेंत आयिल्ली.

श्रावणांतले पाचवेचार धर्तरिचे फाटभुंयेचेर रंगरंगयाळीं पिसोळीं उडटात,नाचतात ते भशेन तागेल्या जुवानपणाचे फाटभुंयेचेर रंगयाळ्या पिसोळ्यां वांगडा आपालिपा खेळ्ळोय बी तो.

जिणेचें व्हडें उदकाच्या वेगा आड ताणपांतूच थ्रील आसता हें तो जाणा आसलो. ताचो अणभव घेवपाचो यत्न ताणें केलोय. संस्काराची शीम आसुंये वा ताच्या सभावांतलीं भिजुडपणां, पूण एके खाशेले शिमे भायर मात तो वचूंक पावलोच ना.

जिणेक आपल्याक जाय तशी दिका दितलों हें थारावन लेगीत  जीण व्हरता थंय ताका वचचें पडलां. जिणे कडल्यान फॉर्सान कांय घेवंक तो पावलोच ना.

घरसंवसारांत भरपूर लक्ष घालें पूण तोय आपल्याक जाय तसोच वचपाक लागलो. संवसाराचे बाबतींत घरकान्नीलें आनी ताचें बरेच बाबतींत एकमत जावपाक पावलेंच ना. पूण एक खरें, दुभावाची वा गैरसमजुतीची वेर मात वचूंक ताणें केन्नाच दिली ना.

आंकवारपणांत उबंत आनी अस्ताव्यस्त पडिल्लो संवसार तांचेच जिणेंत जाग्यार घालून तांकां दाखोवपाचें सपन ताणें पळयिल्लें. पूण तेंय फळ्ळेंच ना.

ताचे आवयचें एक सपन आशिल्लें. आपलेंशें ल्हानशें घर आसचें. कितलो तेंप म्हूण भाड्या घरांत रावतलीं? संवसार आनी घराची मठी म्हाप्रयासान उबी करून आवयची सपनपूर्ती करपाची खोस व्यंकटाक मेळटा शी दिसता म्हणल्यार, न्हय त्या वेळार आवयलें म्हातारपण येवन तिका सतावपाक लागलें.

बापायन तर संवसाराकूच सोडचीट दिली.

सपन पुराय जावपाचें भाग्य थोड्यांच्याच वांट्याक येता.

अशा वेळार व्यंकटाक आपलो संवसार उबारचोच पडलो.

घरकान्न सुशिक्षीत आनी जोडकान्न. मायेस्त आनी कर्तुबी.

कोणाक शिणपाक ना, आपल्याचेर शिणपाक जागो दवरची ना.

अशी, जाय तशी.

जिवितांतली एक तरी गजाल मना सारकी घडली.

एक आगळी धादोसकाय.

पूण..........

हो पूण सगळ्यांकच सतायत आयला. बऱ्याबऱ्यांची वाट लायिल्ली आसा.

व्यंकटाक ताची हुनसाण लागली ना हें वेगळें.

सगळ्यांनी म्हणली घरकान्न बरी. पूण हेंच बरेंपण तिचें व्यसन जालें.

मागीर वरेंपण तिगोवन दवरपाची धडपड

हे धडपडींत घोवाचेर दुर्लक्ष जाता असो ताचो समज. पूण ताणें मत्सर मात मनाक आफडूंक दिलो ना.

मतभेदाचीं शिंगां चड आपटूंक दिलीं नात.

हाचो जीव तिचेर, तिचो जीव हाचेर.

हिका दुखल्यार ताका हाय जाता, ताका दुखल्यार हिका हाय जाता.

आयचो एकांत ताका खावपाक येता.

दीस सरतां सरतां ओड वाडत वता.

कसली ही ओड?

कुडीची काय आत्म्याची?

कुडीची खीण भर आसता वा कांय तेंपाची आसता.

ही कसली ओड?

इतल्या तेंपान आयज ताका एकांतांत प्रस्न पडिल्लो.

एकामेकां भितर घुसपल्ल्या मनांचीच ओड ही?

घुसपल्लीं मनां सुटपाक पावल्यांत काय?

आज तीं ताका तुट्टात काय दिसलीं.

अशें ताका दिसलें कित्याक?

तशें पळोवंक गेल्यार व्यंकटाची घरकान्न शिणपा सारकें वागलीच ना. लग्न जाल्यार बारा वर्सां जालीं. चार वर्सां भितर दोन भुरग्यांक जल्म दिलो. भुरगीं अपुरबायेचींच. पूण भलायकेन मातशीं नाजूक. गरजे परस चड जतनाय घेवची पडटाली. तशें करप गरजेचेंच आशिल्लें. ताकाय तें समजतालें.

पूण जे मायेन आनी काळजाचे खोलायेन ती तांची सेवा करताली तातूंतलो इल्लोसो वांटो आपल्या नशिबांत कित्याक ना? आपले पसून ती पयस कित्याक वता? आतां आपली गरज सरली? संवासरा पुरतें आनी भुरगीं जावपा पुरतेंच घोव-बायलेचें बंधन उरता?

आयच्या एकलेपणांत खूब विचार करून लेगीत ताका ह्या प्रस्नांची जाप मेळना जाली. ताका एक गजाल मात उगती बरी दिसली......

भुरगीं जायत पसून ती आपले पसून पयस पयस वता ही.

भुरग्यांची उस्तवारी काडटां काडटां घडी भर घोवा कडेन लक्ष गेलें ना जल्यार तो आपलो गुन्यांव? अशें तिणें म्हणलें जाल्यार? होय विचार ताच्या मनांत येवन गेलो.

एक गजाल मात ताचें मन मान्य करतालें, तिणें मात ताका कितेंच उणें पडूंक दिवंक नाशिल्लें. केन्नाय, खंयच्याय वेळार ताणें जें जें कर म्हूण सांगलां, तिणें तोंड धांपून वाजेनासतना आनंदान केलां. जेन्ना जेन्ना आपयल्या तेन्ना तेन्ना ती म्हच्यांत आयल्या. वेळ काळ पळयनासतना मागलां तें दिलां. तिणें मना पसून दिलां आनी आपणें तें अधाशा भशेन, ल्हेंवटच्या भशेन भोगलां. सामकें धुंदींत मस्त जावन धादोसकाय घेतल्या.

पूण केन्ना? भुरगीं जावचे आदीं. मागीर कित्याक ना?

इतल्यान जालें? सोंपले घोवा-बायलेचे संबंद?

इतल्यानूच तो तृप्त नाशिल्लो. ताका कितें तरी वेगळें जाय आशिल्लें. कितें तरी वेगळें जें ताका मेळनाशिल्लें पूण भुरग्यांक मेळटालें. चांटे-पावलाक तें तांकां मेळटालें. हें वेगळें. खासा तिचे आवयक धुवेगेर येतकच मेळटालें. खासा तिचे भयणीक मेळटालें. खासा तिच्या भावांक मेळटालें.

हें कितें तरी जें कुळारच्या कावळ्याक लेगीत मेळटालें, तें कितें तरी ताका मात केन्नाच मेळना हें ताका दिसतालें पूण हें कितें तरी 'हें कितें' हें मात ताका केन्नाच कळ्ळें ना. तो चिंततालो,

तें कितें? माया?

ना! ती ताका उपाट मेळ्ळया.

मागीर कितें? सेवा?

ती तिणें उणी केली ना.

केन्ना कर्तव्याक चुकल्या ती?

कर्तव्याक पाळो तिणें बेस बरो दिला.

प्रेम?

उपाट मेळ्ळां.

मागीर कितें तें? कितें तरी आसा काय तें?

ताका नांव ना?

ताका रूप ना?

ताका आकार ना?

खिणा भितर ताका दुसरो प्रस्न पडटालो. तशें कितेंच ना काय कितें? म्हजेच नदरेंत बी फरक पडला काय? म्हाकाच भ्रम जाला काय? काय म्हज्याच मनाचो मत्सर तो?

मत्सर म्हणल्यार पूण कितें?

मनाचो विकार?

केन्ना येता तो मनांत?

एक वस्त जेन्ना तुका मेळना आनी दुसऱ्याक मेळटा अशें दिसता तेन्ना हो विकार जाता?

भुरग्यां भितर ती एकरूप जाल्या काय? काय तिच्यांत भुरगीं एकरूप जाल्यांत आनी आपूण जावंक ना? आपल्यांत तीं कित्याक जावंक नात?

भुरग्यां कडल्यान तिका कितें मेळटा जें म्हजे कडल्यान मेळना?

म्हजे कडल्यान कितेंय मेळचें अशी तिची अपेक्षा कित्याक दिसना?

अशी अपेक्षा आसा जाल्यार उलोवन कित्याक दाखयना?

काय म्हजे कडल्यान तिची अपेक्षा कांयच ना?

तिचे कडल्यान म्हजी आसा म्हणटकच म्हजे कडल्यान तिची कित्याक ना?

काय भुरग्यां कडल्यान तिका जें कितें मेळटा तातूंत ती उपाट धादोशी आसा?

म्हजो उगडास लेगीत मनाच्या कोनशांत दवरल्यार भुरग्यांचेर अन्याय जाता अशें तिका दिसता?

मागीर घोव-बायलेचे संबंद तरी कसले?

असल्या वेळार बायलेक घोवाची गरज कित्याक लागना?

संतत निर्माण करपा पुरती तिका ताची गरज?

काय भुरग्यांक आवयची आडखळ जाता तेन्ना? बापायच्या म्हातारपणांत?

हो विचार मात व्यंकटाच्या काळजाक तोपून गेलो आनी ताच्या आंगार कांटो उबो रावलो. ताका दिसलें, घोव-बायल कितलींय लागीं आयलीं, आनी बऱ्या वायटाचीं वांटेकार जालीं

तरी तीं दोगांय एकमेकांक परकी तीं परकीच. तो एकलो तशी तीय एकली.

दारा वयली बॅल वाजली आनी किण्ण शांततायेचो भंग जालो.

व्यंकटान दार उगडलें.

दारांत तागेलें धाकलें सुषमा आवयच्या बोटाक धरून उबें. धांवत वचून सुषमान बापायच्या पांयांक घट्ट वेंग मारली.

व्यंकटान बायलेच्या मुखामळार मुमुरखो हांसो पळयलो.

फुलत्या जायां कळयांच्या परमळान व्यंकटाचें मन आनी मुखामळ घसघशीत न्हालें

आनी ताचें धा दिसांचें एकलेंपण सोंपलें.

***

# मसंडीचो प्रेझिडेंट कोण

धर्मपुरी एक फोंडें म्हालांतलो सुपुल्लो सो गांव. सुमार पंचायशीं बारीक मोटीं घरां आनी साडेतीन चार हजार वस्ती आशिल्लो गांव. गोंयची सुटका जावन विशेक वर्सां सरल्यांत जातलीं. लोकशाय आयिल्ली. तिचे बरे वायट परिणाम, लाभ-लुकसाण लोकांक अवगत जाल्लें, सरकारा कडल्यान आपले अधिकार वा आपल्याक जाय तें बऱ्या वायट मार्गांनी झोमून घेवपाच्यो वाटो लोकांच्या रगतांत बरे तरेन रिगिल्ल्यो. धर्मपुरीच्या लोकांक मात ताचो वास लेगीत लागूं नाशिल्लो. रुढीक आनी परंपरेक मानपी तो लोक. जीं क्रितें गांवच्या भल्याचीं कामां करचीं शीं दिसतालीं तीं गांवचे जाळवणदार एकठांय येवन एकमतान निर्णय घेवन काम हातांत घेताले. पूण सामकोच विरोध ना जाल्यार कशें जातलें? गोड जेवणा वांगडा तीख लोणच्या-फोड आसले बगर जेवणाक रूच येना. दोणांतली आंबट आंबली गोड आटवलाक रूच हाडटा. तशेंच धर्मपुरी गांवांत जनार्दन शास्त्री लोणच्या-फोडीची वा दोणांतले आंबलेची भुमिका करून गांवच्या समाजकारणांत आनी राजकारणांत रूच हाडटालो आनी लोकांकूय मजा येताली. गांवच्या कसल्याय कामांत विरोध वा आडमेळें हाडप हो तागेलो सभाव गूण जावन पडिल्लो. पूण लोक ताचे कडेन केन्नाच वायट नदरेन पळय नाशिल्ले वा ताचो अनादर

केन्ना करिनाशिल्ले. केन्ना केन्नाय ताचीच खेळी ताचेकडेन खेळ
आपणाक जाय तें सादोवन घेताले. समजा गांवाक एक खे
मैदान जाय शें दिसलें जाल्यार लोक खेळां मैदान नाका,
आयलें जाल्यार भुरगे खेळूंक लागतले, वा ते वाळेस जातले,
शिकूंक पावचे नात अशी वावडी गांवांत उठयताले. आनी परिण
तांकां जाय तोच जातालो. गांवकारांलें काम सादून वतालें.

हो जना गांवच्या रामशास्त्री पुररयतालो चलो. बाप
शास्त्री, विद्वान आनी रुढीवादी. गांवचें भटपण, जावं तें मोठ्यां
वा बारीक लोकांगेर शास्त्रशुद्ध रितीन करतालो. आपले विद्व
मुखा वयल्या मनशाक निरुत्तर करपाची कळाशी ताचे कडेन ख
बरी आशिल्ली.

पूण तागेलो चलो जना आधुनीक विचारांचो. नवें
आपणावपी आनी शास्त्रा परस विज्ञानाक मान दिवपी आशिल्ल
आनी देखून बापायचे आनी ताचे विचार सदांच एकामेकां
आपटताले आनी दोगांयचे संबंध छत्तिसांच्या आंकड्या भशे
एकामेकांक फाट करून आसताले. जनान शास्त्रांचो अभ्या
केलोच ना. गरजेपुरतें भटपण भुरगेपणांत, मूज जाले उपर
शिकिल्लो तितलेंच. शास्त्राची ओड केन्ना लागलीच ना. प
मनशाच्या जिवितांत बदल घडोवन हाडप ही सैमाची प्रक्रिय
सैमाचो सभाव. मनशा भितर बदल घडयता आसतना निमित्त्या
कारण मात कसलीय तरी घटना आसता.

जनाच्या जिवितांत बदल जावपाकूय तशेंच एक कार
जालें. अशी एक घटना घडली कीं तिणें ताच्या जिवितांत मुळा
बदल घडोवन हाडलो. एक दीस अवचीत ताच्या बापायक अ
मारून आयली. आरीचें जावपाक तशी ताची पिराय व्हडली जावं
नाशिल्ली पूण खंयचीय घटना घडपाक पिराय वा वेळ का

लागना. सगळे दोतोर जाले. वैद्य जाले. गांवठी उपाय जाले. कांयच फायदो जालो ना. ना म्हणल्यार एक सुधार जालो. स म्हयन्यांनी ताका हांतरुणा वयलो उठोवन कदेलार बसयलो जाल्यार बसतालो. वरांचीं वरां बसून रावपाक ताका त्रास जायनाशिल्ले. कदेलार बसप आनी तीन चार वरां एकेच कडेन पळयत रावप होच ताचो उद्येग जाल्लो. कांयच उलयनाशिल्लो आनी उलयलो जाल्यार उतरां स्पश्ट कळनाशिल्लीं. घरची जबाबदारी आतां जनाचेर येवन पडिल्ली. घरच्या देवांची पुजा-अर्चा करप, पाडकाक लुचोवप. कुळागरां पळोवप असलीं कामां तो करपाक लागलो. पूण मनापासून शीं न्हय. करूंक जाय म्हूण करप. पूण भुरग्यांच्या शिक्षणांत मात मनापासून लक्ष घालतालो. गांवच्या भटपणाक मात कसोच वचनाशिल्लो. गांवचे लोक बारीक सारीक देवस्पणांक भायल्यान भट हाडून उरकून घेवपाक लागले.

पूण हें अशें कितलो तेंप चलपाचें? गांवच्या लोकांक प्रश्न पडलो. एक परमनेंट पुरयतपण करपी भट गांवांत आसले बगर गांवाक थिरताय येवची ना हें गांवकारांक दिसतालें.

हाचेर उपाय काडचे खातीर गांवच्या लोकांनी भौसार आपयलो. आडवी उबी चर्चा जावन भौतेकांचें मत पडलें कीं भायल्यान एक विद्वान शास्त्री हाडून ताका गांवची वृत्ती दिवंची. निमाणें थाराव पास करतले म्हणल्यार, येदो वेळ वग्गी रावून आयकतलो गांवचो एक आरसाटो देवेन, उठलो आनी ताणें सभेक विनंती केली,

"थाराव घेवचे पयलीं म्हजें एक मागणें आसा."

"उलय. एका जाण्टेल्यान सांगलें."

"भायलो भट हाडचे पयलीं आमी जनाक विचारुंया."

"ताका आनी कितें विचारपाचें?" एकलो उलयलो.

"ताका येता कितें?" दुसरो उलयलो.

"तो शास्त्रोक्त भटपण शिकला तरी?" तिसऱ्यालो दुभा

"तो सामको आधुनीक विचारांचो. ताका शास्त्र, परंपर पद्दत कितें कळटा?" आनीक एकल्यान प्रश्न केलो.

"गांवचें पुरयतपण ताचें. तो मान ताचो. ताच्यान जाय जाल्यार हाडूं दी भायल्यान भट." देवेनान स्पश्ट केलें.

"पूण तो ही जापसालदारकी घेत शी दिसता तुका देवेन

"घे नाका. तो ताचो प्रश्न. गांवकारांनी आपल्या विचारलें ना अशें मागीर उलोवपाक कोणाक तोंड उरचें ना."

"तुजें सांगणें लटीक न्हय देवेन. ताचो मान ताका दिवपा जाय. आमचेर बोल नाका."

"आमी जाण्टेल्याकूच विचारुया."

"तो कितें उलयता तें आमकां समजना रे बाबा!"

"पाटी आनी काडी दिवया ताचेकडेन. तो बरोवन सांगतल आपलें मत."

"ताचो उजवो हातूच निकामी जाला. कसो बरयतल तो?"

"आरे, तो दावकुरो रे! दावो तोच ताचो उजवो हात."

"थारलें तर मागीर. केन्ना या तागेर?"

"केन्ना कितें? आतांच या. चला उठा."

"सगळेच नाका. एक चोवग जाण या."

देवेन आनी तीग जाण मेळून जनागेर वचपाक गेल आंगणांत पावता म्हणल्यार तिनसांज जाल्ली. जनाची घरका

दारांतल्या लामणदिव्याची वात पेटोवन तुळशीकडेन दिवो लावपाक वताली. बल्कांवार जोतीं काडून देवेन आनी मंडळी सालांत भितर सरली. रामशास्त्री कदेलार बसून तोंडांतल्यान कितें तरी पुटपुट्टालो. आवाज येनाशिल्लो पूण ओंठांचे हालचाली वयल्यान कळटालें. बांकार बसतां बसतां पुरशान प्रश्न केलो,

"कसो आसा भटमाम?"

"........" बरो आसा म्हणपाचो तोंडांतल्यान आवाज करून दाव्या हाताचें बचूकूल वयर काडून आशीर्वाद दिलो.

"आमी तुज्याच म्हऱ्यांत आयिल्ले."

"जना ना?" देवेनान विचारलें.

इतल्यांत जनाची घरकान्न भितर पावली आनी तिणें सांगलें आसा. आपयता आं. ती भितर गेली आनी जनाक तिणें भायर धाडलो.

"यो जना, आतां आमी फुडलें कशें कितें करया तें थारावपाक आयल्यात."

"कशें कितें म्हणल्यार?"

"गांवच्या भटपणाचें रे."

"तें थारावपाक आमी कित्याक जाय तुमकां? बाबाच्यान काय जायना. म्हाका इत्सा ना. तुमीच थारायात कशें कितें करपाचें तें आनी करात."

"अण्णाकूच विचारुंया न्ही. अण्णा, गांवची भटपणाची वृत्ती तुमची. तुमी तर अशे घरांत बसल्यात. फुडें कितें करुंया?"

"जना म्हणटा, तो हें फुडें चलोवचो ना. अण्णा, तुमच्या उत्तरान आमी फुडें वतात."

अण्णा कितें तरी उलयलो. पूण तें कोणाक कळ्ळें ना.

विठून एक पाटी आनी काडी हाड म्हूण जनाक सांगलें.

“तो कितें उलयता तें म्हाका कळटा. हांव सांगतां तुम

“ताणीं कितें म्हणलें तें सांग.”

“तांणी म्हणलें आपलें काम जना करतलो.”

“म्हणटकच तुजी तयारी आसा मरे?”

“ना. म्हाका तें जमचेंलें ना.”

”मागीर कशें जावंचें? अण्णा तर म्हणटा तूं करत
म्हूण. तूं म्हणटा आपल्याक जमचेंलें ना.”

निमाणें मेरेन अण्णान जनाच करतलो म्हूण सांग
जना आपलो हट्ट सोडिना जालो आनी अण्णाय बाणीर बोट दव
रावलो. केन्ना केन्ना कितें कितें करप तें आपूण सांगतां, वे
खंयची पोथी वापरप वा खंयची पुजा सांगतना कितें कितें क
तें सगळें आपूण सांगतां, सगळ्यो विधी आपूण शिकयतां म
सांगलें. अण्णाची जिद्द पळोवन गांवकारांनीय जनाक आग्रो के
मान्य केले बगर जनाक दुसरो पर्याय उरलो ना.

त्या दिसाच्यान ताणें सगळीं शास्त्रां वाचपाक सुरु
केली. कांय गजाली बापाय कडेन विचारून विचारून शिक
कांय गजाली आपल्या मामागेर वचून शिकलो. दोन चार व
भितर तो गरजे पुरत्या शास्त्रांनी पारंगत जालो. तरी ताणें f
सोडली ना. आपल्या वेद शास्त्र संपन्न मामा कडेन विद्या
करीत रावलो. अजापाची गजाल म्हणल्यार तो बापाय प
पारंगत आनी कर्मठ शास्त्रीबुवा जालो. वाद विवाद करपा इत
विद्वान जालो. मागीर मागीर विद्वतेचे तागडेचें दालें वाद घाल
संवयेन एकेच वटेन झुकूंक लागलें. आपल्या मुखावयलो
गजाल सांगता तिका दुसरी बाजू आसताच अशें ताचें मत ज

ती दुसरी बाजू वा मत प्रगट करतां करतां आपूण दुसऱ्याल्या मताक विरोध करतां हें ताच्या ध्यानांत येना जालें. वयर सांगिले प्रमाण बऱ्या कामांत लेगीत आडमेळीं हाडप हो ताचो सभाव गूण जालो. पूण ताणें गांवाक लागून आपल्या तत्वा कडेन केल्या ती तडजोड आनी त्याग लक्षांत घेवन गांव ताच्या उतराक फावो तो मान दितालो. गांवचो पुरयत म्हूण गांवांत ताचो आदर जातालोच. पूण कसल्याय कामाक तो अडून रावलो वा गांवाक ताचें मत पटलें ना जाल्यार ताका मातसो घुंवडावन वा ताच्या तत्वाक वळसो घालून गांव फुडें वतालो.

जनाचे इतलेय फाटभुंयेच्या आदारार फुडली घडणूक निंबून आसा. गांवच्या लोकांनी एक पथ्य पाळिल्लें. गांवांत जीं सरकारी वा नगरपालिकेचे वतीन कामां जातात तीं जावं दी. तांकां आमी येवकार दिवयाच. पूण गांवा खातीर ज्यो येवजण्यो ते आंखतले, तांचे खातीर सरकारा कडल्यान वा नगरपालिके कडल्यान एक पयसो लेगीत घेवप ना. आनी गिरेस्त आनी मिनेरां कडेन मागपाक वचपाचें ना. “गांवांतूय गिरेस्त आसात, मिनेर आसात. तांचेय कडल्यान घेवप ना? तशें आसल्यार आमी कसलीं कामां करूंक पावतले?” जनान काडिल्ल्या प्रश्नाचेरूय विचार जाल्लो आनी थारिल्लें, गांवच्या लोकां कडेन पयसो मागप हो गांवकारांचो हक्क आनी तांणी मजतीचो हात फुडें करप ही तांची लागणूक. सरकार, नगरपालिका वा राजकारणी बी हांचे कडल्यान आमकां पालव नाका. तांचेकडल्यान पयसो घेतकच तांचे पांगींत रावचें पडटलें आनी तांकां जाय तशे आमकां बागवचें पडटलें.

अशें पथ्य पाळप म्हणल्यार एक सत्व परिक्षाच आशिल्ली. चालू काळांत तर तें एक दिव्यूच म्हणूंक जाय. तरीय धर्मपुरीच्या

लोकांनी हें पथ्य आपल्याक तांकता तशें पाळिल्लें. आनी कांय कामां लेगीत स्वबळग्याचेर तांणी केल्लींय बी.

गांवांत सुधारणा, सुविधा उपलब्ध करपाच्या कामांत जनाचे पिरायेचो देवेन आनी ताचे वांगडा चार पांच तरणाटे वावरत आसताले. चर्चा मुळाव्या पांवड्यार आसतना जनाक कळूंक दिनाशिल्ले. फावो त्या वेळार ते ताच्या कांनार घालताले.

गांवांत एक सार्वजनीक मसंड जावंची अशें हालीं हालीं देवेनाक दिसतालें. कोणूय भायर पडलो जाल्यार आपापल्या जाग्यार वा कोमुनिदादीच्या जाग्यार दहन करताले. ऐन त्या वेळार कोणाले ना कोणाले आंब्या खांदे मारून लाकडां एकठांय करचीं पडटालीं. ह्यो अडचचणी पयस करपा खातीर देवेनान आपल्या इश्टांलागीं चर्चा सुरू केली. खरें म्हणल्यार ताणें बसका आपोवंक नाशिल्ली. पूण जंय ते चकाटां मारपाक बशिल्ले थंयच ताचें बसकेंत रुपांतर जालें. हाचेर केन्नाय परत बसका घेवची अशें थारून जण एकलो आपापल्या घरा गेलो. आनी तो विशय विसरलेय बी.

देवेन असोच मंगेशींचे जात्रे दिसा बायल भुरग्यांक घेवन मंगेशाचे भेटेक गेल्लो. भेट घेवन देवळांतल्यान भायर सरून बूट घालता आसतना कोणें तरी फाटीर हात दवरून उलो केलो. फाट वळून पळयत जाल्यार जना.

"म्हाका तुजेकडेन कितें उलोवपाक जाय."

"उलय."

"मातशे कडेक या. एकोडो जाय तूं."

"हांगाच रावात आं. रोखडो येतां हांव."

देवेनान बायलेक सांगलें आनी दोगूय कडेक गेले.

"हां, आतां सांग."

"प्रेझिडेंट कोण?" जनालो कांयच प्रस्तावना बी नासतना सरळ प्रश्न."

"कसलो प्रेझिडेंट?"

"मसंडीचो प्रेझिडेंट कोण?"

"खंयचे मसंडीचो? म्हाका कांय समजलें ना."

"धर्मपुरींत मसंड बांदतात न्हय तुमी? "

"कोणें सांगलें तुका?"

"कोणें सांगलें तें तुका नाका. तुमी मिटींग घेतली काय ना? म्हाका सोडून मिटींग घेतात?"

"मिटींग न्हय रे ती. आमी फकत उलयल्यात."

"मागीर प्रेझिडेंट कोण?"

"आरे, कमिटी कोणें काडल्या रे? फकत चर्चा केल्या. तीय बी इनफॉर्मल. बरी फॉर्मल मिटींग घेवया. कमिटी काडया. मागीर प्रेझिडेंट थारावया. तूं जाता, तूं जा."

जालें कितें? जनाच्या बोवाळांत विशयाक वाचा फुटली. देवेनाच्या मतान बरेंच जालें. चालना तरी मेळ्ळी! मिटींग जाली. कमिटी काडली. प्रेझिडेंट जावपाचे बाबतींत हांव ना तूं ना जालें. निमाणें बोवाळशेटीच्याच गळयांत प्रेझिडेंटशिपीची माळ पडली. जनाकूय तें जाय आशिल्लें. कमिटी घडटकच जनानं सुपुल्लें शें भाशण केलें. म्हणलें,

"हांव प्रेझिडेंट जालां तें म्हाका खुमखुमी आशिल्ली म्हूण न्हय. पयली कमिटी ही मार्गदर्शक आसूंक जाय. तिणें धडो घालून दिवंक जाय. मुळावण बरें जायत जाल्यार फुडलीं कामां बरीं जातलीं."

"जना, मुळावण, मुळावण म्हणून उगतावण तूं वी करशी?" एकल्यान थोमणो मारलो आनी सगळे खो करून हांसले.

"हांसून व्हरपा सारकी खबर न्हय ही. फुडली पिळगी आमी दाखोवन दितात ते वाटेन वचपाक जाय. देखून हांव कांय बाबी आतांच स्पश्ट करतां. तरणाट्यांक लागलां सुधारणेचें वारें. संस्कृती, परंपरा, पोन्न्यो पद्दती बी सोडून नव्या फाटल्यान लागल्यात. देख दितलोच जाल्यार एक दिवंक जाता. आमची परंपरा कोंडो-सूम हाडून खिरवड बांदपाची. तुमी केलां कितें? स्टेनलेस स्टीलाची करून घेतल्या. परमनेंट. परमानेंट कित्याक? ती कितें मसंडींतल्यान परत हाडपाची वस्त? गांवांत कोंडे ना जाल्यात?"

"जना, कोंडे आसात गा. पूण खिरवड बांदपाक मनीस मेळपाक जाय न्हय. गांवांत आतां कोण उरल्यात तें काम जाणा आशिल्ले?"

"आमी तयार करुंया लोकांक. काम करता तें शास्त्रशुद्ध जावपाक जाय."

"दुसरें, बापूय आशिल्ल्याक मसंडीत वचूंक मेळचें ना. खिरवड बांदपाचें काम करूंक मेळचें ना. प्रेताक खांद मारपाचें काम करूंक मेळचें ना."

"हें खंयच्या शास्त्रांत बरयल्लें आसा जना?"

"शास्त्रांत बरयल्लें ना म्हूण कितें जालें? रूढ, परंपरा कितें आसता काय ना?"

"आरे, आतां चलयो लेगीत मसंडींत वचून आवय बापायच्या प्रेताक अग्नी दितात. तुवें अण्णाक सांगिल्ली न्हय ही गजाल?"

“तेन्ना हांव अबुद्दी आशिल्लों. तें म्हजें मत चुकीचें नाशिल्लें.”

प्रेजिडेंट वेचून काडपाक जितली चर्चा जाली ना तितली ा ताच्या परस चड जनालो हो थाराव पास करपाक चर्चा जाली. ामकी गरमा गरम चर्चा जाली. कोणूच नमतें घेवपाक तयार ा. जनाक पुर्वापार चलत आयिल्यो पद्दती चालीक लावपाच्यो नाशिल्ल्यो आनी गांवकारांक तें शक्य दिसनाशिल्लें. बदलत्या काळाप्रमाणें आपणेंय बदलूंक जाय. जें पांचशीं वर्सां पयलीं शक्य नाशिल्लें तें आज घडोवन हाडटलो म्हणप पिशेपणांचें जातलें अशें तांचें म्हणणें.

शास्त्रान वतलो जाल्यार सगळें शास्त्रा प्रमाण जावपाक जाय. थंय तडजोड करपाक जायना अशें जनाचें म्हणणें. परंपरावादी आनी सुधारणावादी हातूंतलो संघर्ष केन्ना मिटला? तो चलत आयला, चलता आनी चलतलो. पूण तातूंतल्यान सुवर्णमध्य काडटा तो शाणो. ती जापसालदारकी देवेनान घेतली. ताणें लोकां भितर वचून तांका समजावपाचो प्रयत्न केलो. ताणें सांगलें, “तुर्ताक आमी जनाचें म्हणणें मानून घेवया. तो सांगता तें सासणाचें उरचें ना. ताका काळूच दाखोवन दितलो. काळ आनी अणभव शिकयता तें विद्वान गुरू लेगीत शिकोवंक पावना.”

जालें! तितल्यार तें उरलें. मिटींग फारिस्तयार जाली. मसंड बांदपाच्या कामाक लोक लागले. कोणें जमीन दिली, कोणें जी. आय. पायपां दिलीं, कोणें पत्रे दिले, कोणें चिरे दिले, कोणें शिमीट दिलें आनी तीन म्हयन्यां भितर मसंड तयार जाली.

आनी तिसऱ्याच दिसा काळा वांगडा अणभवय आयलो जनाक पाठ शिकोवपाक. जनालो बापूय भायर पडलो. खऱ्यानिशीं अण्णाचे निर्जीव कुडीन गांवचे मसंडीचें उगतावण जाता हे

गजालीक सैमीक संकेत बी कितें आसा काय!

अण्णाच्यो धुवो आयल्यो, एक दोन सोयरे आयले, गांवचे लोक जमले, कोणें तरी कोंडो फैदा करून हाडलो, केळीची अख्खी शिर्ती हाडली, सूम हाडलें आनी गरजेचें बारीक बारीक सगळें सामान हाडलें. भट येवन बसल्यार अर्द वर जालें. पूण कोणूच फुडले तयारेक लागना. सगळेच एकामेकांक पळयताले.

दनपारचीं दोन जावन गेलीं. जना अस्वस्थ जावन केन्ना भायर येवन पळयतालो, केन्ना सोप्यार बसतालो, केन्ना भितर बापायले कुडीसरीं वचून येतालो. सुरवातेक ताका दिसलें, इतलो लोक हांगा आसा, पूण कसो फुडल्या कामाक हात घालना. घालतले. ताच्या मनांत आयलें. पूण जसो जसो वेळ सरतालो तसो तसो जना उचांबळ जातालो. वेळ सरता तशें तशें ताका दिसपाक लागलें, आपणें केल्लो नेम आपल्याक भुजता सो दिसता. हें ध्यानांत येतकच तो लोकां भितर गेलो. गणूक विचारलें,

"बाप्पा येवंक ना रे?

"ना. ताच्यान जायना आतां असलें पळोवपाक. पिराय जाल्या न्हय!"

जना यशवंता म्हच्यांत गेलो, "बाबा घरा ना?"

"आसा. थंडी भरल्या सामकी. आपल्याच्यान जायना. तूंच चल म्हणूंक लागलो."

तो जांकां जांकां विचारता तांणी तांणी कितें ना कितें कारण सांगलें. सगळींच कारणां पटपासारकीं आशिल्लीं. ताणें पळयलें, तो आनी ताचे वांगडचे जे आयल्यात तांचे भितर चडशा जाणांनी फकत पन्नाशी हुपल्या. थोडेशे जाण जे साठी हुपिल्ले आसात तांकांय बापूय आसात पूण भायर सरपाचे परिस्थितींत

नात. देखून खिरवड बांदपाच्या कामांत कोणूच हात घालना आशिल्लो. खीण भर ताच्या मनांत आयलें, तांकां सांगचें कीं दुसरो उपाय ना आतां तेन्ना आडवाद म्हूण नेम मोडल्यार जाता. पूण ताका तें जमलेंच ना. आपणें केल्लो नेम आपुणूच कसो मोडटलों? खंय तरी ताचो 'अहम' ताच्या आड आयलो. तशें करपाक तो ताका आडायतालो. मना करतालो.

सेक्रेटरी ह्या नात्यान देवेन मसंडींतली तयारी खंय पावल्या तें पळोवंक गेल्लो. तोय थंय पावलो. येवन पळयत जाल्यार कांयच तयारी जावंक ना. ताणें विचारलें,

"खिरवड कोणें कित्याक बांदली ना? कळाव कित्याक करतात?"

"हांगा लोक आसात तितल्यांचेय बापूय आसात. जाणटेलो आसा तो धीरूदाद. पूण ताच्यान कांय जायना. जनाल्या नेमा प्रमाण आमकां तो अधिकार ना."

"कितें घेवन बसल्यात रे नेम आनी अधिकार! म्हजे वांगडा येयात. म्हजोय बापूय आसा. पळोवया कितें जाता तें."

"देमू, तूं घे कोयती. कातर कोंडो."

"सचीन, हे तें सूम उबार. भटाक सांग तयारेक लाग म्हूण. जना, तूं न्हावपाक चल."

लागले सगळे भराभर कामाक. वीस पंचवीस मिनटां भितर खिरवड तयार जाली. भटान काम सुरू केलें. कोणें तरी फोड फोडपाक जाय आशिल्लो. तें काम देवेनान केलें. चाळीस पंचेचाळीस मिनटां भितर सगळे मसंडींत पावले. हें सगळें जना मोन्यानी पळयत आशिल्लो. कांयच उलयलो ना. अडचणीच्या वेळार शास्त्राचे नेम लेगीत कडाशेक लावचे पडटात हें ताच्या

ध्यानांत आयलें.

मसंडीत जे गेल्ले वा मसंडींतल्यान जे परतले, ते कोण तरणाटे नाशिल्ले, पन्नाशी हुपिल्ले जाणटेलेच आशिल्ले. पूण तांचे सगळ्यांचे बापूय नजो जावन वा कांय कामा निमित्त घराच आशिल्ले.

वयर वयर पळयतल्याक अशें दिसतलें, हें सगळें जनाक देख दिवपाक घडोवन हाडलां काय. पूण कोणाचोच हेतू तसो नाशिल्लो. केन्ना केन्नाय सहज घडटा तें लेगीत कृत्रीम दिसता.

जनाच्या मनाक जर हें सगळें घडोवन हाडिल्ले वरी दिसलें जाल्यार ताची चूक न्हय अशें देवेनाक दिसलें. जनाचो असो समज जालो जाल्यार तो पयस करप सारखें जातलें, काय तातूंतल्यान आनीक गैरसमज निर्माण जातलो? पूण कशेंय तरी ताका समजावपाक जाय अशें देवेनान थारायलें.

“आजकाल मनशाची सरासरी पिराय मर्यादा वाडल्या म्हणपाची ही एक गवाय आसूंक जाय. न्ही रे देवेन?” घरची वाट चलतां चलतां जनान शांत आनी गंभीर वातावरणाचो भंग केलो.

आनी देवेनाच्या माथ्या वयलें वजें अवचीत ल्हव जाल्ले वरी ताका दिसलें.

***

# कोण चुकता

सुमार बत्तीस वर्सांनी तें म्हाका मेळ्ळें. दारावली बेल वाजली म्हूण दार काडलें. एक पन्नास पंचावन वर्सांची अनवळखी बायलमनीस दारार उबी. हांव वळखलोंच ना. खीण भर तिका पळयतच रावलों. पूण खंय तरी पळयल्ले भशेन ती म्हाका दिसली. तोंडार हय न्हय सो हांसो. "वळखलो?" अशे तरेची मुखामळाचेर मुद्रा हाडून ती म्हाका पळयतच रावली. कोण जाय म्हूण हांवें तिका विचारलें. तरीय जाप ना. ती म्हाका पळयतच रावली. "हांव तुका वळखलें. बत्तीस वर्सांनी वळखलें. आनी तूं? सामको विसरलो म्हाका? तुमी दादले अशेच! तोंडापुरती वळख!"

"आगो! वीणा तूं? याद जाली म्हजी?"

"जावं पुता! वळखलो तरी. आवाजाचेर वळखलो?"

"आवाज बदल्ला तुजो. पूण तुजें तें सदचें वाक्य. दादल्यांक दोश दिवपी!"

"बत्तीस वर्सां याद उरली त्या वाक्याची? नाजाल्यार तुमी दादले......"

"ह्या तुज्या माताचेर आमचे मतभेद अशिल्ले. आमचो सदांच

वाद जातालो हाचेर."

"त्या वादाक लागूनच तूं म्हाका विसरूंक पावलो ना, सुदीन."

"कांय मनीस जशे विसरायेर पडनात तशींच तांची उलोवपाची शैलीय विसरूंक जायना."

"लेखक तूं! उलोवपाक आयकता?"

"आगो! पूण तूं आसा खंय? लग्न जावन ऑस्ट्रेलियाक गेल्लें म्हूण आयकल्लें. "

"फकत ऑस्ट्रेलियाच न्हय. युरोप भोवलें, अमेरिका भोंवलें. मायदेशांत आयल्यारूच पांच वर्सां जालीं."

"पांच वर्सांनी आतां याद जाली म्हजी न्हय?"

"आयलें काय ना यादीन?"

"गोंयां केन्ना आयलें तूं?"

"मामाले नातीचें लग्न आशिल्लें काल?"

"उरतलें मगो?"

"दोन दीस. विमल ना?"

"भितर आसा. रांदचे कुडींत."

"वचून येतां आं भितर."

"आगो बस गो! उलोवया. मागीर चल भितर. सांग तुज्यो खबरी."

"खबरी मागीर. पयलीं विमलाक मेळून येतां. केन्ना काय मेळन शें जालां ताका. आज रावतलें हांव. मागीर करुंया खबरी."

तें भितर गेलें खरें, पूण म्हज्या मनांत यादींच्यो सरमाळी एका फाटल्यान एक पेटत रावल्यो. आमच्या ऑफिसांत फकत पांच वर्सां हाणें काम केलां. मागीर तें लग्न जावन गेलें पूण म्हज्या मनांतल्या उगडासांचे गर्देंत पयली सुवात करून गेलें. सदांच हांसरें मुखामळ. भरगच्च काळेच केंस. लांब सडक केंसांच्यो दोन विणयो. त्यो कुल्यांक आपटून एकामेकांक आफुडचेल्यांनी खेळटात काय दिसताल्यो. सदांच चलयांक तिकली लायले बगर भायर सरूंक दिनाशिल्लो तो काळ! वीणा आपल्या भव्य कपळाचेर रेखीव भुंवयांमदीं मातसो आकारान मोठोच तिळो लायतालें. भुंवयो आनी दोळे तर राजा रवी वर्मानूच रेखणी करून साकारल्यात असो भास जातालो. सभाव चळबळीत. ह्या संवसारांत दीस काडटलो जाल्यार हातचें राखून उलोवचें आसता हें ताज्या राज्याक खबरूच नाशिल्लें. अख्ख्या स्टाफा मदीं ताचें अस्तित्वूच चड उठून दिसतालें. आनी स्टाफांतल्या दर एका तरणाट्याचें मन ताचें व्यक्तिमत्व आपले कडेन ओडून घेतालें. ताका लागून दर एकलो आंकवार तरणाटो समजतालो, हाका देवान म्हजे खातीरच घडयलां. ताचे वांगडा संवसार करून फुडार घडोवपाचीं सपनां तर एक दोन तरणाटे पळोवपाक लागिल्ले.

"सुदीन, तूं बायलेक खावपाक बी घालना काय कितें रे? हें बारीक जालां मरे. शिरपूट शें." अशें म्हणत तें विमलाकूच घेवन भायर आयलें.

"तूं मोठें जालां तें पुरोना? तुगेलें इल्लें मोठेपण ताका दी."

"ती तुजी नाजूकसाण खंय गेली गो?" विमलान ताका विचारलें.

"जालां पळय कशें पकदस्त बायल शी!" हांवें विचार

करिनासतना एक थोमणो शेंवटिलोच.

“विमलाकूय धाड भायर. युरोप अमेरिकेक. कसलें गुटगुटीत जावन येता पळय.”

“सारखें आसा तुजें. थंयचें हवामानूच मनशाक फुगयता. थंयचीं भुरगीं येतात तीं पळयलीं ना, कशी बोमाड्यांत वाफ भरिल्ले भशेन. आगो, पूण तुका भुरगीं कितलीं गो? “

“एकलेंच चली. लग्न करून ऑस्ट्रेलियेक दिलां.”

“पाखलो? काय एन. आर. आय?”

“गोंयकारूच तो. पूण रावता थंय. तुजो संवसार कसो चल्ला?”

“बेस बरो.”

“बेस बरो म्हणूं नाका. विमल, तूं सांग गो. तुका पळयल्यार हो तुका बरोच त्रास दिता सो दिसता. म्हाका चड इंटरेस्ट तुमच्या संवसाराचो. हांवेंच जुळयल्लें न्हय तुमचें?”

गजाल खरी. आमच्या लग्नाचें श्रेय वीणाकूच वता. आमचें प्रेम ताणेंच केलां वा ताका लागून जालां म्हणल्यार जाता. मोगाची थियेरी सर्वसादारण अशी आसता कीं मोग हो जाता. करचो पडना. पूण म्हजे बाबतींत तें चुकलां. वीणानूच चुकयलां म्हणल्यार जाता. विमल एक सामान्य चली. चार चौगांत सोबून दिससारखें. आमचेच कंपनींत काम करपी. आपूण बरें आपलें काम बरें. वीणा स्टाफांत जॉयन जावन एक वर्सभर जालां आसतलें. इतले मजगतीं ताका दोन तरी उमेदवारांनी मागणी लेगीत घाल्ली. आनी त्याच काळांत वीणाची आनी म्हजी दोस्ती वाडत गेल्ली. प्रामाणिकपणाचेर आदारून आशिल्ली. ताणें आपलीं म्हत्वाचीं गुपितां जरी म्हाका

ांगूंक नाशिल्लीं तरी सुखदुख्खाच्यो खबरी करपा इतली तरी ंवकळ आमची वाडिल्ली. ती संवकळ आनी फुडे वचची न्हय आनी ती आकर्शणांत बदलची न्हय अशी वीणाची इत्सा आशिल्ली. केत्याक तें मागीर कळ्ळें. पूण आमची दोस्ती सहजपणान वाडची अशेंच म्हाका दिसतालें. पूण आकर्शणाचें मनांत येवंक नाशिल्लें. ामांत रुपांतर जायतूय आशिल्लें. पूण तें जावंचें न्हय हाची जतनाय ीणान व्हडल्या धोरणीपणान घेतली. म्हज्या आनी विमला भितर ेथकूट चल्लां अशें स्टाफांतल्या दोग-तीग जाणांच्या कानार ालें, जे चाडयो करपांत हुशार आशिल्ले. हेवटेन कसल्या ना कसल्या कामाचें निमित्त करून विमलाक म्हज्या मेजा कडेन ाडप आनी म्हाका विमलाच्या मेजा कडेन. आमी बावडीं सेर्व! ीणाचो अंतरस्थ हेत खूब तेप आमकां कळ्ळोच ना. ताच्या ह्या रतुपाचो परिणाम ताजे अपेक्षे प्रमाण ताका जाय तोच जालो. ्या चाडयाळ्यांक जाय तसो पुरावो मेळ्ळो. जालें! कांय दिसांभितर ुजबूज सुरू जाली. करतां करतां ती तेंगशेर पावली. पयलीं ायलीं म्हाका कितें तरी हांवें चूक केल्ल्या भशेन दिसूंक लागलें. अपराधी भावना शी! विमल म्हाका टाळूंक लागलें आनी हांव ाका. दोगांयकूय खाकुडलेल्या भशेन दिसूंक लागलें. हेवटेन ीणा मुमुरखेंच हांसतालें. हें अपराधी दिसप, हें एकामेकांक ाळप, हें खाकुडलेल्या भशेन दिसप ताच्या पथ्थ्यारूच पडिल्लें. ाका जाय तशें सगळें घडत वतालें. ताच्या मतान हो आकर्शणाचो ायलो पांवडो आशिल्लो. आतां आमी मोगाचे निसणीर एक एक ांवडो चडत वतलीं हाची ताका खातरी जाल्ली. आनी जालेंय तशेंच. आमी केन्ना मोगांत पडलीं हें आमकां कळ्ळें लेगीत ना.

“ये सुदीन, कसल्या विचारांत पडलो रे? चड चिंतूं नाका. ालायकेक मारक तें.” वीणान म्हाका जागयलो.

"चिंततालों तुजीं करतुपां. रू ना थंय पूं काडलो तुवें. हुशार तूं."

"कितें वायट जालें? तुका वायट बायल मेळ्ळी? विमल, तूं सांग, तुजें लग्न सक्सेसफूल जावंक ना?"

"लग्नाचे बाबतींत म्हणना तो. लग्न जुळोवपाचे तुजे प्रक्रिये बाबतींत उलयता तो."

"तो एकूच उपाय आशिल्लो म्हजे कडेन."

"आपणा वेलें संकट म्हजेर सोडलें. बाकिच्यांक हुमकळायत दवरले." विमलान थोमणो मारलो.

"सुदीन म्हजो स्पेशल दोस्त न्हय? ताका हुमकळावपाची इत्सा नाशिल्ली म्हाका."

"तुवें तेन्नाच डिक्लेर करपाचें न्हय. आपल्याचो एक बॉय फ्रेंड आसा. म्हजे भानगडींत तुमी पडूं नाकात म्हूण. तितल्यान सोंपिल्लें." हांव

"मजा कोण पळयतलो आशिल्लो स्टाफाची? बाकी तुमचें चल्यांचें एक बरें! चली पळयली रे पळयली! सुटलें तुमच्या तोंडाक उदक! आपलीच मिरास जाल्लेभशेन वावरूंक लागले."

"तुगेलो तो बॉय फ्रेंड, चलो नाशिल्लो?"

"तो म्हगेलो न्हय! ताच्यांत दोश म्हाका दिसचोच ना."

"निमाणें ताका सोडलोच. आनी पयशेकारा कडेन लग्न जालें. जावं! आतां सुखी आसा मगो तूं? पयशेकार घोव मेळ्ळो. जग भर प्रवास केलो. धुवेक लग्न केलें. तेंय फोरेनाक. कितें उणें आसा तुका? जिवीत सफळ आनी सुफळूय."

"तूं तरी अशें उलोवं नाका आं सुदीन. पाप लागतलें तुका. कसले प्रयत्न करपाचे दवरले हांवें? म्हजें अख्खें कुटूंब आनी कुटुंबाचीं अख्खीं सोयरीं-धायरीं हांच्या तुफानाक म्हजे`वरी कुंडेकुस्कूट कशें तोंड दितलें? वाऱ्याच्या झोतार उडलें कुंडेकुस्कूट खंयचे खंय. दिकाहीन! निमाणें जीव लेगीत दिलो. तातूंतल्यान वाचतलें हें म्हाका खबर आशिल्लें?"

"पिशेपणां केलीं शीं दिसना तुका?"

"जीव दिवपाचीं काय प्रेम करपाचीं? म्हजीं एक तीं पिशेपणां आशिल्लीं. जुवानपण आशिल्लें. सळसळट्या रगताची मस्ती आशिल्ली. आनी जुवानपणांतली जिद्द आशिल्ली. हांव अविचार केन्नाच म्हणचें ना. पूण म्हजे आवयन, म्हज्या बापायन पिशेपणां केलीं शीं दिसनात तुका? असो विरोध कित्याक केलो तांणी? फकत विजातीय भुरग्याचेर मोग केलो म्हूण? म्हजो प्रश्न तांणी आपल्या जीवन मरणाचो प्रश्न केलो."

"तेन्नाची परिस्थिती, तेन्नाची मानसिकताय चींत. तांच्या जाग्यार तूं उबें रावून पळय. तांची चूक दिसची ना तुका."

"आरे पूण आमी झगडटात कित्याक? जाल्लें जावन गेलें. म्हज्या मनांत आतां कसलेंच किल्मीश ना. हांवूय समाधानी आसां आनी तोय...........ये सुदीन, कालीदास मेळिल्लो?"

"ना. केन्नाच ना. हांव ताका विसरून लेगीत गेल्लों. मदीं खंयचे तरी स्कुलांत हेडमास्टर जाला म्हूण आयकल्लें. हें आयकल्यारूच जालीं पंचवीस वर्सां."

"ये सुदीन, या रे तागेर?"

"कालीदासागेर? पिसावलां तूं?"

"तातूंत कितें आसा? जस्ट फ्रेंड म्हूण."

"आनी ताचे बायलेक कितें सांगतलें? आपूण तुगेल्या घोवाचें लवर म्हूण?"

"एक्स, एक्स लवर! भूतपूर्व!"

"तुजो तो आदलो सभाव अजून वचूंक ना."

"चल रे. आयज जेवन याच. पळोवया तरी कसो आसा तो? एक उत्सुकता म्हूण. आतां म्हातारपणांत कसो दिसता पळोवया. म्हाका वळखता जाल्यार पळोवया."

"नाका! तो तुजे परस सुखी समाधानी आसा अशें दिसल्यार वायट दिसतलें तुका. तुजो मत्सर जागो जातलो."

"ना आं! इतलें मत्सरी न्हय हांव आं!"

"या बाये! हट्टी तूं! एकदां दाडेक धरिल्लें सोडपाक आसा तूं?"

जेवतकच आमी बेगीन भायर सरून दुर्भाटा वचपाक गेलीं. वाटेर "म्हजी वळख पयलीं दीव नाका आं. तूंच उलय ताचे कडेन. पळोवया वळखता जाल्यार" अशें म्हाका सांगपाक वीणा विसरलेंना.

घर सोदून काडपाक वेळ लागलो ना. वीणाक घर खबर आशिल्लें. पूण घुस्पलें खूब. तीस वर्सांत अख्खो वाठार बदलिल्लो. अदमासान आमी घरा लागीं पावलीं. कोणाकूय विचारुंया म्हूण ज्या दारार आमी बेल वाजयली सुदैवान तेंच घर कालिदासाचें आशिल्लें. दार एके मध्यम पिरायेचे बायलेन उगडलें.

"कालिदासाचें घर खंयचें?"

"हेंच! कोण जाय आशिल्लो?"

“कालिदास.”

“तुमी कोण ताचे?”

“दोस्त. खूब लागींचे दोस्त.”

“केन्नाच पळयले ना तुमकां.

“गोंयां नाशिल्ले. भायर आशिल्ले. फोरेनाक. खूब वर्सांनी आयल्यात.”

“येयात. बसात.’

“तुमी कोण ताचीं? घरकान्न?” वीणाक आपलो जागो घेवपी बायल ही काय असो दुबाव आयलो जातलो.

“न्हय! भावज.”

“एकनाथाची बायल तूं?”

“हय! तुमी बरीं वळखतात.”

“आई-बाबा खंय आसात?”

“तीं पिड्यार जाल्यार वीस वर्सां जालीं.”

“तुजो घोव कितें करता?”

“दोतोर तो. गांवांतूच प्रॅक्टीस करता. बसात आं. हांव रोखडें आयलें.” ती भितर गेली.

वीणाक आतां घराचेर नदर मारपाक वेळ मेळ्ळो. ताणें पळयलें, तीं बसल्यांत त्या हॉलाक कसलेच तरेचो वेवस्थितपणा नाशिल्लो. कालिदासाचें मन म्हणल्यार एका कलाकाराचें मन. ताचे कलेची सया ह्या हॉलार पडपाक जाय आशिल्ली. पूण ती खंयच दिसनाशिल्ली. कसलेच तरेचो थाटमाट वा ऐश्वर्यूय दिसनाशिल्लें.

घराचेर एके प्रकारची अवकळा आयिल्ले भशेन ताका दिसलें
वीणाचें मन विशण्ण जालें. इतल्यांत ती एक व्हील चॅअर धुकळीत
भायर आयली. व्हील चॅअराचेर एक सामको बारीक, सुकड सों
दादलो बशिल्लो. सामको हाडां सापळोच व्हील चॅअराचेर दवरला
काय दिसतालें. हांव त्या मनशाक पळयतां आनी वीणाक पळयतां
वीणाय तेंच करता. कितलो वेळ आमचें हेंच चलिल्लें. निमाणें
प्रश्नचिन्हांकित तोंडावळो करून आमी ते बायलेकडेन पळयलें.

"कालिदास." तिणें सांगलें.

"हो कालीदास?" वीणा आड्डलेंच.

"हय!"

"अशें जालें तरी कितें ताका?"

"म्हाका हाडीत पसून असोच पळयतां हांव ताका."

"तो उलयना?"

"ना. फकत शुद्द आसा म्हूण मनीस. नाजाल्यार आसून
नासून सारखोच. मनशान जगपाचीच इत्सा सोडली जाल्या
शरीर तरी कशें सांगात दितलें? शरीर हें मनशाचे इत्साशक्तीचे
चलता न्हय! मनशान जगपाचीच आशा सोडून दिली जाल्या
शरीराचीं गात्रांच आवळून येतात. तीं काम करपाचेंच सोडून दितात
हाचेंय अशेंच जालें. मागीर आयलो पॅरेलिसीसचो स्ट्रोक."

"हो मनीस निराशावादी न्हय. हांव जाणां त्या कोंतान ह्य
मनशांत उमेद, उत्साह भरून ओततालो." वीणा खीण भ
भुतकाळांत पावलें.

"मोग! मोग वाट लायता मनशाची. मोग करप सोपें. तातूं

ळपणा आसलो जाल्यार सामकेंच सोपें. पूण मोगांतली हार
वप मात म्हाकठीण."

"मोग करतालो? कोणाचेर?" वीणा आपूण त्या गांवचेंच
य अशें दाखयतालें.

"कोणाचेर करतालो हाका म्हत्व ना. पूण मोगाक लागून
वाची वाट लावप हाचे वरी मूर्खपण आसा? आपल्याय जिवाची
ट आनी भोंवतणच्या लोकांचीय जीण उध्वस्त."

"कोण करता ताचें आतां?"

"भाव! आतांच न्हय, सुरवाती पासून! आनी भावा वांगडा
व. ताच्या पावलार पावल दिवन. एके पतिव्रता बायले भशेन.
टनासून! पूण म्हज्या संवसाराक मात कल्पने भायर लिमिटेशन्स
यल्यांत."

"तो वळखता मनशांक?"

"तोंडार भावूच नात. बरीं वायट येक्स्प्रेशन्स कांयच नात.
सा म्हूण आसा एक गुळो सो."

"कालीदास, तूं म्हाका वळखता?" वीणान दोन तीन फावटी
चारलें. पूण ताच्या तोंडार कसलेच हाव-भाव दिसले नात.

"तुजें नांव सांग गो ताका" हांवें सांगलें.

"नाका रे सुदीन, नांव कळना तें बरें."

वीणाच्या पोल्यां वयल्यान दुकां घळघळूंक लागलीं हें म्हजे
रेंतल्यान सुटलेंना. पूण ताणें तीं मोटे कळाशेन पदराच्या पोतान
लीं.

"सुदीन, आमी गेल्यार बरें रे."

“बसात न्हय. इल्ली च्या करतां.”

“आतां नाका. दुसरे फावटी केन्नाय तरी.”

आनी आमी दोगांय जड मनान परतलीं. बरेंच अंतर चल्लेउपरांत वीणान म्हणलें,

“सोंपलें रे हांव सुदीन!” ताच्या आवाजांतलें रडकुळेपण स्पस्ट जाणवतालें.

“चड शाणें तूं. हांवें तुका सांगिल्लेंच तूं थंय वचूं नाका म्हूण. कसली गरज आशिल्ली तुका हांगां येवपाची? पेखिल्ल्या चवनावयली खवळी काडून कितें मेळयलें तुवें?”

“हांव पूर्ण जीवन जगलें अशेंच म्हाका आज मेरेन दिसतालें. पूण आज म्हजी जीण अर्दुकुटीच न्हय तर सामकीच निर्फळ जाली रे सुदीन.”

“काकुळट दिसली वीणा तुजी.”

“कोणा कोणाची म्हूण काकुळट करतलो तूं सुदीन? वीणाची काय वीणाचेर आशिल्ल्या असीम प्रेमाक लागून आपलें जिवीत सासणाचें अपंगूळ करून घेवपी कालिदासाची? काय भावाक लागून शारांत वचून आपलो फुडार घडयनासतना गांवांतच रावून भावाची शुश्रुशा करपी एकनाथाची? काय घोवाच्या उतराक मान दिवन कांयच गुन्याव नासतना देराची सेवा हीच घोवाची सेवा मानपी ताचे बायलेची? काय आवय-बापायचो मान राखलो म्हूण वीणाची?”

“निमाणें दुशण कोणाक दिवप? प्रेम नांवाचे भावनेक बळी पडिल्ल्या कालिदासाक? काय मनांतल्या इत्सा-आकांक्षांक मुळा सकट हुमटावन उडोवन कोंडिल्ली जीण आपणावपी एकनाथ

आनी ताचे बायलेक? जापे विणे उरिल्ले प्रश्न हे अशेच जापे विणेच उरतले वीणा?" दुर्भाटचे मानशेच्या आडबारयावेयल्यान एक एक पांय दवरीत पलतडी वतना जाळांत घुस्पल्ल्या नुस्त्यांक पळयत हांवें म्हणलें,

"वीणा, मनीस हो नुस्त्या वरीच असंख्य प्रश्नाच्या जाळांत घुस्पत उरतलो काय?"

"निमार्णे आमी म्हूण कितें, समाजांतल्या जाळांत सांपडिल्ल्या नुस्त्यावरीच न्हय!"

"खरें तुजें, तुजे आवय बापूय! आपलें जिवीत पणाक लावन तुज्या विजातीय लग्नाक विरोध केलो तांणी. प्रथा-परंपरेच्या विरुद्ध वचून लग्नाक मान्यताय दिवपाचें मनोबळगें तांच्यात नाशिल्लें. लग्ना उपरांत शेजरापाजराक आनी अख्ख्या समाजांत जावपी अवहेलना तांच्यानी सोंसूंक जावचीनाशिल्ली."

"जाणा सुदीन, आयजलेगीत विजातीय लग्नाच्या जोडप्याच्या संदर्भान उलयतना उल्लेख करतात, ती रे ती अमके जातीच्या चल्याकडेन लग्न जाल्या ती."

***

# तो खीण

तिणें गोळ लावन जीव दिलो ही खबर आयकली आनी दुख्खा वांगडा अजापूय जालें. जे धिटायेन तिणें सदचे कटकटींक आनी संकश्टांक तोंड दिल्लें तें पळयत जाल्यार जिविताचो अंत अशे तरेन ती करीत अशें दिसूंक नाशिल्लें. तिचो हो अंत कोणाकूय दुःख जाय सारखो आशिल्लो. मनशाच्या देहाचो फाटीकणो मनशाक उबो रावपाक आनी अख्ख्या शरिराची हालचाल करपाक आधार दिता. फाटीकणो म्हूण शरीर उबें आसा अशें म्हणटात. त्या कुटुंबाचो खरें म्हणल्यार फाटीकणो जावन आशिल्ली ती. ती उबी आसा म्हूण तें कुटुंब उबें आसा अशेंच म्हणचें पट्टालें. घरांत दादले आसूनय तीच दादलो जावन वावुरताली. घोव आसून नासून सारखोच. 'खोजो घोव कुंकमाक आधार' म्हणटात. पूण तो तसोय नाशिल्लो. तांकां दोन भुरगीं आशिल्लीं. ते बाबतींत ताणें आपल्या पुरुशार्थाचें प्रमाण दिल्लें. तो करतालो कितें? कांय ना! वा कोणाक खबर ना. तांचो चरितार्थ कसो चलतालो? कोणाक खबर ना. जोड कांय ना. पूण गेल्लीं पंचवीस वर्सां तांकां हांव पळयतां पांच जाणांचो संवसार चलता. कसो चलता? कोण चलयता? कोणाक खबर ना. धाकलो देर एका च्याच्या हॉटेलांत

काम करून नायट स्कुलाक वतालो. कसल्याशा कारणाक लागून ताची नेर्वा फ्राक जाली. नेर्वस्तानी मनशां खातीर गोंयांत हॉस्पिटल आसा आनी तसल्यांचेर उपचार जाता हाचेर तांचो विस्वास ना. परिणामी घाडी-मांत्रिकांनी घरांत खवदळ घालो. ताची आयिल्या दिसा बडबड आनी गाळी-फस्ती आनी घोवालीं नालायकपणा हांचे रुपान तिका मेळिल्ली पयल्या संवसार पाडव्याची पासडी. घोव दिसवाड्या वावराक वचनाशिल्लो वा शेतांत कामाक वचनाशिल्लो. फकत एक बरें काम दर वर्सा मीर्ग लागतकच करतालो. तें म्हणल्यार भाटकारान मुंडकार कायद्याखाला आंखून दिल्ले जमनीचे शिमेची वंय दर पावसाळ्याक हात देड हात फुडें चलवप. दळदीर रेशे सकयली परिस्थिती आशिल्ल्यांक सरकारी आधार मेळटा तो त्या कुटुंबाक मेळटा काय ना तें कळपाक मार्ग ना. ते रावतात तें पळयत जाल्यार जल्म नाका. भायर वावुरतना जर अशे, जाल्यार घरांत तांच्या कितें शिजता आनी तीं कितें खाता काय असो प्रश्न पडले बगर रावचोना. चंद्रार वचपाच्यो खबरी करपी आमच्या भारतांत ताच्या अती विरूद्ध तोंकार कितें चलता तें हांगा पळोवंक मेळटालें.

तिका ह्या घरांत हाडली आनी कांय दिसां भितर कटकटी सुरू जाल्यो. दोन घराब्यांचे संस्कारांत कांय ना कांय फरक आसताच. उणोच म्हणल्यार चालीरितींत तरी मेळटलो. ह्या घराब्यांत जो कोण येता ताका आकांताचें पासियेंस आसले बगर दीस सारप जमचेंना. देर बडबडूं लागलो जाल्यार ताच्या सात मजली आवजान कानाचे पड्डे फुटलेना तरी हालले बगर रावचेना. आनी घोवालें कुच्छित्रीपणाचें उलोवप. इतलीं कुच्छत्रीपणां कीं मोनो नेगीत आपल्याचेर जाल्ल्या अन्यायाचो वा आरोपांचो प्रतिकार करपाक उलोवंक लागतलो. ती तर खणखणीत आवाज आनी

थोडीभोव 'लॉजीक' आशिल्ली बायलमनीस. एक दीस तिणेंय तेंच केलें. घोव उलयता, देर उलयता, तें सहन जायना जावन हिच्या संतापाचो बांद फुटलो.

घे मागीर! घरांत बोवाळ, तापातापी, रडारड. शेजाऱ्यांक आनी रस्त्यान वतल्यांक कितें जालां तेंच समजना. ती रडत भायर सरली. ती भायर सरली म्हणचे परस तिका घरांतल्यान धांवडावन घाली म्हणप सारखें जातलें. तिनसांज जाल्या. ती रस्त्यार बसून रडपाक लागली. सामक्यो बोबो, हुयेली! "हें कितें करतात तुमी?" अशें शेजारीय तांकां विचारनाशिल्ले आनी वाड्या वयलेय! तांचेय एके वटेन खरें आसलें. आपूण जावन चिखलांत फातोर कित्याक मार? परत चिखोल आंगार उसळपाचीच चड शक्यताय आशिल्ली. सभ्य मनशांच्या घरांत असलें जाल्लें जाल्यार घरांतलीं जाणटेलीं म्हणटलीं आसलीं, 'कसली रड लागल्या तिनसांजचे कातरेर? थुमेकाल शीं!'

निमाणें एका जाणटेल्यान धाडस करून घोवाक विचारलें. "हें कितें चलयलां रे तुमी? घरांत कितें चलता तें घराच्या चार वण्टीं भितर दवरात. अशें रस्त्यार कितें रे? अशें जगार कित्याक घालतात रे?" इतलें मात जाण्टेल्यान म्हणलां, तो ताचेर उसळ्ळो, "तुका कितें लागता तें? तूं पोसता आमकां? रस्तो तुजो?" आनी उपरांत गाळींचो शिंवर. मागीर जाण्टेल्यान तिका सांगलें, "तूं तरी भितर वचून रड गे. हांगा रस्त्यार कित्याक?" ती बावडी उठली. समजिकायेची दिसली ती. पूण त्याच खिणाक घोव असो उसळ्ळो तिचेर! "ये खंय वता? बाबागेर? भितर मात सर, दोंकोच मोडून घालतां. घरांत पांय दवरची गरज ना." जाण्टेल्यान बावड्यान तोंड धांपून, तकली सकयल घालून कूस मारली.

धा साडे धांक आमी जेवले, घरकान्नीन आयदनां विसळून मान्न्यांत दवरलीं आनी मेज निवळ करपाक लागली. हांव सालांत आयलों पूण चित्त लागना जालें. तिनसांजचो प्रकार पळोवन बरोच 'अपसेट' जाल्लों. म्हज्यान असलो बोवाळ, असलो हलकल्लोळ पळोवंक नजो आनी सोसुंकूय नजो जाता. हांवें आलमारींतलें रवींद्रबाबालें 'उजवाडाचे सूर' काडलें आनी वाचूंक लागलों. केन्नाय तकलेर ताण पडटकच, मनाक थिरताय मेळना जातकच हांव रवींद्रबाब वाचतां. तांचें 'उजवाडाचे सूर' आनी 'वेळोवयल्यो घुलो' म्हज्या चड घोस्ताचीं. तांच्या हेर खंयच्याय साहित्या परस हीं दोन पुस्तकां म्हज्या मनाक सदांच थाकाय दीत रावल्यांत. पुस्तक हातांत घेवन चाळटा म्हणसर दारार कोणें तरी मारलें. पुस्तक सोडून उठपाक वाज आयलो. हांवें घरकान्नीक उलो मारलो. तिणेंच दार काडलें. पळयत जाल्यार ती दारांत उबी.

" यो भितर. अजून घरांत गेलीच ना तूं?"

"पाड पडलें तेंचें. मोरों ते बेगीन."

"तूं आवयगेर कित्याक गेली ना?" हिणें तिका उदक दीत म्हणलें.

"पूण आतां रातीचें कशें वतलें गे?"

"ह्यो हाल-अपेश्टा सोसचेपरस तूं आवयगेर उठून चल."

"हें हांगेलें सदचेंच जालां. आवयगेर कितले दीस रावतली गे? सोबता तें? आवयचें बरें आसा. भावजो म्हाका चार दीस बरें करीत मागीर सुण्यापाश्ट जातलें मगे हांव कुळारा."

तेंय खरें आसलें. बायल मानी आनी संस्कारी दिसली. खरें म्हणल्यार म्हगेले घरकान्नीकडेनय जाप नासली. लग्न जाल्ली

बायल आवयगेर कितलीय जाल्यार परकीच जाता.

"चार दीस गे! हें वातावरण निवळ म्हणसर."

"एक खेप गेलें जाल्यार हे म्हाका घरांत घेतात? सैतान मगो हे!"

"पूण आज अशें जालें कितें गे?"

"कर्म तांचें! तांकां आनी निमित्त जाय गे? आनी तें आसा तें घरांत! नणंद म्हजी. जगांट मगो ती वैनी. आपूण चूल सोडिना आनी हांवें हेंच केलें ना तेंच केलें ना म्हूण बोब मारीत रावता. कांय ना गे. आपल्याक सूख मेळना, दुसऱ्याचें पळोवं नजो.

"तूं कित्याक सोयरीक पळयना ताचे खातीर?"

"जळ्ळी सोयरीक! तें आतां ल्हान आसा गे? म्हयन्याचें बंद जावपाकडेन पावलें तेगेलें. आतां उरलें तें बियाक."

"आगे, तुमचे लोकांगेर बेगीन जातात न्हय गे लग्न?"

"चली बरें आसपाक जाय न्हय गे? झगडाळ, राकसूल कोण व्हरतलो? तुका खबर आसा वैनी, हांव न्हावंक लागलां आनी दोन वर्सांनी लग्न जालां म्हजें."

"इतली ल्हान तूं? तो जाण्टो दिसता मगो!"

"जाण्टो? जड्डो तो. कोणाक खबर गे हें घर असलें म्हूण. कोण करता जल्माचो तेर्म? आनी कोण पळयता टिपण बिपण?"

"पूण आतां फुडें कशें? ते घरांत घेवचेनात आनी तूं कुळारा वचची ना."

"म्हाका दीस गेल्यात गे वयनी. ना जाल्यार कोण आयकतालो तांकां."

"आगे, पूण हें घोवाक खबर आसा? दोतोराक बी दाखयलें गे?"

"तांकां दोतोर आनी फातर एकूच."

"दुस्मानावरी झगडटात मगे तुमी. दीस गेल्यात म्हूण आनी कतें सांगता?"

"दादले म्हणल्यार निर्लज्जांची जात गे!"

हिची तिरशी नदर म्हजेर पडली: मुमुरखीच हांसपाक लागली. व स्थितप्रज्ञ. तोंडार हयकारय ना, न्हयकारंय ना. एके बाबतींत ात म्हाका तोखणाय दिसली ते बायलेची. इतल्याय ह्या बोवाळांत गडच्याक वा तिका भायर काडपाक खरें कारण कितें जालें तें ात तिणें उगतें केलें ना. अस्सल भारतीय गृहिणीचीं लक्षणां तीं.

"वीट आयलो गे ह्या घरांत. कसलींय कामां करून म्हज्या टापुरतें तरी जोडटलें आसलें. आतां उपाय ना. जीव दिंवंकय ळना"

"जीव मात दिवं नाका आं. तूं जीव वगडावन बसतली. कां कितें? तुजो जीव तुका ना जातलो. जीव दिवप भिजूडपणाचें ाम. वेल्यान त्या अर्भकाचे हत्येचें पाप तुज्या माथ्यार. तीं चार स दुख्ख करतलीं."

"चार दीस दुख्ख? परब मनयतलीं. गोडशें करून खातलीं. वळखना तांकां वयनी."

"तूं एक काम कर जनी. कशेंय करून नणंदेक सोयरीक र. ताचें लग्न केलें न्ही, अर्दो फोर्स उणो जातलो तांचो."

"कोण मेळटलो गे ताका? भाव सोयरीक पळयतात."

“भावांचेर तूं रावूं नाका. तूं पळय. तुज्या गांवांत पळय. तुज्या गांवांत ना वाडिल्ले भुरगे? सोयरीक जावं ना जावं. पूण तूं पळयता म्हणल्यार तांचो राग उणो जातलो. तुवें सोयरीक केली जाल्यार ते तुजो उपकार मानतले. जीवन तरी मानतलें. आनी तें लग्न जावन गेलें जाल्यार संवसाराचेर तुजो ताबो उरतलो.”

“हें सगळें करपाक तांका मनीसपण आसपाक जाय. मनीस गे ते?”

ते राती आमचें जेवन जाल्लें. जेवण सोंपिल्लें. हिणें तिका सांजो करून दिलो आनी च्या दिली. ती रात तिणें आमगेरच न्हिदून काडली. दुसऱ्या दिसा, गांवच्या महिला मंडळाची अध्यक्षा, वार्डाची कांवसिलर, गांवचे चार प्रतिष्ठीत लोक, तिचे दोन भाव अशे कांय जाण जमले. त्या खिणा पुरती तरी तांची शिश्टाई उपेगा पडली. तिका घरांत प्रवेश मेळ्ळो.

अशिक्षीत, अबुद्द आसूनय तिची मुत्सदीगिरी तुस्त करपा सारखी. तिणें कुळारा वचून रावपाचो प्रस्ताव कसोच मान्य केलोना. आनी खंयचीय बायल जाल्यार त्या नर्कांतल्यान भायर सरपाची संद सोडची नासली. तिची चिकाटी वाखाणपाची.

घरकान्नीलो मंत्र तिका बऱ्याक पडलो आसुंये. दोन म्हयन्या भितर नणंदेचें लग्न जालें. न्हवरो तिगेल्याच गांवचो म्हूण कळटकच घरकान्नील्या मंत्राचो हो परिणाम म्हूण कळपाक वेळ लागलो ना. तरीपूण ती मात्रा तितलीशी लागू पडली ना. लग्न जातकच कांय म्हयने थोडेशे शांततायेन गेले. पूण मागीर जालें परतून सुरू. त्योच गाळी-फस्ती, तींच केस्तावां, तींच शेजाऱ्यां कडेन झगडीं.

इल्लें इल्लें तिणें आपल्या पायांवेर उबें रावपाचें थारायलें. कोणागेर ती आयदनां घांसपाक लागली जाल्यार कोणागेर कपडे उमळपाचें काम करपाक लागली. तर कोणागेर जेवण करून दिवपाचें काम. कश्ट करून तिणें घरांत कितेंय हाडचें आनी दीस सारचो. दीस भर कश्ट करून तिनकात्रीर घरा येतकर सुसेग मेळटालो? साद्यो खबरी चलतां चलतां कोणाचें म्हणणें कोणाक कशें नाकसुरें वतालें सांगपाक जायनाशिल्लें. घरांतलीं झगडीं आनी तापातापी मातूय उणी जावंक नाशिल्ली. ह्या झगड्यांक सुरू जावपाक निमित्त लागनाशिल्लें. तिच्या चारित्र्याचेर लेगीत दुबाव घेवपाक कोणाक कांय दिसनाशिल्लें. तीं झगडीं थंड जावपाक मागीर मात अर्द वर ते पाऊण वर तरी लागतालें. हेच परिस्थितींत दुसरे खेपे गुरवचार आयलो. पयलो चलो. म्हण्टकच, आतां चली जाल्यार पुरो अशी इत्सा ती उलयतासतना परगटायताली. आनी जालेंय मना सारख्रें. घरांतले जंवजाळ, घरच्यांचे थोमणे, जांगेर काम करता तांची दादागिरी मोन्यानी सहन करीत करीत तिणें भुरग्यांक वयर काडलीं. आपले हिमतीचेर, आपले कर्तबगारीचेर.

गेल्लीं पांच स वर्सां ती मुनिसिपालिटींत काम करताली. सान्न मारप, कोयर भरपाचे गाडयेर वचप आनी वेळ पडल्यार आपली नोकरी शाबूत दवरपाखातीर कांवसिलराच्या घरचीं कामां लेगीत करताली. इतलेंय करून ती खचिल्ली केन्ना दिसली ना.

मुळावें शिक्षण जाले उपरांत भुरगीं फुडें शिकूंक पावलीं ना. हींच भुरगीं न्हय तर अशीं गांवांनी आनी शारांनी लेगीत शिक्षणा पसून पयस आशिल्लीं भुरगीं शेकड्यांनी मेळटलीं. दर वर्सा ड्रॉप आवटासाचेर भासाभास घडोवन हाडपी आनी चांटे पावलाक इ गवर्नन्साच्यो खबरी करपी आमच्या सरकाराचीं नाकर्तेपणा हांगा देसून आयलेबगर रावनात. तिणें आपली जीण सकारात्मक

(पोजिटीवली) घेतिल्ली. जोडकान्न जाली पूण घरांत जितलो मान मेळपाक जाय आशिल्लो तो मात तिका मेळ्ळो ना.

पुस्तक वाचतना फाटलें पान सोंपतकच जशें फुडल्या पानार वतात तशेंच तिच्या संवसाराचें पुस्तक फाटल्या पाना वेल्यान फुडल्या पानार वतालें. पूण कथानकांत कांयच बदल जायनासतना. घरांतल्या वातावरणांतल्यान भुरग्यांक भायर काडपाचो आनी तांकां बरी देख दिवपाचो तिचो प्रयत्न मात दिसले बगर रावनाशिल्लो.

आनी अवचितूच तिणें गोळ लावन जीव दिलो म्हणपाची खबर मेळ्ळी. चौकशी केली, कित्याक? अशें जीव दिवपा मेरेन पावपाक कारण कितें जालें? शेजारच्याच एका जाण्टेल्याक विचारलें,

“मरण आपल्याचेर बोल दवरिना, बाब. ताका कितेंय तरी निमित्त जाय पडटा.”

“पूण अशें घ्रडलें तरी कितें रे?”

“मुनिसिपालिटींत दिसवाड्यावेल्या वावराड्यांक फिक्स केलें म्हूण तिणें आयकलें.”

“हें बरें जालें. दुदांत साकर. तिका वायट दिसपाची कसली गरज?”

तिणें थंयच कोणाक तरी विचारलें, “आमी फिक्स जालीं रे बाबा?” ताणें फकाणां केलीं, “सगळीं जालीं. तूं मात जाली ना.” इतलीच खबर. तिणें कसलो धसको घेतलो, काय तिचो आवरो उडलो देवाक खबर! ती कित्याय कितें बडबडपाक लागली. आपली तकलीच कितें जाता म्हणटाली. आपल्याक कोण मारूंक

येता, आपल्या भुरग्यांचो कोण तरी जीव घेता, असल्योच खबरी उलोवपाक लागली.

"तिका हॉस्पिटलांत व्हरपाक जाय आशिल्ली."

"मदींच तिडकताली, मदींच बरें उलयताली. निवळटली, निवळटली म्हूण दोन दीस वाट पळयली. तिसऱ्या दिसा अशीच सगळ्यांक कुडींतल्यान भायर सरा म्हणूंक लागली."

"कोणेंच वचपाचें न्हय."

"कशीच आयकना जाली खंय. तकली भणभणटा, सोसपाक जायना अशी बडबडटाली खंय."

"बी. पी. वाडली आसतली."

"देवाक खबर कितें जालें तें. पूण भायर वतना भुरग्यांनी एक काम केलें. कुडींतलें राजू, दोरयो, तामरेत बी सगळें सामान भायर घेवन गेले."

"बेस बरें केलें काम. इतलेंय करून गोळ लायलो कसो रे तिणें?"

"रेडियोक स्पिकर आशिल्ले खंय. ताची वायर तिणें ओडून काडली आनी टी. वी.च्या मेजार उबी रावन तिणें गोळ घेतलो."

हांव चिततालों, कितें कारण जालें जीव दिवपाक, हो प्रश्न उरलोच. फकत नोकरेंत फिक्स जालीना म्हूण? आज जाली ना, फाल्यां जातली आशिल्ली. इतलीं वर्सां हांगा थंय काम करतना फिक्स जाल्ली? घरच्या लटाफटी लागून जीव दिलो? घोवाले घरा येत पसून त्यो लटाफटी, तीं झगडीं सोशीत आयल्या. मागीर कित्या खातीर? अशें म्हणटात मनीस एकलो पडटकच तरे तरेचे विचार येतात ताच्या मनांत. चार पांच जाणांचे गर्देंत ती एकली

पडली? घोवान दुर्लक्ष केल्ल्याचें एकलेंपण? तशेंय आसूं नजो. हीच घरची करती सवरती बायल जाल्ली. तिणें जोडून हाडल्यारूच तांकां खावपा जेवपाक मेळटालें. दोन पोटचीं भुरगीं आसून ती एकली कशी पडली? चलो न्हय जाल्यार चली तरी आवय खातीर जगपाक कारण जावन उरता. तिका घोवागेर हाडीत पसून तिणें जे हिमतीन आयिल्ले परिस्थितीक तोंड दिल्लें, तिका तुळा ना. मागीर इल्लेशे कडेन हिंम्मत कित्याक तुटली? जीव दिवपाक हिम्मत लागना? तीच हिम्मत तिणें फुडली जीण सारपाक कित्याक वापरली ना? तितलो विचार करपा इतली बुद्द नाशिल्ली? हाच्याय परस व्हडल्या व्हडल्या मोडांक तोंड दिवपाक तिणें बुद्द वापरल्या.

तो एक खीण! तो एक विचार! त्या मनशाक त्या खिणा पसून पयस व्हरपाक जाय. त्या विचारा पसून पयस व्हरपाक जाय. मनीस भायल्यान कितलोय गर्देंत रावलो तरी ताच्या भितरलें एकलेंपण कोण ना करतलो?

***

# अशीय एक हार

सकाळचीं णव वरां जाल्यांत. हांव आनी घरकान्न मुंबय
ही. टी. स्टेशनार मुंबय-मिरज एक्स्प्रेसींत गोंयां येवपाक बसल्यांत.

तेन्ना कोंकण रेल्वे येवंक नाशिल्ली. मुंबय वतलो जाल्यार
या मुंबयच्यान गोंयां येतलो जाल्यार मिरजे गाडी बदलची पडटाली.

व्ही. टी. प्लेटफॉर्माचेर ही गर्दी. मुयो कसो लोक भरला.
ग-रंगयाळे कपडेच भोंवतात काय दिसतात.

कोण कोणाक सोदता, कोण कोणाक उलो मारता, कोणालीं
ुरगीं आड्डतात जाल्यार कोण कोणाक 'बाय' करता.

मनशा कणकणीं 'बाय' करपाची तरा वेगळी.

कोणाच्या दोळ्यांत दुकां जाल्यार कोण कोणाक वेंग मारून
ोल्याक पोलो तेकयता.

कोण कोणाच्या हाताचो उमो घेता जाल्यार कोण लेंस
ालयता.

एकमेकां पसून पयस जावपाच्यो भावना वेगळ्यो वेगळ्यो.

अशें दिसता आतां हीं सासणाचींच पयस जातात. परत केन्ना मेळपाचो योग येवचोच ना. मेळ्ळींय जाल्यार बेगीन मेळचीं ना.

पूण तशें आसताच अशें ना. येतना मनीस एकलोच आयिल्लो आसलो आनी तो एकलोच वचपाचो आसा हें जरी ताका खबर आसलें तरी जिविताची वाट चलता आसतना तो ती एकलो चलूंक शकना. ताका सांगात जाय पडटा. देखून आपल्या मनशाचें पयसावप ताका सोंसप जड जाता.

कोण वचपाचो आसता लग्न सुवाळ्याक तर कोण हील स्टेशनार मुदासाक.

कोण धुवेचो संवसार पळोवपाचे लक्तुबायेन आयिल्लो आसता तर कोणाक आपल्या पुताचे आनी सुनेचे संबंद जाग्यार घालपाचे आसतात.

कोणाच्या मुखामळार धादोसकाय काम जाल्ल्याची तर कोणाच्या तोंडार निर्शेणी कामांत यश ना मेळिल्ल्याची.

गाडयेच्या सिग्नलाचो पाचवो दिवो पेट्टा. शिटी वाजता. वचपी आसतात ते गाडयेर चडटात, पावोवपाक आयिल्ले गाडयेंतल्यान देंवतात.

देंविल्ले म्हणटात, 'बरो करून चल आं!' आनी चडिल्ले म्हणटात 'तूंय बरो करून आं!'

गाडी वेग वाडयता तशी वाऱ्याचीं ल्हारां कानार आपटतात. आंगार शिरशिरी हाडटात आनी हमालाच्या कपड्यांची घामसाण हवेंतल्यान इल्ली इल्ली उणी जाता आनी जिवाक सू ऽ ऽ जाता.

मनाक मानशें बरें दिसता मात, वाऱ्या-ल्हारांवांगडा एके तरेचो दर्प नाकांत शिरता.

तो वास काय घाण कळपाक मार्ग ना. त्या वासांत वा घाणींत मुताची खातसाण आसता, संडासाची घाण आसता. गाडये डब्याच्या जनेलांतल्यान दोनूय वटांनी नदर मारली जाल्यार लोक म्हऱ्यांत उदकाचीं लातां, बाटल्यो घेवन पंक्तीक बशिल्लेभशेन बसल्यात. तातूंत दादले आसात, बायलोय आसात. बायलांनी आपलें तोंड पदरान धापलां पूण कमरा सकयल सगळें उगडें. लज लिपोवपाची ही एक नवी तरा. कोणाक कोण पळयनात, कोणाची कोणाक पर्वा ना. गरजेवंताक लज ना म्हणटात तें अशें.

गाडी हालता. ती ल्हवू ल्हवू स्टेशना भायर पावता. गाडयेंतल्या लोकां पसून प्लेटफॉर्मार पावोवपाक आयिल्ल्या लोकां मदलें अंतर वाडत वता.

वताचीं किर्णां जनेलांतल्यान भितर सरून आंगाक चाटूंक लागतात.

गाडयेंत शांतताय, गाडी सुटिल्ल्याचो आनंद आनी आपल्या लोकां पसून पयस वता म्हूण खंत लोकांच्या मुखामळार स्पश्ट दिसूंक लागता. अशा वेळार घरकान्नीलो आवाज,

"उलय न्हय!"

"कितें उलोवं?"

"कितेंय!"

म्हजें मन जड जाल्लें आसता. कितल्योशोच भावना मनांत घुमशण कांडूंक लागतात. कसल्यो त्यो म्हाकाच समजना. त्यो

खूब तरांच्यो आसतात इतलें खरें.

पूण त्यो वेगळावपाक जमनात.

मन जड जालां. कित्याक?

मुंबय् सोडटा म्हूण?

काय मुंबयकार इश्ट-मित्रां पसून पयस वता म्हूण?

दोनूय न्हय!

मुंबयची म्हाका व्हडलीशी ओड ना.

इश्ट-मित्र वेव्हारी.

तांची ओड कशी आसतली?

तरी पूण मन जड जालां.

कित्याक?

अशें दर खेपेक जाता. मुंबयंतल्यानूच न्हय.

खंयच्यानय भायर सरलों तीच भावना.

गाडयेंतूच न्हय! बशींतल्यान लेगीत.

दर खेपेक अशें कित्याक जाता?

दर एकल्याक अशें जाता काय?

म्हजेर तर एकप्रकारचो मोनेळ पडला.

अशे अवस्थेंत घरकान्नी कडेन कितें उलयतलों? विचारांची आनी भावनांचीं सरभरस वेगळावपाचो म्हजो यत्न चल्ला. क्रमान लावपाचो यत्न चल्ला. हेंच जर विचार मंथन जाल्यार म्हजो यत्न फळादीक कित्याक जायना?

इतलें म्हणसर ठाणें फाटीं पडटा आनी कल्याण येता. गाडी स्टेशनांत भितर सरता आनी तरातरांचे कर्कश आवाज कानार पडटात.

आऽऽ वडाऽऽ. आऽऽ बटाटा वडाऽऽ. च्यायेऽऽ गरमऽऽ.

ह्या लोकांचो आवाज म्हाका गोड केन्ना लागलोच ना. केन्ना
ोकडेन मॅ केल्ल्या वरी लागता तर केन्ना दात्यांत जोंधळे घालून
ड्डो काडटना येता तसलोसो लागता.

हे लोक खंयच्यान येतात, केन्ना डब्यांत चडटात आनी खंय
ताात हाचो मात लेगीत सुगाव म्हाका तरी केन्ना लागलोच ना.
टेशनार गाडी उबी रावली रे रावली हांचो कर्कश आवाज आसाच.
ाडी धांवता, गाडयेच्या लयबद्द आवाजांत मन तुजें रमून वता,
ाशा वेळार मदींच हे फेरीवाले खंयच्यान तरी प्रगट जातात आनी
ऽऽ, वडाऽऽ.... असो भसाड आवाज तुज्या कानार आपटितात.
ाश्या वेळार किर्तें आवतिकाय जावपाक जाय हें चिंतनाशिल्लें
रें.

संवसारांत जितले कर्कश आनी भसाड आवाज आसूं येतात
ेतलेय आमकां हे गाडयेंत मेळटले. म्हाका तरी केन्ना हे आवाज
ोड लागलेच ना आनी म्हूण आयकनय दिसले ना.

'आ ऽ ऽ वडा ऽ ऽ,'

'ए ऽ ऽ पेरुवाला ऽ ऽ'

'अंजी ऽ ऽ र'

अशे तरेक तरांचे आवाज आयकून जीव उबगता. घरकान्नीन
केतेंय घे म्हणल्यार 'भोंगूं तें' अशेंच हांव तिका सांगतां. पूण ती
चेकटी. कशीच सोडिना.

"तूं म्हूण सामकोच चिकू आं!"

जालें! आतां सदचेभशेन हांव कसो चिकू, हांवें केन्ना केन्ना
ामटेपणां केल्यांत हाचेर सदचेभशेन म्हाका लेक्चर आयकुचें

पडटलें हातूंत इल्लोय दुबाव ना. हांवें मनाची तयारी दवरली. तिणें म्हणलें,

"चार आण्यांचें पेर लेगीत घेवं नजो तुज्यान."

"चार आण्याचें मातूक ना हांगां."

"मागीर?"

ह्या लोकांक गाडयेंत येवपाक बंदी आसा. आमी हांचे कडल्यान कितेंय घेतलें जाल्यार कायदो मोडपी लोकांक पालव दिल्ले भशेन जातलें. आमीय सिवीक सेन्स दवरुंक जाय काय ना?"

"तें रेल्वेचे लोक पळोवन घेत."

'कायदो मोडपी जितले गुन्यांवकारी आसतात तितलोच गुन्यांव तांकां पालव दिवप्यांचोय आसता."

"मातशे वेगळे नदरेन तूं तांचे कडेन कित्याक पळयना? तांकां काम धंदो कांय ना. पोट भरपा खातीर त्रास काडटात ते. बऱ्या मार्गान काम करपाची संद तांकां मेळना म्हूण ते ह्या मार्गान पोट भरपाची धडपड करतात न्हय? मातशे मनीसपणाचे नदरेंतल्यान पळय न्हय, काकूळट दिसतली तुका तांची."

घरकान्नीन म्हजें तोंड बंद करपाचो भावनीक यत्न केलो.

"पोट भरपाचें काम करतात मगो? करात! ही बोबाट कित्याक मारतात? तरेक तरांच्यो किळांच्यो मारून लोकांक कित्याक त्रास?"

"तुजें लुकसाण जाता तातूंत?"

“सुसेगाद बसूंक म्हूण दिनात. भुरगीं न्हिदिल्लीं आसतात. कोणाक काळजा दुयेंस आसता, जाण्टयांक झेम काडपाची आसता. हांकां तांची पर्वाच ना. भोवतणच्या सैमांत एकरूप जावन चिंतन करतलो म्हणल्यार हांच्या भज्यांचेर आनी बटाटवड्यांचेर लक्ष वता.”

“एकदां घेवन खावचें, मागीर वचचें ना लक्ष. अशें केले बगर तांकां गिरायक जाता?”

“बोंबले देटा कडल्यान गजाल मारून गिरायक कसलें गो? गोंयांत गोंयकार फेरीवाले नासले? ते केन्ना अशे तरेन आड्नाशिल्ले.

“मडगांवां प्रासार वचून पळय आड्‌तात काय ना ते.”

“गोंयांत गोंयकार फेरीवाले खंय उरल्यात गो? खंयीय नेळ्ळेच जाल्यार हांचें पळोवन तेय शिकल्यात.”

“म्हाका नसतो वाद घालपाचो ना. तूं एक पेर घेता काय ना?”

“केन्नाच ना. कोणेंय लक्तुबायेन विचारलें जाल्यार घेतलों.”

“म्हणचे पेर म्हाका मेळपाचें ना!”

“कित्याक?”

“ते किळांच्यो मारपाचे सोडचे नात आनी तूं पेर घेवंक पावचो ना.”

हांव नकळत हट्टाक पेटिल्लों. हेरवीं विशय सादोच आशिल्लो. पूण उलयतां उलयतां हांव तेमाक पेटिल्लों. म्हजो हट्ट तेंगशेर

कसो पावलो म्हाकाच कळ्ळें ना. घरकान्न आनी म्हजे भितर मात विनाकारण वाद सुरू जाल्लो.

"मांव येतलो म्हजो लक्तुबायेन विचारपाक."

आयकून म्हाका हांसूंकूच आयलें. पूण मातशें चितले उपरांत म्हाका दिसलें, ही म्हज्याच बापायक लेखून उलयता. हांवें म्हणलें,

"तुजो मांव असो मॅ ऽ ऽ करून ताळो सरांटून आयिल्लो जाल्यार लेगीत हांव ताचे कडल्यान पेर घेवचो नासलों. मोन्यांनी कोणूय आयलो जाल्यार तुका पेर मेळटलें."

"जळ्ळें तुजें पेर!"

म्हाका मनांतल्या मनांत हांसूंकूच आयलें. हांव जनेलांतल्यान गाडये भायर पळोवंक लागलों. तिचें तोंड पळोवपाक म्हाका कितेंशेंच दिसलें. मनांत म्हणलें, आतां चड अंत पळोवप सारखें न्हय.

आनी कितें अजाप!

पेरांचो कुरपणो घेवन एक भुरगो आवाज काडिनासतना आमचे म्हऱ्यांत येवन उबो रावलो.

हांव पळयतच उरलों.

घोवा-बायले मदलो वाद हाका कोणें कळयलो?

अंतर्ज्ञानी बी न्हय मू?

हांव ताका पळयतां आनी घरकान्नीक पळयतां. तिच्या तोंडा वयलो मुमुरखो हांसो म्हजे नदरेंतल्यान सुटलो ना.

“आतां तरी घे न्ही पेर!” एक जैतिवंत नदर म्हजेर मारून
ाणें म्हणलें.

म्हजो निरुपाय आसलो. आखाड्यांत हारिल्ल्या पैलवाना
ारखें तोंड करून हांवें ताका विचारलें,

“कैसा दिया?”

अजापाची गजाल म्हणल्यार उलयनासतना ताणें चार
ोटां दाखयलीं. हो आनी कसलो चमत्कार! म्हजे घरकान्नी कडेन
लिपथीची विद्या बी ना मू? हाचे पयलीं आयिल्ले सगळे फेरीवाले
ाड्डत, तरेतरेचे चित्रविचित्र आवाज काडीत आयिल्ले. हाकाच
ोणें सांगलें मोन्यांनी यो म्हूण? हांव जनेला भायर पळयतना
ड्णें बी ताका कुरू केली ना मू? कांय खिणां भितर ही ताका
रवांनी कशी समजावंक शकतली? बरें ताका हांवेंय येतना
ळयला. तसले कसले भाव ताच्या तोंडार दिसले नात.

जावं म्हणलें. कशेय जाल्यार चार आणे गेलेच. चार आण्यांचें
त्व न्हय! पूण कारणा विणें सुरू जाल्लो हो वाद म्हजे हारीन
ोंपता हें पळोवन वायट दिसलें.

पूण हार कित्याक म्हणटां हांव? तशें पळोवंक गेल्यार म्हजें
ातूंत जैतच आशिल्लें. बोवाळ नासतना जो फेरीवालो येता ताचे
डल्यानूच हांव कितेंय घेतलों अशें हांवेंच म्हणिल्लें. हो पेरांकार
सोच आयलो काय ना? हें म्हजेंच जैत न्हय?

हांवें चार आणे काडले आनी ताच्या हातार दवरले. तरी पूण
ो थंयचो हाललो ना. म्हाका मारली भिरभिरी. सामकींच दोन
ोकां. कांय जाणांनी आड्डून नाका शेवट केलो जाल्यार हो एक

उतर उलोवपाक तयार ना. हांवें विचारलें,

"देवान तुका तोंड दिलां मरे, मोन्या कुरवो कितें करता त्यो?"

ताणें आपलो हात गळ्या कडेन व्हेलो आनी तो कुरवांनी कितें तरी सांगूंक लागलो. म्हाका कांयच कळ्ळेंना. शेजाऱ्यान सांगलें,

"साब, ये गूँगा है, बोलने को नहीं आता."

आनी हांव थंयचे थंय घट जालों. सामको निर्शेलों.

घरकान्नीन म्हज्या बोल्सांत हात घालो आनी चाळीस पयशे करून ताच्या हातार दवरले. तिका लेगीत ताजी भास कळ्ळी, पूण म्हाका कळ्ळी ना. म्हाका पळोवन तिणें म्हणलें,

आवाज आशिल्लो आड्डतलो, मोनो कितें उलयतलो!

हांव वग्गी!

म्हज्या मुस्कटार थापट मारिल्ले वरी जालें!

***

# नवी उमेद

शीला हॉस्पिटलाच्या जनेल ाकडेन उबें रावून सरभोंवतणचो
ीम नियाळटालें. मुखारूच एक न्हंय व्हांवताली आनी तिचीं ल्हारां
जरी व्हडलीं नासलीं तरी न्हंयचे देगेर मंद थप थप असो आवाज
एक प्रकारच्या रिंदमान आयकूं येतालो. न्हंयेंत एकलो व्हडें
ाणटालो. तो खंयच्यान खंय वता आनी व्हडें ताणून कितें करता
ं कळपाक कठीण आशिल्लें. पूण कसल्याय तरी उद्देश्या बगर
कोण कसलीच हालचाल करचो ना हें शीलाक बरे भाशेन खबर
आशिल्लें. जाणून घेवपाची उमळशीक आशिल्ली तरी ताणें प्रयत्न
केलो ना. न्हंयचे देगेर चिपांच्या झाडाचे आडवे खांदयेर बसून
एकलो नुस्तें गरयतालो. त्याच झाडाचे खांदयेर एक आडसाटो
ुरगो चिपां काडटालो. मदीं मदीं पिकें चीप मेळ्ळें जाल्यार
खातालोय बी. स सात दीस जाले तें ताका पळयतालें पूण ताचे
गरयेक कसलेंय नुस्तें फारावल्लें ताका दिसलें ना. तरी तो दीसपट्टो
थंय येवन गरयले बगर रावनाशिल्लो. इतलोय हो सुखदिणो
ीमाचो देखाव पळयतना खिणा-खिणाक ताच्या मनाच्या खंयच्या
तरी एका कोनशांत आपलें चली नीता हॉस्पिटलाचे खाटीर
अर्दमुर्च्छीत पडिल्लें आसा आनी मशीनाचे कृत्रिम स्वासाचेर तें
ाग धरून आसा ही गजाल घट रिगून बशिल्ली. घडये ताजे ते
नेमणे स्वास लेगीत आसूं येतात म्हणपाची जाणीव ताचे

तकलेंतल्यान पुसून वचनाशिल्ली. थोडो तरी विसर पडचो म्हूण तें कॉंक्रिटाचे बिल्डिगेंत रावून सैमाच्या गोपांत मन रिजयतालें. इतल्यांत सुमन भितर सरलें.

"कशें आसा गो आतां नीता?" सुमनान चलयेची चवकशी केली.

"कांयच फरक पडूंक ना गो. आतां सकाळींच मातशी न्हीद लागल्या."

"काकुळट गो. तें सोसता तें जालेंच. पूण तुजे हाल पळोवंक नजो गो म्हज्यान."

"कितें करतलें? आयलां नशिबांत न्हय? सोसूंक जाय. म्हाका तरी समज आसा. ताचें कितें?"

"ताका तें कळचना जातलें गो."

"आसतय बी. पंचवीस वर्सां जालीं. पूण बुद्द साडेतीन वर्सांचीच उरल्या. कितें कळटलें ताका? अशें दिसता केन्ना केन्नाय अशीं भुरगीं जावंच्रेपरस ना जाल्लीं बरीं."

"अशें म्हणूं नाका गो शीला. आवय तूं ताची! अशीं उतरां कशीं येता तुज्या तोंडांतल्यान शीला."

"देव पूण कितलो निश्ठूर पळय गो सुमन. हाची याद करची सोडून हाच्या बापायकच व्हेलो. हो कसलो न्याय?"

"कांय गजाली आमी चुकयतले म्हणल्यार लेगीत चुकोवंक नजो. घडपा आसा तें घडत वता. नशिबांत आयलां ताका तोंड दिवपाक जाय. तुवेंच जर हातपांय सोडले जाल्यार नीताचो फुडार कसो?"

"जळटा ताका कळटा गो सुमन. हाचे जल्मा पासून कितें कितें भोगलां जाणा तूं हांवें? फकत दगदग सोसल्यात."

"कळटात गो म्हाका तुजे दगदग."

"म्हजे बाबतींत मगो दगदगूच दगदगी जाल्यात. तुवें कतें पळयलां?"

"तशें म्हणूं नाका आं. मदलीं धा वर्सां तुजे पसून पयस ाशिल्लें हांव. लग्ना उपरांत सगळ्यांचींच एक दोन वर्सां बरी तात गो. मागीर संवसाराच्या वज्या पोंदा चिड्डून वता मनीस. ायलमनीस तर चडूच. भुरगीं व्हड जातकच मातशीं उसरपत ळटा मनशाक."

"तुजेर शीण ना गो म्हजो. कोणूय कोणाक कितलो म्हूण वतलो? आपल्या वज्याक आपणेंच माथें मारपाचें आसता. ्डलें शें जाल्यार दुसरो उबारपाक हातभार लायत."

"नोकरी करून एका मंदबुद्दी भुरग्याक सांबाळपाचें काम च म्हूण करता. आनी कोणाक जमपाचें नाशिल्लें."

"दुसरो उपायूच ना. दुसरो अर्नींग सोर्स आसा खंय?"

"इतलें करून तुज्या तोंडा वयलो हांसो बावूंक दिलो ना वें. जिण कडेन हार मानली ना तुवें."

"एक दोन खेपे जीव दिवपाचो विचार आयलो गो म्हज्या नांत. जिणे वयली वांत्साच गेल्ली सामकी. कुटुंबाच्या कुटुंबान ीव दिल्ल्याचें उदाहरण आसा आमचे कडेन. पूण चितलें, समाजांत द बुद्दीच्या भुरग्यांचे आवय-बापूय फकत आमीच नात. बरेच ोक आसात. तांकां वायट देख दिवपाचें पातक आमच्या तांतल्यान घडपाक जायना. उरफाटें तांचे खातीर कितेंय तरी रप म्हणल्यार तांच्या दुख्खांत वांटेकार जाल्ले भशेन जातलें."

"वायट अवस्थेंत लेगीत संवसारा कडेन पळोवपाची एक गळी नदर दिली तुवें तांकां."

“आमच्या गांवांत असल्या भुरग्यांक ट्रेन करपाचें स्कूल नाशिल्लें. स्कुलाक जाय तितले भुरगे आसत काय गांवांत? सदांच प्रश्न पडटालो. “स्लो लर्नर्साखातीर” एक स्कूल आसचें हें चिंतून प्रयत्न करपाक लागलें. आनी खरेंच अजापाची गजाल जाणा तूं सुमन, आठ धा हजारांच्या आमच्या गांवांत पंचवीस तीस भुरगीं मेळ्ळीं. आनीक भोंविल्लें जाल्यार आनीकय मेळटलीं आशिल्लीं. कांय जाण तर उलोवपाकूच भितालीं. आपल्यालीं भुरगीं मती-मंद आसात, मेंटली रिटार्डेड आसात म्हूण सांगपाकूच लज दिसताली तांकां.”

“आपले खातीरच न्हय तर गांवच्या भुरग्यां खातीर आपणें कितेंय तरी केलें हाचें केदें समाधान जावपाक जाय.”

“असल्या भुरग्यां खातीर स्कूल सुरू करतात म्हूण सांगतकच इल्लीं इल्लीं उलोवपाक लागलीं. म्हजेंय भुरगें तशेंच म्हूण सांगतकच आपलें दुख्ख, विकळाप सांगपाक लागलीं.”

“समदुख्खी मेळ्ळीं तांकां. आपलेपणाचें नातें आपशींच निर्माण जाता अश्या वेळार.”

“खरेंच! म्हाकाय एक नवी नदर मेळ्ळी आनी भुरग्यांचे पालकूय एके वेगळेच नदरे म्हजे कडेन पळोवंक लागले. सगळया घुस्मटमारांतल्यान हांव भायर सरिल्ले वरी दिसलें म्हाका. कांय जाणां तर घुस्मट्टालीं. उलयतना तांचो बांद फुट्टालो. हुटक्या हुटक्यांनी रडून आपले उमाळे उगतायतालीं. हांवूय तांचे वांगडा दोन दुकां गळयतालें. म्हाकाय ल्हव दिसतालें.”

“खरेंच अश्या भुरग्यांचो फुडार चिंतल्यारच भिरांतेन आंगार कांटो आयले बगर रावना.”

“म्हजे उपरांत कोण आसा गो हाका? देवा कडेन फकत

कूच मागणें, म्हजे दोळे धापचे पयलीं हाचो उगडास कर म्हूण
ागतां."

"जाणें जल्माक घालां, ताणें ताची फुडली वेवस्था केल्लीच
ासतली. तूं फुडलो हुस्को कित्याक करता? तूं आतां चल
ळोवया घरा कडेन. न्हा बी आनी हांवें थरमासांत च्या घालून
वरल्या. ओटयार कांद्याचे फोव करून दवरल्यात ते खा आनी
ो. तो मेरेन हांव रावतां हांगा."

"तूं लागीं आसा म्हूण सोपें जालें गो म्हाका. ना जाल्यार
ोण इश्टिणी अश्यो पावतात?"

"प्रसंगार कोण ना जाल्यार कोण तरी पावताच गो. तूं चड
चार करूं नाका. पूण म्हाका सांग, अशें कितें जालें गो ताका?"

सुमन शीलाची जिवाभावाची इश्टीण. वांगडा खेळ्ळयांत,
ांगडा शिकल्यांत, वांगडा वाडल्यांत. ताका दुखलें जाल्यार
ाका चर्र जातालें आनी हाका दुखलें जाल्यार ताका हाय जातालें.
ोगायोग म्हणल्यार तांचीं लग्नांय बी एकाच वर्सा एकाच
इयन्यांत जाल्लीं. लग्ना उपरांत घोवाघरा वतकच, संवसाराच्या
गाडयांत आनी भुरग्यांची उस्तवारी करपाच्या वावरांत तांचें
ळप जायनाशिल्लें. तरीपूण मनांतली इश्टगतीची कोमरी बावूंक
ात नाशिल्ली.

"नीताचो जल्म जायत पासून म्हजे कुंडलींत दगदग जे
ुरू जाल्ले ते नीता बावीस वर्सांचें जालें तरी सोंपूंक नाशिल्ले.
टये दिसाच नीताक मोण्णें मारून आयलें तें परतें वचपाचें नांव
गीत काडी नाशिल्लें."

"एपीलेप्सींत ब्रेन सेल्स मरतात खंय. परत परत मोण्णें
ारून येवपाक दिवंक जायना. ड्रग्सांनी कंट्रोल करपाक जाय.

मेंदूची पुराय वाड जातकच ताचेर एपीलेप्सीचो व्हडलोसो परिणाम जायना."

"कशें गो! मागीर मागीर एकार एक फिट्स येवपाक लागल्यो. कितें जाता, कित्याक जाता, हें कळटासर, आनी मनां सगळीं सांवरतासर तीन चार वर्सां गेलीं. घरच्यांक तर शॉकूच बसलो. तांणी तर देव-देवस्पणां प्रसाद-पाकळी घाडी-मांत्रीक कांयच सोडलें ना. गांवांतलीं ल्हान - व्हड देवस्थानां आनी घाडी, ज्योतिशी धवळून काडले."

"तुमी दोगांय शिकिल्लीं आशिल्लीं न्हय गो. तुमी तरी सांगप न्हय तांकां?"

"म्हाका आनी घोवाक तें केन्ना पटलेंच ना. पूण घरचे कितें करतात तें करूं तांच्या मना आड कितेंच उलोवप ना हें आमी थारायलें, तांच्या विचारांच्या आड आमी उलयल्लीं जाल्यार टॅन्शनांनी तकली आनीक जड जातली आशिल्ली. देखून आमचे परीन डॉक्टर, स्पेशालिस्टांच्या दारांत पावटी घालूंक सुरवात केली. कोणें सांगलें, वास्को स्पेशालिस्ट बरो आसा, धांवले थंय. कोणें सांगलें पर्वरे कोण तरी दोतोर फोरेनाक वचून आयला म्हूण, ताका दाखयलें. कितें कितें आनी कसले कसले दोतोर केले ना जायत? सावंतवाडी झाडा-पाल्याचें आनी पाळां-मुळांचें वखद दिता म्हूण आयकलें, थंय धांवले. संकेश्वराक आयुर्वेदीक दोतोर सगळ्या तरांचीं दुयेंसां बरीं करता, धांवले थंय. शेणिल्ल्याचें मन धा कडेन. आयुर्वेद, होमियोपाथी, एलोपाथी कसलोच प्रकार सोडलो ना."

"मेडिकल सायन्सीन खूब प्रगती केल्या गो. पूण कांय क्षेत्रांत आजून जैत मेळपाचें आसा."

"मुंबय व्हेलीं, इ. सी. जी. केलो, स्केनींग केलें. बँगलोराक
निम्हेंस- एक नांवांजतें हॉस्पिटल, थंय गेलीं. फकत टॅस्ट करपाकूच
जारांनी ओतले. टॅस्ट करपाकूच तांकी भायलो खर्च. ताचे उपरांत
ट्रिटमेण्ट, बँकेंतली शिल्लक, आंगा वयल्यो वस्ती काबार जाल्यो.
रिणाम कांयच जालो ना. गुळयांक लागून मोण्णें कंट्रोलांत
ासा पूण बुद्दींत कसलोच फरक पडलो ना."

"एक ते देड प्रतीशत लोकांक हें दुयेंस आसताच खंय."

"हय गो! म्हाकाय दोतोरान सांगिल्लें तें. पूण त्या एक वा
ड प्रतिशत लोकांत आमीच कित्याक येवचीं हो प्रश्न हांवें केल्लो
ाका. पूण आतां मात तशें दिसना. म्हजेर आयलां, हांवें सोसपाचें.
डये सेवा करपाची हीच संद म्हज्या वांट्याक आयल्या जायत."

"हय गो! पूण जिणेंत कितलीं लिमिटेशन्स येतात तीं दिसतात
ञय म्हाका तुजे वयल्यान.

"तेंय म्हजेच वांट्याक आयिल्लें आसा अशेंच समजतां
ंव."

" शिकपाक हुशार आशिल्लें तूं. तुका संद मेळिल्ली जाल्यार
ाज समाजांत केदें नांव जातलें आशिल्लें तुजें."

"हे तुजे विचार जाले."

"तुका दिसना अशें?"

"दिसता गो! पूण आतां ताचो उपेग ना न्हय. अशें आशिल्लें
ाल्यार, तशें जाल्लें जाल्यार अशें चितपांत अर्थ ना. हेंच पळय
रगीं मागतात कित्याक?"

"म्हातारपणांत आपल्याक आदार जावचो म्हूण."

"ताचेय परस मनीस भुरग्यांच्यो अर्थ-अपुरबायो करपांत,
ांकां जाय तशें शिक्षण दिवपांत, तांच्यांत आपल्या भुरगेपणाचें

स्वरुप पळोवपांत ताका चड समाधान जाता. आपल्या भविश्याची बेगमी करपाचो विचार हो म्हत्वाचो आसना. नीता जालें तेन्ना ताचो फुडार घडोवपाचो विचारच रात दीस आमच्या मनांत घोळटालो."

"आपलें भुरगें वयर सरचें, ताणें नांव मेळोवचें, ताचे वांगडा बरे दीस, सुखाचे दीस आपल्याय वांट्याक येवचे अशें दर एकल्याक दिसताच न्हय! ही तुगेली जीण पळयतकच पूर्व जल्माच्या बऱ्या वायट करण्यांचें संचीत अशें लोक म्हणटात तें फट दिसना."

"ना! ताचेर म्हजो विश्वास ना. पूर्व जल्मांत वायट केलें म्हूण ह्या जल्मांत वायट भोगतात वा ह्या जल्मांत बरें केल्यार फुडल्या जल्मात बरें मेळटलें, सूख मेळटलें. हें सगळें उलोवपाक बरें आसता गो. फाटलो जल्म वा फुडलो जल्म कोणे पळयला?"

"पूण ह्या जल्माक तुज्या वांट्याक हें आयलां काय ना?"

"आतां मगो अशें दिसपाचे पलतडी पावलां गो हांव. अशे तरेचीं सगळींच मंद भुरगीं ही म्हाका म्हजीं शीं दिसतात."

"म्हाकाच मनाक खाल्ले भशेन जाता. तूं इतली इश्टीण जावन हांव कांयच करूंक शकना म्हूण."

"सूख वा दुख्ख हीं जण एकल्यान आपणेंच भोगचीं वा सोसचीं पडटात गो. तातूंत वांटेकार दुसरो जावंकूच शकना. हें मंद बुद्धीचें म्हूण कळटकच पयलीं पयलीं खूब निर्शेलें. आमचीं सगळीं सपनां भंगलीं म्हूण जिणेकूच विटिल्लीं आमी. पूण आज म्हाका तशें दिसना. वयल्यान नवे उमेदीन नीताचें आनी हेर भुरग्यांचें करीन शें दिसता."

"बरें, हांव वचून न्हावन बी येतां. तूं मातशें बस. दोतोर येतलो रांवडाक. कितें सांगतां पळय. हो पळय, आयलोच तो."

"रिपोर्ट मेळ्ळे दोतोर?"

"हय! पूण....."

"तुमच्या घराकडेन कोण कोण आसात?"

"हांव एकलेंच."

"तूं एकलेंच? कशें करता तूं हें सगळें?"

"कशें म्हणल्यार? आमाचो दोगांचोच संवसार. ताचें सगळें करतना दीस कसो सोंपता तेंच कळना. मांय मांव केन्ना गेलीं. तानी हाच्या शोकान बारा वर्सां पयलीं हाचो बापूय गेलो. हाची तापसालदारकी म्हजेर एकल्याचेर सोडून गेलो."

"आतां तुमी दोगांच?

"हय, कित्याक?"

"दोतोरान सुमनाकडेन पळयलें. ताचे हुजीर सांगचें काय मागीर सांगचें असो विचार मनांत येवपाक शीलान दोतोराक म्हणलें,

"सांगात तुमी दोतोर, तें आमचेंच. म्हजी भयण म्हूण समजा तुमी."

"तुगेलें चली न्हिदूनच आसता काय घरांत भोंवता बी?"

"न्हिदून आसता. केन्ना केन्नाय भोंवताय बी."

"ताका उलयल्लें समजता? तें स्पश्ट उलयता? ताका मारल्यार, तापयल्यार प्रतिकार करता?"

"तें उलयता तें चडशें कोणाक कळना. स्पीच थेरपी दिल्ल्यान एक एक उतर उलयता. पूण हांव ताच्या हावभावा वयल्यान अर्थ लागडटां."

"साबुद्दीर केन्ना येतलें तें दोतोर? तीन दीस जाले."सुमनान

विचारलें.

"येन्ना येवपाचें तें साबुद्दीर. कितें जालां कळपाक मार्ग ना. बी. पी. थीर उरना. तूं आवय ह्या नात्यान ताचे कडेन कशें वागता?"

"तुमचो प्रस्न समजलो ना."

"पळय तुमचो ताका मोग-माया, अपुरबाय मेळटा काय विचारतां हांव."

"म्हणजे कितें? आवय हांव."

"बरें! तूं चलयेक वेळ कितलो दिता?"

"ना, तो मात जाय तितलो दिवंक पावना हांव."

"असल्या भुरग्यांक चड गरज आसता ताची."

"हांव स, साडे संक घरा पावतां. चलयेक पुसतां वा न्हाणयतां, जेवण करतां दोगांय जेवतात म्हणल्यार णव साडे णव जातात. तें रोखडेंच न्हिंदता, सकाळचें रांदून दवरतां. ताका स्कुलाचे बसीर चडयतां आनी हांव ऑफिसाक वतां."

"आपल्याक माया मेळना, आपल्या कडेन दुर्लक्ष जाता अशें दिसतकच असल्या भुरग्यांक निर्शेवणी येता. कसलीच ओड उरना आनी परिणाम हो. आज तीन दीस जाले तें शुद्धीर येना."

"पूण म्हजोय निरुपाय आसा दोतोर. नोकरी सोडूंक जायना आनी ताका दिवपाक जाय तो वेळ दिवंक मेळना. तरी म्हाका शेजान्न बरी मेळ्ळया. दनपारचें तीच करता सगळें."

"पूण हांगां प्रोब्लेम दुसरेंच जालां, तुजें लक्ष ताचेर पावना ताजो परिणाम तो."

"कितें जालां दोतोर?"

"तें प्रेगनण्ट आसा."

"कितें?" शीलाक आपल्याचेर दोंगर कोसळटा काय जालो. ळयां कडेन काळोख दिसपाक लागलो. आपल्याक सांवरून णें म्हणलें,

"शक्यूच ना. कशें शक्य आसा हें दोतोर. ताका समजता तें? सामकें इनोसेंट तें दोतोर!

"ताचोच फायदो घेतलो जातलो कोणेय तरी."

"पूण कोण घेतलो? आमी दोगांच घरांत आसतात. ऑफिसाक तना हांव ताका घेवन वतां. दनपारा तें येतकच शेजान्न ताका र उगडून दिता. मदीं मदीं ताका खावपाक पिवपाक दिवचें डटा. हांव तें काम शेजान्नीक सांगून वतां."

"तांगेर वाडिल्लो भुरगो बी आसा?"

"ना. चली. अकरावेक आसा अंदूं."

"मागीर हें अजाप घडलें कशें?"

"हांवूय तेंच म्हण्टां. तुमी म्हणटात तें शक्यूच ना. खंय तरी कतात तुमी दोतोर. तुमी रिपोर्ट सारखे पळयल्यात?"

"म्हाका तपासतना दुभाव आयलो म्हूण इतले सगले टॅस्ट ले न्हय. त्या इनोसेंट चलयेचेर नाका आशिल्लें बगलांट घालपाक ताका कितें पिशें लागलां?"

"आगो शीला, शेजान्नीले चलयेच इश्ट-मित्र स्टडी करपाक येनाशिल्ले मगो?" सुमनान दुभाव उगतायलो.

"कर्म म्हजें! कितें उलयतलें हांव आतां? म्हजी अख्खी ीण परसुवादीन जाल्या. तूं म्हणटा तशें आसूं येता. अभ्यास रपाक बी घर उगडून बसताले आसूं येता. "

"बुद्दीन मंद आसलें तरी शरीरान घसघशीत वाडिल्लें. मातशे ांगावयले कपडे हेवटेन तेवटेन जाले जाल्यार तरणाटें मन चळूं

येता.”

“शी बाये! बरें जावं नाका ताचें.”

“आतां फुडें कितें दोतोर?”

“एकूच उपाय हाका. एबोर्शन. पूण तें पयलीं नॉर्मलाचेर येवंक जाय.”

कितलो वेळ कोण कांय उलयलीं नात. सगळी वग्गी. शीला जनेलांतल्यान भायर शुन्यंत नदर घालून पुतळ्या भशेन थीर उबें राविल्लें. सुमन ताका पळयतालें आनी नीताक पळयतालें. दोतोरान कानांतलो स्टथेस्कोप कडून बॉल्सांत घालो आनी जड पावलांनी भायर सरलो. तो आपूण चेक अपाक आयिल्लो म्हणपाचें लेगीत विसरलो. सुमन ल्हवू नीताच्या उश्या कडेन वचून बसलें. नीताच्या कपळा वेल्यान हात फिरयलो. ताचो स्पर्श आज ताका वेगळोच लागलो. ताणें आपले ओंठ नीताच्या कपळार अचळय तेंकयले. तोय स्पर्श वेगळोच. ताका कच्च जालें. ताणें आंग काडलें. तें आड्डलें,

“शीला, शीला, बेल मार गो, दोतोराक आपय गो.”

“आगो जालां कितें?”

“आपय न्ही तूं!”

“दोनूच मिनटांनी दोतोर पावलो. ताणें नीताक तपासलें. नाडी पळयली, हड्डें चेपलें, तरा तरांनी ताणें ताका चेक केलें आनी निमाणें सांगलें, ‘सॉरी शी इज नो मोर.’

“कितें ऽ ऽ ऽ?”

दोगांय आड्डलीं. शीलान रडून रडून आकांत केलो. सुमन जितलें ताका समजायतालें तितलें तें चड रडटालें. सामकें हुडक्या हुडक्यांनी रडटालें. नीताक वेंग मारून मारून रडटालें. सामकें

ासावीस जालें.

“आतां कोणा खातीर जगूं हांव, तुजे खातीर जगतालें, तूं ासा म्हूण हांव उबें आसलें, तूंच म्हाका सोडून गेलें.” अशें णत तें खासावीस जालें. निमाणें ताचो ताळो पडलो. तरीपूण आङ्डूपाचें सोडिनासलें.

“निमाणें ताजी काकुळट येवन सुमनान म्हणलें,

“आगो, शीला, कितलें रडटलें तूं? आतां वगी राव. तुज्या तवाक सांबाळ. गेल्लें मनीस काय परतें येना. तुज्यान जातासर लें तुवें. फाल्यां तुज्यान नजो जातकच कितें जावपाचें? वेल्यान रें जालें म्हण. सुटलें तूं त्रासांतल्यान.”

शीलान अचकीत रडप थांबयलें. गंभीर जालें. उबें रावलें. ानी आशिल्लें नाशिल्लें बळगें एकठांय करून लागींच उबें ाशिल्ल्या सुमनाच्या कानसुलार जोरान थापट मारलें.

“आवयची माया भुरग्यांच्या त्रासांचेर अवलंबून आसना.”

सुमन सोमतेंच निण्णलें. कितें जालां तें कळचे पयलींच ाका घुंवळ येवपाक लागली. कानसुलां तांबडी जालीं. दोळ्यां डेन काळोख येवपाक लागलो. ताका आपूण आतां लकतलें ानी पडटलें शें दिसपाक लागलें आनी इतल्यान शीलान ताका ग मारली आनी परत हुटक्या हुटक्यांनी रडपाक लागलें. रडत डतूच ताणें म्हणलें,

“मंद बुद्दीचीं सगळीं भुरगीं म्हजीच भुरगीं समजतलें. म्हजीच रगीं तीं. आतां हांव नवे उमेदीन कामाक लागतलें.”

***

# सद्भावना पुरस्कार

"आरे, व्यंकू, येना तूं?" व्यंकू अजून भायर सरुंना हें पळोवन जानून विचारलें.

"खंय रे?"

"मिटींग आसा न्हय रे आज मंडळाची!"

"हय मरे, विसरलोच हांव. म्हत्वाची मिटींग मरे ती. आनी विसरलों कसो हांव?"

"हय! अंदू रुप्या उत्सवी वर्स न्हय रे?"

"हय, बस असो. पांच मिनटांत भायर सरतां."

"खरें म्हणल्यार तूं विसरपाचो न्हय. दर बसकेक आमकां उगडास करपी तूं. आनी तूंच विसरलो? अजाप!"

"पिराय सरता सरता म्हणल्यार मनीस सिरूक लागता."

"हें मंडळ तुगेलेंच पोर. गोंयचे सुटकेउपरांत आठ धा जाणांक घेवन तुवें हें मंडळ सुरू केल्लें. राष्ट्रीय सद्भावना मंडळ हें सुंदर शें नांव तुवेंच सुचयल्लें आनी आमी तें एका मतान पास केल्लें. आपणें सुचयल्लें नांव सगळयांक मान्य जालां म्हूण दुदफेणे वांटिल्ले तुवें."

"आरे, नांव सगळ्यांक मान्य जालां म्हूण दूदफेणे वांटूं
शिल्ले हांवें. मंडळ स्थापन केलां म्हूण वांटिल्ले ते जानू."

आज रुप्या उत्सवी दबाज्याची कार्यावळ थारावपाची
शिल्ली. गोंयचे सुटके दिसाच मंडळाचो वर्धापन दीस येता
शिल्ल्यान ह्या दिसाक त्या गांवांत एक वेगळेंच म्हत्व आयिल्लें.
यचे सुटके परस मंडळाची पिराय एका वर्सान उणी आशिल्ली.
वर्सा पंचविसावें वर्स आसलें तरी ते लोक दर वर्सा मंडळाच्या
र्धापन दिसा विंगड विंगड कार्यावळी करून गांवांतल्या लोकांक
कठांय हाडटाले. अश्या कार्यावळींनी लोक जमले म्हणटकच
कां भितर भावपण आनी मोग वाडटा आनी ते वरवीं गांवची
रगत सादपाक सोपें जाता अशें व्यंकूचें आनी ताच्या हेर
गात्यांचे मत आशिल्लें. कांय प्रमाणांत ते खरेंय आशिल्लें.

इतलेंच न्हय तर राष्ट्रीय कार्यावळींनी वांटो घेवपाक
णाट्यांक प्रोत्साहन दिताले. तरणाटेय व्हडा उमेदीन कार्यावळी
दर करताले आनी केंद्रा खातीर इनामां हाडटाले. देशांतल्या
माजिक मळार वावुरपी कांय संस्थां भितर राष्ट्रीय सद्भावना
डळ ही संस्था नामना जोडून आशिल्ली.

आयची सभा म्हत्वाची. आनी व्यंकूची उपस्थिती तर चड
जेची. गेल्ल्या पंचवीस वर्सांत ताणें शेकड्यांच्या संख्येनें संस्थेक
गडी जोडून दिल्ले. सुर्वेक बेकार तरणाटे जमोवन ताणें संस्थेची
पणूक केल्ली. ताचो एक हेतू आशिल्लो. तरणाट्यांनी बेकार
रून वायट मार्गाक लागचें न्हय आनी तांचे जिणेंत एक शिस्त
ची, बरें वळण लागचें. तरणाट्यांनी वायट निर्णय घेवचो न्हय
नी तो संस्थेक बादिकार जावन संस्थेचें नांव पिड्डेर जावचें न्हय
ण दर मिटिंगेक व्यंकू वेळांत वेळ काडून हाजीर रावतालो.
गीर मागीर संस्थेचे मिटिंगेक हाजीर रावप हें ताचें व्यसनच

जाल्लें.

ताणें मुस्तायकी चडयली, खुंटयाळावयली तोपी काडली आनी भायर सरलो.

“बरें जालें हां जानू. तुवें म्हाका उगडास करून दिलो. कामाचे गडबडींत आयची मिटींग हांव विसरूनच गेल्लों.”

ते दोगूय ताकतिकेन चलूंक लागले. ते पावना फुडें मिटींग सुरू जाली. मिटींग म्हत्वाची आशिल्ल्यान कमिटीच्या अध्यक्षान व्यंकूची वाट पळयली आनी पावतकच ताणें मिटींगेक सुरवात केली. अजंडाचेर विशय आशिल्लो भोवमान. दर वर्सा सामाजिक मळार बरो वावर केल्ल्या व्यक्तीचो ते पुरस्कार दिवन भोवमान करताले. संस्थेच्या ‘सद्‌भावना पुरस्कारा’क एक प्रतिष्ठा आयिल्ली. ह्या वर्सा तर तांचें रुप्या महात्सवी वर्स आशिल्लें. पुरस्कारा खातीर सगळ्यांक मान्य जाता अशें एक व्यक्तिमत्व सोदून काडप गरजेचें आशिल्लें.

मिटिंगेक एक एक नांव फुडें येतालें आनी ताचेर कोणाचो ना कोणाचो आक्षेप आसतालोच. चर्चा बरीच जाल्ली पूण सभा एका नांवाचो निर्णय घेवंक पावनाशिल्ली. व्यंकू थंड बसून आशिल्लो. तो मनांतल्या मनांत चिततालो, भोवमान निवळ आनी नितळ चरित्राच्या मनशाचोच जावपाक जाय. वांगड्यांक अशे व्यक्तीचें नांव मेळनाशिल्लें. कोणालेंय नांव फुडें येतालें आनी कोण ना कोण ताचो दोश काडटालो. अशे तरेन पांच स नांवां भायर पडलीं. मंडळाच्या सचिवान निमाणें व्यंकूक विचारलें,

“व्यंकूदाद, तुमी मनार घेतलेबगर ही चर्चा थांबपाची ना.” - व्यंकूदाद गालांतल्या गालांत हांसलो. ताणें म्हणलें,

“हांवें उलोवचेंच पडटलें?”

“हय!” सगळ्यांनी एकाच सुरान म्हणलें.

“अंदूं आमी दयाशंकर गांवकाराचो सत्कार करुंया.”

“राजकारण्यांचो सत्कार करचो न्हंय म्हूण तुवेंच सांगिल्लें
प्र व्यंकूदाद? तुगेलें म्हणणें संस्थेचो अलिखीत नेम जावन
ला.” धर्मून हुस्को उगतायलो.

“व्यंकू, तुवेंच म्हणिल्लें न्हय सत्कार निवळ, नितळ चरित्राच्या
शाचो जावपाक जाय.” जानून मर्दीच म्हणलें.

“आनी बऱ्या चरित्राचे राजकारणी सोदून लेगीत मेळपाचे
हें तुमीच म्हणिल्लें न्हय?” - एका तरणाट्यान विचारलें.

“हय रे! पूण आडवाद हो आसताच न्हय?”

“दाखयात म्हाका आयच्या राजकारण्यां भितर तुमकां जाय
लो मनीस?” धर्मून मातशे तिडकीन म्हणलें.

“आसूंकच शकना. मुर्दाड जाल्यात सगळे, मुर्दाड.” जानून
पलें मत दिलें.

“हय! पूण बरो मनीस उजवाडांत केन्नाच येना. आमीय
र लक्ष दिनात.”

“अशी व्यक्ती आसा आयच्या राजकारणांत?”

“आसा!”

“आसा? अजाप म्हणूंक जाय.”

“.अजाप कित्याक? आतांच सांगलें न्हय दयाशंकर
वकार म्हूण.”

“दयाशंकर गांवकार हो निवळ मनीस?” पांडून दुभाव
तायलो.

“ना जाल्यार तुमी सांगात, तो करप्ट मनीस? ताणें कोणाक

नोकरे लायतना पयशे घेतल्यात? ताणें लफडीं केल्यांत? तुमी आयकल्यांत जाल्यार सांगात." व्यंकून म्हणलें.

अख्खी सभा चिंतूंक पडली. विचार चक्रां घुंवपाक लागलीं. दर एकलो चिंतपाक लागलो, सोदपाक लागलो. ताका वायट थारावपाचो एक तरी प्रसंग मेळटा काय हाचो उगडास करपाक लागलो. हे सभेंतल्या चार पांच जाणांक तरी दयाशंकरान नोकरेक लायिल्ले. तांणी वयल्या आवाजान म्हणलें,

"आमचेकडल्यान ताणें कांय घेवना."

"हय मरे व्यंकूदाद. दयाशंकराच्या नांवाचें आमी केन्ना चिंतलेंच ना." जानून व्यंकूदादाच्या म्हणण्याक तेंको दिलो.

"पूण तो राजकारणी म्हूण ताचेर आमचें लक्ष गेलेंच ना." श्रीधरान सफाई दिवपाचो यत्न केलो.

"नेमावळींतलो लिखीत नेम न्हय तो. आमी तेन्ना थारायल्ले. एक खेप राजकारण्यांक आमी आसपावन घेतले जाल्यार मागीर ताका धरबंद कांयच उरचो ना. राजकारण्यांनीय आपली प्रतिश्ठा दवरूंक ना. समाजांत जशे सगळेच वायट आसनात तशे राजकारणीय सगळेच वायट आसनात. एक तरी बरो मनीस मेंळटलोच आनी तो एकलो आसा म्हूण हें जग चलता." व्यंकून आपल्या मताक घटसाण दिली. तो उबो रावलो आनी ताणें सभेक विचारलें,

"तुमचो कोणाचो दयाशंकराच्या नांवाक विरोध आसा?"

"ना. आमी एकमतान थाराव पास करुंया."

रुप्या महोत्सवी वर्सा दयाशंकर गांवकाराचो भौशीक भोवमान करचो असो एकमतान थाराव पास जालो. दयाशंकराक कळीत करपाचें काम सभेन व्यंकूचेर सोंपयलें. संस्थेच्या नांवान चीट

ागीर धाडची अशेंय थारायलें.

"पूण तुका एक सांगतां व्यंकू. ह्या संवसारांत निवळ नितळ ानीस मेळप भोव कठीण आं. दर एकल्याच्या तोंडार एक वेगळेंच ्पडें आसता. खरें रूप कोणाक पळोवंक मेळना." जना व्यंकूच्या ानांत फुतफुतलो.

"तशें जाल्यार पुरस्कारच दिवप बंद करचें पडटलें." अशें ्हणून व्यंकू मंद शें हांसलो. मिटींग सोंपली आनी तसोच व्यंकू ्याशंकरागेर पावलो. मंत्री जावंचे आदीं दयाशंकर आनी व्यंकूचे ंबंद घट्ट अशे नाशिल्ले. पूण गांवचो गांवांतल्या जाणटेल्यांतलो ातसो शिकिल्लो, समजिकायेचो मनीस आनी एक जाणकार ्हूण दयाशंकर व्यंकूक मानतालो. मंत्री जायत पसून गांवच्या िकासाचे कांय निर्णय घेतासतना तो मुद्दाम व्यंकूचें मत विचारले ागर रावनाशिल्लो.

आयचे कांय तरणाटे ताजेर मातशे जळटालेय बी. तांकां देसतालें आमी शिकिल्ले तरणाटे आसतना गांवच्या दर एका िर्णयाकडेन व्यंकूचो संबंद कित्याक हो तांकां प्रश्न पडटालो. ारी पूण लोकविचारांचेर ताची आशिल्ली जबर पकड पळोवन ते आवाज उठोवपाचो प्रयत्न करनाशिल्ले.

व्यंकूक पळयतनाच दयाशंकरान म्हणलें,

"कितें, आज वाट बी चुकलो व्यंकूदाद? याद जाली आमची?"

"तुजी न्हय. व्हनीबायची. तिच्या हातची च्या घेतल्यार खूब ोप जालो."

"तशें जाल्यार तुका कांय दीस वाट पळोवची पडटली. व्हनीबाय पयस गेल्या. बँगलोराक."

"बँगलोराक? इतले पैस?"

"हय! समाजसेवेचें भूत बसलां न्हय तिचे मानगुटेर."

"तिका तुजी मान्यताय नाशिल्ल्या भशेन उलयता मरे तूं दया."

दयाशंकर गांवचोच भुरगो. व्यंकूचे नदरे मुखार वाडिल्लो भुरगो. मंत्री जातकच लेगीत व्यंकूक तो जाण्टयांक दिवपाक जाय तसो आदर, मान दितालो. आनी दयाशंकर मंत्री जावन लेगीत व्यंकूय बी आरे तुरे वयल्यान आमी तुमीचेर गेलो नाशिल्लो. गांवांत आनी सरभोवंतणच्या गांवांनी व्यंकूक मेळटालो तो मान मंत्र्याले खुर्चेपरस व्हड आशिल्लो.

"आयज काल बायलांक घोवाची मान्यताय लागता रे व्यंकूदाद? हांवें म्हजे बायलेक पुराय स्वातंत्र्य दिलां".

"दिलां? दिलां म्हणल्यार? तूं कोण दिवपी?"

"बरें बाबा, तिजे योग्यतायेन तिका तें मेळ्ळां. आतां तरी जालें? बरो उतराक धरता मरे तूं!"

"केन्ना येता व्हनीबाय?"

"धा दिसांचो कॅम्प तिचो आज सोंपता. दोन दिसांभितर पावतली. कित्याक म्हूण आयिल्लो? तिचेकडेन काम आशिल्लें?"

"तशें काम तुजेचकडेन आशिल्लें. पूण खोशयेची खबर तिका आद्दीं सांगतलों आशिल्लों."

"कसली खबर?"

"अंदू वर्सा राष्ट्रीय सद्भावना मंडळाचो सद्भावना पुरस्कार तुका दिवपाचो केला. तसो थाराव एकमतान पास जाला.

"अजाप मरे व्यंकूदाद! राजकारण्यांच्या नशिबांत नाशिल्लो मरे तुमचो हो पुरस्कार."

“पूण तो अंदू वर्सा तुका लाबला. हाचेवयल्यान पळय.”

“कितें पळोवं? तुमच्या पुरस्काराचें म्हत्व उणें जालां काय ड्जो पावंडो वाडला?”

“राजकारण्याचो भोवमान आमी केन्नाच केलोना. तशी प्रथाच ा आमच्या मंडळाची. पूण हेर राजकारण्यां वरी तूं न्हय. तुजे वरी जकारण्याचो भोवमान जावंकूच जाय.”

“म्हजे वरी म्हणल्यार?”

“उजू मार्गार चलपी चरित्रवान राजकारणी. सगळ्याच जकारण्यांक एका मापान मेजप समा न्हय.”

“तुमी म्हज्या नांवाचो विचार केलो होच म्हजो व्हडलो ोवमान.”

“आमी विचार केलोच पूण संवसाराकूय कळपाक जाय ायच्या युगांत असलेय राजकारणी आसतात म्हूण.”

“सद्भावना पुरस्कार मेळप हाचेवरी व्हडलें भाग्य आनी कतें आसतलें? तुमी दितात तें व्हडपण स्वीकारपाची तांक म्हज्यान वं. कोणा दिसा येता तुमचो दबाजो.”

“दीस तुका कळीत करतले. व्हनीबायक सांग ही गोड बर. येतां हांव.”

हे वटेन बँगलोराक निर्मलाबाय आज खूश आशिल्ली. गलोराक येवन धा दीस जाल्ले आनी कॅम्पाची सांगता जावन ाज ती मेकळी जाल्ली. ह्या धा दिसांत तिणें तरातरांचे अणभव तेल्ले. जिविताक इतलीं आनी अशे तरेचीं आंगां आसतात हें णें पयलेच पावटी जाणून घेतिल्ले. बँगलोरच्या कॅम्पान तिका क नवी नदर दिल्ली. समाजाचीं बरी आनी निवळ अशीं आंगां णें पळयल्लीं आनी बिभत्स आनी भयानक आंगांय तिका दिसली.

समाजकार्य हो तिचो आवडटो विशय. बँगलोराक येवन तिका एक नवी दिका मेळ्ळी. गोंयां वचून हेच दिकेन काम करपाचें तिणें थारायलें. आज मेरेन तिका घोवाचोय जाय तसो आदार मेळिल्लो. राजकारण सांबाळूनय दयाशंकर तिका तिच्या कामांत हातभार लायतालो. घोवान आनी बायलेन हातांत हात घालून काम करतकच कशी धादोसकाय मेळटा हें तांणी गेल्ल्या वीस वर्सांच्या जिवितांत अणभवल्लें.

आज एके तरेची खोस तिका जाल्ली. गोंयां वतकच आपली एक नवी भौशीक जीण सुरू जातली हाची तिका खोस जाल्ली. बँगलोरच्या राबित्यांत तिच्यो वळखी वाडिल्ल्यो. कांय याद उरपाच्यो आनी कांय विसरपाच्यो. कांय वळखी तर मुद्दाम विसरुंकूच जाय अश्यो आशिल्ल्यो. पूण सरस्वती नांवाचें व्यक्तिमत्व मात ती कशीच विसरचीना. एक दोन दिसां भितर ती तिची इश्टीण जाल्ली आनी तिसऱ्याच दिसा तिणें निर्मलाबायक आपल्यागेर येवपाचें आमंत्रण दिल्लें. वेळांत वेळ काडून त्या दिसा ती सरस्वतीगेर वचून आयिल्ली. मनशाचो सभाव चड लागिंच्यान बरो कळटा. हांसऱ्या मुखाचे सरस्वतीचो सभाव भोव सोशीक तिच्या घरा पावतकच निर्मलाबायक कळ्ळें. तिची आनी एक वेगळीच काणी. त्यागाची आनी क्षमाशिळतेची. मोगाची आनी एक वेगळीच तरा. चाळिशी हुपिल्ली बायल. तिच्या जुवानपणांतले यादींचें गांठवल हेंच तिचें भांडवल. ह्या संवसारांत आवय सोडली जाल्यार आनी नातें गोतें कांय ना. ना उत्साह ना खोस. सुखाचे दीस केन्ना पळयलेच नात. धुवेचें चिंतून चिंतून आवय सदांच खंती.

निर्मलाबायचो आदर सत्कार मात सरस्वतीन खूब बरो केलो. खूब दिसांनी आपली भयणूच आपल्यागेर आयल्या अशे सरस्वतीक दिसलें.

“तूं येता काय ना हाचो म्हाका दुभावूच आशिल्लो.” रस्वतीन निर्मलाबाय भितर सरतनाच म्हणलें.

“कित्याक गे? हांवें तुका सांगिल्लेंच वचचेपयलीं तुका ळपाक येतलेंच म्हूण.”

“हो पेपर पळय, हो दयाशंकर, तुमचो मंत्री. वळखता तूं का?”

“आमचो मंत्री आनी हांव वळखना? अशे कशें जातलें?”

“कसो मंनीस गे?”

“बेस बरो. भांगर! भांगर!”

“पुरस्कर मेळ्ळा ताका. राष्ट्रीय सद्भावना पुरस्कार.” र्मलाबायच्या मुखामळार खोस फांकली हें सरस्वतीच्या ध्यानांत ायले ब्गर रावलें ना. तिणें पारखिलें, निर्मलाबायच्या हो लागींच्या त्यांतलो आसतलो वा इश्टमित्रां भितरलो आसतलो. तिणें शें विचारलेंय बी,

“आगे, ह्या मनशाक भांगर म्हणटा तूं हाचोच अर्थ खूब ागींच्यान वळखता तूं ताका.”

“आगे, तो म्हजो घरकार.”

“दयाशंकर तुजो मिस्टर?”

“दया म्हणटां हांव ताका.”

फुडें आनी सरस्वतीक उतर फुटलें ना. तिचें तोंड बाविल्ल्या शेन जालें. ती फुडें आनी कांय उलयली ना. वगीच रावली. र्मलाक तिचो मोनेळ खटकलो. तिची चर्या अकस्मात बदलपाक ारण कितें जालें हें निर्मलाक समजलें ना. केदो वेळ सरस्वती ग्गी रावली. निमाणें निर्मलानच उलोवपाक सुरवात केली.

"जाणां तूं सरस्वती, हें राष्ट्रीय सद्भावना मंडळ आसा न्हय, तें पॉलिटिशनाचो भोवमान केन्नाच करिनाशिल्लें. आमच्या दयाक तो मेळ्ळा. हाचे वयल्यान चींत दया कितलो क्लीन आसा तो. हें भाग्य फकत ताकाच लाबलां."

सरस्वतीन तोंडांतल्यान उतर काडलें ना. तिका आतां ह्या विशयाचेर कितेंच उलोवपाची इत्सा नाशिली. तो विशय बदलपाच्या हेतान तिणें म्हणलें,

"बस आं निर्मलाबाय. हांव च्या करून हाडटां तुका." तिणें आपली कुबडी हांतांत घेतली आनी ती रांदचे कुडीत गेली.

"कशी आसा आई?" म्हणत निर्मलाबाय स्वरस्वतीचे आईम्हऱ्यांत आशिल्ले खुर्चेचेर वचून बसली.

"केन्ना वचपी गोंयांत?"

"फाल्यां सकाळीं आठांक गाडी. सरस्वतीचो अकस्मात मूड बदललो सो? कितें जालें?"

"तशेंच तें. स्वभावच चिडचिडो सो जाला. मनांत कांय ना ताच्या. भोव सोशीक जालां तें."

"लग्नाचें जमलें ना खंयच?"

"मुद्दाम रावलां. मोगाचें पिशें मगो सामकें वायट."

"सफळ जालो ना?"

"ना. वाट पळयता ताची. पिराय काबार. सूख म्हूण पळयलें ना. जुवानपणाच्या यादींचेर दीस सारता. म्हजे उपरांत कितें जातलें हागेलें कोण जाणा. ना भाव ना भयण. पांय मोडिल्लो तेन्ना कोंबळे पिरायेची अवस्था. इकरावी पास जावन बारावेक पावलें. कोणायची नदर थिरावन उरपासारकी रूप रंगांत तांक. पारपोळ भुरग्यांची नदर वाटावन चलपाक सरस्वतीक कुस्तारच जातालें.

अशे अवस्थेंत कोण एकलो मेळ्ळो आनी नदरेच्या तिरांनी जालीं
ायाळ. आरे! हांव आनी कितें उलयतां. ती एक व्हडली काणी
ासा. तुका सांगली जाल्यार म्हाका पिसडून खातलें."

इतल्यान सरस्वती च्या घेवन भायर आयली आनी आवयलें
लोवप फुडें गेलें ना.

"चला! हुनहुनीत सो च्या घेवया." सरस्वतीन च्या दीत
हणलें. तिगांयनी च्या घेतलो. च्या घेतनाय कांय खबरी ना.
ांगा येवचे आदीं सरस्वती भितर जें मेकळेंपण आशिल्लें तें
व्रंयच्याखंय नाच जाल्लें. निर्मलाबाय उलयल्यार लेगीत हां हूं
तलीच जाप मेळटाली.सरस्वतीची बदलेली चर्या आनी
लोवण्यांत पडिल्लो फरक निर्मलाबायक समजना जालो.

" बरें गे, येता हांव," म्हूण निर्मलाबाय जड मनान भायर
ारली. सरस्वती तिका पावोवपाक दारा मेरेन आयली पूण तिच्या
ालचालींतली कृत्रिमताय निर्मलाक स्पश्ट जाणवताली.

दुसऱ्या दिसा निर्मलाबायचो गोंयचो प्रवास सुरू जालो.
ासल्या प्रवासांत निर्मलाबायक प्रसन्न दिसतालें. पूण आज ए.
ी. कोच आसूनय तिका थंड दिसनाशिल्लें. परत परत तिचे
कलेंत सरस्वतीची ती चर्या येताली. आठ धा दीस मेकळेपणान
ागपी सरस्वती काल अकस्मात अशी वागलीच कित्याक. आपलें
कतें चुकलें काय? दयाशंकराच्या भोवमानाची खबर वाचून ती
भीर जाल्ली. ना ना. खबर वाचून न्हय. तो म्हजो घोव म्हूण
ळटकच तिची चर्या बदलिल्ली. तिचे आईन एक वेगळीच काणी
ांगली. मोगाची आनी त्यागाची. म्हणजे ते काणयेचो संबंद
याशंकराकडेन....आसा काय? हय.... आसूंकच जाय. आरेच्या...
मुद्दो म्हाका काल कित्याक सुचलो ना? गाडेयचो प्रवास तिका
ावडटालो तो हे खातीर. प्रवासांतूच तिणें जा ते वेळा चिंतन

केलां, आत्मनितिक्षण केलां, आत्मप्ररिक्षण केलां. आनी तेंच तिका फुडारांत मार्गदर्शक थारलां. हातूंतल्यानूच जिवितांतले खूब शे प्रश्न सुटल्यात.

घरांत सरतनाच तिका येवकार दिवपाक घोवालें हांसरें मुखामळ उबें आसलें. घोवाचो उर्बेभरीत येवकार मेळटकच तिगेलो प्रवासाचो शीण खंयच्या खंय नाच जातालो. पूण आज तशें जालें ना. सदांचो हांसो आनी खोस आपले बायलेच्या तोंडार आज फांकली ना तें पळोवन दयाशंकराक अजाप जालें.

“कसो जालो प्रवास?” दयाशंकरान आपलो सदांचोच प्रश्न बायलेक केलो.

तिचो आवाज ना.

“एक खबर सांगूंक जाय. आयकून खोस जातली.तुक.” तिच्या मुखामळार कसलोच बदल ना.

“आगो तुका सांगतां हांव.” तरीपूण निर्मलाबाय गंभीर. दयाशंकर विरूस जालो. इतली खोशयेची खबर आपूण सांगपाक वतां आनी हें आपलें मक्ख. तरी पूण ताणें धाडस करून म्हणलेंच.,

“अंदू वर्साचो राष्ट्रीय सद्भावना पुरस्कार म्हाका फावो जाला. मंडळान म्हजो भोवमान करपाचें थारायलां.”

“जाणां! खबर आसा, वाचलां हांवें. राजकारणी मनशाक हो पुरस्कार मेळनाशिल्लो न्हय?”

दयाशेकर मुमुरकोच हांसलो.

“निवळ चरित्राचो मनीस तांकां मेळनाशिल्लो. तांकां जाय ते गूण म्हज्यांत तांणी पळयले म्हूण तो पुरस्कार म्हाका मेळ्ळो न्हय?”

“तुमी समाधानी आसात?”

"नासपाक कितें जालां? म्हज्या चरित्राचेर दाग ना."

"हें लोकांनी म्हणपाक जाय."

"लोकांक तशें दिसता म्हूण हो पुरस्कार म्हाका मेळ्ळा
य. लोक कित्याक? तूं लेगीत सदांच हेंच उलयतालें."

"उलयतालें."

"आज बदल्लें?"

"तुमकां मनापासून दिसता कीं त्या पुरस्काराक तुमी योग्य
सात अशें?"

"म्हणजे कितें? तांणी भोवमान करपाचें थारायलां तें
गीच?"

"पूण तुमकां कितें दिसता?"

"म्हजें मन साफ आसा. जिवितांत ज़ें जें कितें केलां तें
ाखातीर केलां. आज मेरेन कोणाक हांवें दुखोवं ना आनी
 म्हाका आफडूंक ना. म्हजे म्हाका हांव त्या भोवमानाक
ग्य समजतां, पात्र समजतां."

"चुकतात तुमी. बँगलोराक वचचे आदीं जाल्यार हांवूंय
 म्हणटलें आसलें. पूण आज न्हय."

"तूं आतां स्पश्ट उलय पळोवया."

"सरस्वतीक वळखतात तुमी?"

"कोण सरस्वती गो?"

"बँगलोराचें. विद्यार्थी परिशदेक तुमकां मेळिल्लें तें."

"आं.... हां..... तें सरस्वती? ताचें कितें जालें?"

"कशे तिरायताभशेन उलयतात पळय तुमी. तुमी मोग केल्लो
चेर."

"आगो सोळा सतरा वर्सां पिराये वयलीं भुरगेपणां गो ती. इतलें सिरियसली कित्याक घेता तें तूं? हांव केन्ना विसरलों तें. तेंय विसरलां आसतलें. निर्मल, तूं हांसतलें आयकून. आसेर्ताद मार खाला हांवें त्या दिसा."

"हेंय तुमी हांसूनच सांगतात? तें तर अजुनूय मरता तुमचेर."

"असले प्रसंग कोणाच्या जिवितांत येनात. इतलें सिरियसली घेतलां ताणें?"

"फाटल्यान ते चलयेचें कितें जालें हाची चवकशी तरी केल्ली तुमी?"

"चार दिसांची परीशद गो ती. सगलोच पांच स दीस उरलों हांव थंय. मैसूराक बी वतना तें म्हजेच बरोबर आशिल्लें. उलयतां उलयतां दिसलें, आमचे विचार पट्टात. म्हाका तें आवडूंक लागिल्लें आनी ताकाय हांव आवडलो. एक दीस एके दोंगुल्लेचे तेमयेर आशिल्ल्या मारुतीच्या देवळांत वचून दर्शन घेतलेंआनी लागींच बसून आमी खबरी करतालीं. तें त्याच कॉलेजाच्या भुरग्यांनी पळयलें आनी तांणी म्हाका असो मार दिलो म्हूण सांगूं तुका... तिनसांज आशिल्ली. तांचे तावडींतल्यान सुटका करून घेवन कसो बसो धांवत वाट मेळटा थंय सुटलों. एकदांचो रुमार हाडून जीव घालो. म्हाका दिसलें, ती म्हजी चूक आशिल्ली. आपल्या गांवांत येवन थंयचे चलयेचेर मोग करप हें थंयच्या तरणाट्यांक सोसलें ना. तांणी घालो म्हाका मार. हेंच म्हजें प्रायश्चीत अशें मनांत म्हणलें आनी ओगी बसलों. दुसऱ्या दिसा बस आशिल्ली. आयलों गोंयां."

"सरस्वतीन ताची कसली ख्यास्त भोगली ताची कल्पना लेगीत आयली ना तुमकां. ते गडबडींत तुमी बशिल्ल्या त्या तळपा वयल्यान तेंय भिरांतेन धावत सुटलें आनी दोंगराचे कडे

यल्यान पंदरा वीस मिटर शेंवटून सकयल पडलें. एक पांय
क्चर जावन तें सासणाचें अपंगूळ जालें."

"इतलें जालें? अशें हांवें चिंतलेंच ना. सरस्वतीन धाडिल्लो
। रकाद एके चलयेकडल्यान. आपूण हॉस्पिटलांत आसां. मेळपाक
:. पूण आदल्या दिसा पडिल्लो मार याद जालो आनी कलकलूंक
ागलें. त्या भुरग्यांनी पळयलें आनी परतो मार घालो जाल्यार.
वें हॉस्पिटलांत वचपाचो विचारच सोडून दिलो. सुरवातेकच
ालीं आडमेळीं जाल्यार उपरांत आनी कितलीं आडमेळीं येतलीं
चो अदमास करूं येतालो. आनी एक चिंतलें हांवें. तातूंतलो
कलो तरी तरणाटो सरस्वतीचो मोग करतालो आसूंक जाय.
 जाल्यार ओगीच कोण कोणाक मार घालता. ताच्या मार्गार
व आड आयिल्ल्या भशेन जालें ना? हांवेंच म्हज्या भावनांक
गाम घालो."

"पूण लग्नाचें उतर दिल्लें न्हय तुमी?"

"हय, आमी दोगांयनी तशें थारायल्लें खरें. तुका सांगलें
य. भिरांत दिसली गो म्हाका. घरचें चिंतलें. बाबाक पसंत
चें ना. भास वेगळी, संस्कार वेगळे. मागीर कुटुंबांत धूसपूस
तली. कोण सोंसतलो तें सगळें? चितलें, भोगूं तें. हुशार
गों! ताका मेळटलो म्हजेपरस बरो आनी हुशार भुरगो."

"तुमी भिजूडपणा केलीं. तें रावलें तुमची वाट पळयत."

"इतलें फुडें चिंतलें ना गो हांवें. शिक्षणूय सोंपूंक नाशिल्लें.
डलें शिक्षण घेवपाक मुंबय वचचें पडलें. पिराय वाडटा तितलो
ावांत फरक पडलो. जिवितांत गंभीरताय आयली. नवे नवे
ाभव आनी कामांत जायत गेल्ली उदरगत. सगळें विसरून
ों."

"हाचोच अर्थ सरस्वतीक तुमी सिरियसली घेतलेंच ना."

"तसो सहवासूय व्हडलो नासलो आनी तुका सांगलां तशें, तागेलो कोण तरी आसतलो हो विचार. तें इतलें मनार घेत हाची तर कल्पनाच नाशिल्ली."

"अजून तें तुमचो मोग करता. कितली वाट पळयली कोण जाणा ताणें. ताचे आईकडल्यान सगळी खबर म्हाका कळ्ळी."

"म्हजो घोव ताचे काणयेंतलो हिरो हें म्हाकाय खबर नाशिल्लें आनी ताकाय खबर नाशिल्लें."

"अश्यो घडणुको कितल्याश्योच घडटात मनशाच्या जिवितांत."

"आनी कितल्यो घडल्यो तुमच्या जिवितांत?"

"म्हज्या न्हय गो. होच एक दाग उरलो जिवितार."

"मोगी म्हूण न्हय तर मनीसपणाच्या नात्यान तरी तुमी ताची खबर घेवपाची."

"नकळटां म्हज्या जिविताक काळें खत लागलें."

"कांय खतां सासणाचीं चिकटतात. खत पडचे आदीं तें पडचें ना हाची जतनाय घेवपाक जाय."

"सद्‌भावना पुरस्कार न्हयकारचो अशें दिसता तुका?"

"तो तुमी विचार करात. पूण एक गजाल म्हाका सांगन शी दिसता. तुमी बँगलोराक वचून सरस्वतीक मेळचें. हांव जाल्यार येतां तुमच्या वांगडा."

"मान्य म्हाका."

***

# ब्रह्मदेवाल्यो गांठी

आज घरा वचपाचें ना? साडे स जालीं.

जालें, इतले हे स्टेटमेंटस् ई-मेल करतां आनी मागीर वतां.

सदांची बस गेली तुजी.

दुसरे बशीर वतलें.

हांव मदत करूं?

नाका. वीस पंचवीस मिनटांचें काम. जातलें रोखडेंच.

आई वाट पळयतली.

तिच्या म्हच्यांत येन्ना वचपाचें ना म्हाका.

येन्ना वचपाचें ना म्हणल्यार? घरा ना ती?

ह्या जगांतच ना ती.

सॉरी आं. वाट पळोवपी आनी कोणय आसतलोच न्हय? घरा कडेन?

ना! हांव एकलेंच रावतां.

इतले पयस बिराड केलां आनी एकलेंच रावता?

भाव अमेरिकेक रावता.

आनी भयणी?

भयणी ना. हांव एकलेंच. एक भाव एक भयण.

आनी.....

- आनी कितें?
- घरकार?
- अजून आंकवार.
- तुका पळोवन तें समजूंक जाय आशिल्लें म्हाका.
- आतां जग सुधारलां. दावल मंगळसुत्रा वयल्यान पयलीं चलयांक वळखताले. तुमचो गुन्यांव ना.
- चली वा चलो. म्हज्या मतान लग्ना बगर अर्दुकुटो.
- अशें काय नासता तें. लग्न, संवसार, भुरगीं म्हणल्यारच जिवीत न्हय.
- लग्न जावन संवसार करतात ते पिशे आसतात?
- आनिकय खूब गजाली अश्यो आसतात ज्यो जिविताक पूर्तताय दितात.
- हें तूं न्हय. तुज्यांतलें सळसळटें रगत उलयता.
- सळसळटें रगत न्हिवपाक लागलें. तीस क्रॉस केलीं हांवें.
- तीस? दिसना.
- थँक्स!
- फकत क्युरियोजिटी म्हूण एक प्रश्न विचारूं?
- खबर आसा कितें विचारतले तें.
- वायट दिसतलें जाल्यार विचारना.
- जनरली लग्ना विशींच्या प्रश्नांच्यो जापो दिवप हांव एवॉयड करतां. त्योच त्योच जापो दिवन बेजार आयला.
- वायट दिसतलें जाल्यार विचारना.
- वायट कितें दिसपाचें तातूंत? मन मेलां. विचारात तुमी प्रश्न. दितां हांव जाप. फकत तुमकां वायट दिसत म्हूण.
- आसूंच तें. भोंगूं.
- कित्या आसूं? मनांतलें मनांतूच दवरलें जाल्यार फुगार जातले

मी.

बरें! म्हाका विचारपाचें आशिल्लें, रुपान सुंदर, कायेन सुदृढ,
भावान गोड आसुनूय...

लग्न कित्याक जालें ना अशेंच विचारपाचें आसा न्ही?

सांगपाचें मनांत ना जाल्यार विशय बदलुंया.

कांय जाणांची प्रोपोजलां हांवें नाकारलीं, कांय जाणांनी म्हाका
कारलें.

म्हणजे फ्लॅटली न्हयकार दीत रावलें?

चिकित्सक नदर चड. हो भुरगो चडच लांब आसा. तो मोटवोच
ासा. हो मोटो आसा, तो बारीक आसा.

खंय तरी कॉम्प्रोमायज हो आसताच न्ही?

तरणे जिणेचे मस्तेंत दोळ्यांर साय येता. जेन्ना ती साय निवळटा
ानी परिस्थितीची जाणविकाय जाता, तेन्ना पिराय घसरिल्ली
ासता.

ूण फुडार म्हणटात तो आसताच न्हय?

फुडार आनी कितें? फुडाराचें कोण चिंतता? आयची मस्ती
डाराच्यो खस्ती पळयना.

ूण चल्यांनी कित्याक न्हयकारलें?

हांव बँगलोराक, आय. टी. सॅक्टरांत. चलो म्हणटा नोकरी
डून चंदिगडाक येवचें पडटलें.

मागीर चलो पसंत आसा जाल्यार वचूंक जातालें.

म्हजो अहम दुखवता. म्हजी बत्तीस हजारांची नोकरी आनी
ची तेवीस हजारांची . नोकरी हांवें सोडप काय ताणें सोडप?

वान बायले खातीर नोकरी सोडपाक जायना?

आतां कितें?

आतां कितें? एकोडी जीण.

ग्ली भुरग्याक बरेंच कठीण वतलें तें?

- चलो रावूं शकता जाल्यार चली कित्याक रावूं शकना?
- नाइलाज.
- दोगांयचो. चल्याचोय आनी चलयेचोय.
- घरांत कोण कोण आसा?
- बाबाय गेलो आनी आईय गेली. मरचे पयलीं म्हजें लग्न जावंचें अशी इत्सा आशिल्ली तांची. भाव अमेरिकेक आसा. जाता सर जीण सारपाची.
- अजून शक्य आसा.
- आतां आनी पिराय उरूंक ना.
- तीस म्हणल्यार कांय न्हय आं. आशा कित्याक सोडटा तूं?
- हांवें तुमकां सांगलां कितें? तीस क्रॉस केलीं म्हणल्यार एकतीस धरून एकोण चाळीस मेरेन कितलींय जावं येतात.
- पूण मातूय जाण्टेपण मारना आं तुज्या तोंडार.
- रुपाचें 'ग', पयशांचें 'ग' जातकच मनशाचीं पावलां जमनीर उरनात.... जालें म्हजें आं कॉम्प्युटर ऑफ करतां.
- बसचें पडटलें मातशें आतां. वॉचमन भायर वचून येतां म्हूण सांगून गेल्लो. अजून येवंक ना.
- तुमी खंय रावतात?
- हांगाच. गांवांतूच.
- म्हाकाय एक फ्लॅट पळयात न्हय. बशीर येवन वचप म्हणल्यार धांवपळ खूब जाता.
- हांगा घर मेळटा? मिनाचो धंदो तेजींत आयिल्ल्याक सगळें म्हारग जालां. बरो सो फ्लॅट मेळप कठीणूच जालां. पांच स हजार तरी भाडें सांगतात.
- जावं स हजार. जोडटा तें कोणा खातीर?
- कोण ना जाल्यार भाव आसा न्हय. भावालीं भुरगीं...

ती म्हज्या पयशांचेर आसात? हांवेंच जोडप हांवेंच मोडप. पळयात.
ुमी एक बरें घर. तुमकां लागीं शें पळयात. आनी कोणा कडेन
ळख ना ह्या गांवांत म्हजी.

आमचेच बिल्डिंगेंत एक फ्लॅट खाली आसा. विचारतां आं.

नाका, नाका. सामकेंच लागीं नाका.

कित्याक?

ओगीच तुमचे घरकान्नीक दुभाव घेवपाक कारण नाका.

ती भिरांत नाका तुका. हांवूय एकलोच रावतां.

घरकान्न?

कोण ना.

भुरगीं?

बायलच ना जाल्यार भुरगीं कशीं जातली?

बायल गेली सोडून?

आगो लग्नच जालों ना.

कित्याक?

ह्या कित्याक जाप आसा?

हांवें दिली ना?

तीच म्हजीय जाप.

म्हणजे तुमीय चलयांचें नॉत काडीत रावले म्हजे भशेन?

चलयो चल्यांचें नॉत काडीत रावल्यो जाल्यार चल्यांक तरी
लयो कशो मेळटल्यो?

पूण तुमी तर आतांच कॉम्प्रोमायजाचें उलयताले.

चले हजार कॉम्प्रोमायज करीत. चलयेन केलें ना जाल्यार कशें
ातलें?

तुमकां एकूय पसंत पडली ना चली?

हांवें पसंत करपाचो प्रश्नूच खंय येता?

- म्हणजे?

- आतां पयलींचो काळ उरूंक ना. पयलीं चलेकार चलयो पळयताले. पसंत, नापसंत करताले. अटी घालताले. अमकोच हुंडो जाय. अमक्योच वस्ती घालपाक जाय. अशो अटी मानवल्यो ना जाल्यार लग्नां मोडटाले लेगीत.

- आतां उरफाटें जालां?

- तुजीच देख घे न्ही. तुज्यो अटी फुलफील जाल्यो नात तुवें चक्क न्हयकार दिलो. म्हणजेच चल्याकं नापसंत केलें. ताचो डायरेक्ट इफेक्ट चल्याचेर जालो.

- अशें जाता तें न्ही?

- अशेंच जालें ना?

- प्रोपोजल येता. चली चल्याक मेळटा, पळयता, आनो नापसंत करता. न्हवरे भुरग्याक पसंत ना पसंत करपाची संद मेळटा खंय?

- हें उरफाटें जालें तर?

- काळ बदल्ला, काळा वांगडा परिस्थिती बदल्ल्या, शिक्षणाच्या आनी अर्थिकाच्या मळार चलयो स्वतंत्र जाल्यात. तांच्यांत जागृताय आयल्या. आनी लग्नाची व्याख्याच बदल्ल्या. संदर्भ बदल्ल्यात.

- पूण अजून हुंडाबळी बी जायत आसात चलयो.

- हय कांय राज्यांनी जाता तशें. तो अशिक्षणाचो परिणाम. जातलें, थंयूय जागृताय येतली. म्हजे बाबतींलींच एक दोन उदाहरणां दितां तुका. हांव एका खेड्यांत रावतालों. हांव लग्नाचो जालों तेन्ना सोयरिको येवपाक लागल्यो. एक दोन सोयरिको मोडल्यो. कित्याक खबर आसा तुका?

- सांगात, आयकुया, कित्याक?

- चलयेक चलो पसंत पडलो. पूण तिणें सांगलें, गांव म्हणल्यार

ामकेंच खेडें. घर तर रानांत आशिल्ले भशेन दिसता.

शिकिल्ल्यो चलयो, शारांत वाडिल्ल्यो चलयो खेड्यांनी रावतात?

खेड्यांनी राविल्ल्या चलयांची सपनां लेगीत शारांनी वचपाचीं ासतात.

तीच एक संद न्हय तांकां.

फुडें आयक म्हजे जिणेची मजा.

गांवांत नोकरी करताले?

आगो, नोकरेची गरजूच नाशिल्ली म्हाका. कुळागार, जमनीचें त्पन्न येतालेंच पूण हांवें तें नवी तकनीक वापरून चौपटीन वाडयलें.

केतें उपेग जालो?

कितें उपेग जालो म्हणल्यार? पयसो आयलो ना?

पूण म्हज्या आवय बापायक तितल्यांत समाधान नाशिल्लें. ापलो वंश वाडटलो कसो हो तांचो व्हड प्रश्न. निमाणें पुताचें ाग्न जावपाक जाय म्हूण आवय बापायन निर्णय घेतलो जमीन ानी घर विकपाचो.

आनी मागीर?

दोन वर्सां भितर शारांत बंगलो घेवन रावपाक आयलीं.

तरीय सोयरीक आयली ना?

शारांत आयलो म्हूण प्रश्न सुट्टा? एफ. डी. खूब वाडली पूण ोकरी ना. चलयेक चलो पसंत पडून न्हवरो बेकार, नोकरी ना ्हूण लग्न मोडलें.

हाय एक्स्पेक्टेशन्स!

इतल्यान सोपूंक ना. मागीर इंटरनेटाचेर सुरवात केली चलयो ोदपाक. एके चलयेचो होरोस्कोप टॅली जालो.

पळयलो कोणें?

हांव तातूंतलें शास्त्र जाणां. तरीपूण जोतिशाक दाखयलो.

- इतलो विश्वास होरोस्कोपाचेर?

- म्हजे परस आई बाबाचो चड. चलयेकारान तर बरयल्लें, होरोस्कोप मस्ट म्हूण. सामके बत्तीस गूण पडटाले.

- व्वा. खंय गडबडलें तर?

- व्हेबसायटीक पयशे भरचे पडटाले. ते भरले. उपरांत एक फोन नंबर मेळ्ळो. सांगलें, कॉंटेक्ट अमको. व्हंकलेचो भाव मेळ्ळो फोनाचेर. ताणें काडलो चलये कडेनच दिलो फोन.

- व्वा! डायरेक्ट कॉंटेक्ट. कितें सांगलें?

- सांगलें, नेटाचेर फोटो पळयलो, नक्षत्राक पडटा. पसंत आसा.

- मागीर ताची जाप?

- ताणें तीन प्रश्न केले आनी तिनूय प्रश्नांच्यो हांवें बरे भशेन जापो दिल्यो, आनी ताणें म्हाका नापास केलो.

- स्वाभिमान दुखवलो ना? उणेंपण दिसलें ना?

- उणेंपण कित्याक?

- चलयेन नापास केलो म्हूण?

- तातूंत कितें आसा? चल्या कडल्यान चलयेक न्हयकार मेळना? तशेंय जाता. निमित्त सांगतात नक्षत्राक पडना, प्रसाद जायना म्हूण. काळ बदलता ताची ही सुरवात म्हणलें आनी ओगी रावलों. बदलत्या काळाची सुलूस म्हाका पयलीं लागली.

- प्रश्न कसले आशिल्ले? आयकुया तरी.

- त्या प्रश्नांची तिका जाय तशी जाप हांव दिवंकूच शकलोंना. हांवूच न्हय, खंयच्याच चल्या कडेन ताजी जाप आसची ना. - तूं हांसता कित्याक?

- हरशींच. मजा दिसली आनी उत्सुकतायय आसा.

- हो तसलो हांसो न्हय. ह्या हांश्याक वेगळो सो अर्थ दिसला म्हाका.

कळटलो मागीर, तुमी सांगात.

यलो प्रश्न आशिल्लो, तुमची पॅकेज कितली? पॅकेज म्हणटकच
म्पलों हांव. मागीर लक्षांत आयलें. सांगली तिका वर्साची
ावळ.

ालयेन आपली सांगली ना?

हजे परस अडेच पटीन चड आशिल्ली तिची.

ागीर दुसरो प्रश्न?

दुसरो प्रश्न आशिल्लो, खड्डयार केंस आसात काय गांधीजी
ल्यात?

आयकून संताप मारपाचो न्हय? हाताक तें मेळिल्लें जाल्यार
 कानसुलार दितले आशिल्ले न्हय?

ारे केंस आशिल्ले गो म्हाका. नेटार तेन्नाचोच फोटो घाल्लो
ां. पूण इल्ले इल्ले केंस झडत गेले आनी हांव तरणेपणांतूच
ड्डो जाल्लों. हांवें खरें तें सांगलें.

तुमी सांगपाचें न्हय, तुका जाय जाल्यार माथोडी घालपाक
ता.

य गो! तश्शें सांगलें. तुका कशें कळ्ळें?

ॉजीक! सादी गजाल.

तिसरो प्रश्न तर हॉर्रीबल! तात्काळ न्हयकार दिवपाचो.

केत्याक दिलो ना?

क तर आई बाबाची इत्सा पुराय करपाची आशिल्ली आनी
रें, हांवें न्हयकार दिवपाचो विचार करचे पयलींच तिचे कडल्यान
प्रकार आयलो.

टेरेस्टींग जिणे-कथा आं.

श्न आयक, तिसरो प्रश्न. तुमच्या घरांत राहू - केतू आसात?
ग्रोगी शें? विचारलें ना राहू केतू म्हणल्यार कोण तें?
 आनी सांगपाक जाय? आवय आनी बापूय!

- संताप मारपाचो न्हय? म्हजेपरस तांकां उमेद म्हज्या लग्नाची. म्हजे परस तांकां ताकीद सून घरांत हाडपाची. आनी तांकांच राहू केतू म्हणप?
- चलयेकूय दोगांचोच सुपूल्लो सो संवसार करपाची उमेद आसची न्हय?
- करूं बावडी कोणाक घेवन करता ती. तिची उमेद भागोवपाक म्हजो बळी कित्याक?
- तुमचे परस तांचो बळी कित्याक?
- तांचो?
- आई बाबांचो.
- चलयेक आवय बापूय आसना काय? तांचो विचार ती करिना?
- तें सगळें कडबोळें शें आसा. खंयच्यान सुरू जाता आनी खंय सोपता कळना. तात्काळीक सायकॉलॉजी ती. फुडें कितें जातलें कोणाक कळना.
- तो पळय वॉचमन आयलो. या आमी.
- तें तितलें फ्लॅटाचें मातशें पळयात आं. गांव परकी, बशीन येवप वचप, बिराडांत एकलेंच. वाज येता.
- चडूय पयस उपेग ना तुका तो. लागींच पळोवचो पडटलो.
- सारकें तुमचें. एकोडेंच रावपाचें न्हय हांव! कितलोय जरी हांवें नेट मारलो तरी एकलें रावप कठीणच वता. भाड्याची चिंता करूं नाकात. भाडें दिवंक शकतां हांव.
- पयसो आसा जाल्यार नोकरी तरी कित्याक करपाक जाय?
- टायम पास. मेळटा त्या कळंतराचेरच फॉल्गां मारूंक शकतां हांव. जोडल्यात खूब, मोडप जायना. कितलेंय व्हड घर आसूं, कितलेंय ल्हान घर आसूं, कितलेंय सोबीत घर आसूं, घरांत मनीस ना जाल्यार खावपाक येता घर. हांगा, ह्या गांवांत घर मेळळें जाल्यार तुमचे कडेन तरी खबरी करून टायम पास जातलो.

चली भुरग्याक एकलें रावप खूब कठीण आसता.

चली जावं चलो. एकोडी जीण जगप म्हणल्यार खीण खीण
ोजून जीण सारची पडटा. आतां कळटा म्हाका. अख्या कुटुंबांत
ावतालें तेन्ना कांय कळ्ळें नाशिल्लें म्हाका.

गांव खंय तुजो?

कारवारच्या अवुरशां सारक्या खेड्यांत म्हजें भुरगेपण गेलें. जल्मूय
थ्यंयच. शिक्षण सोंपतकर बँगलोराक नोकरी मेळ्ळी. पगारय जाय
ाचे परस चड. जिवीत कशें सुरळीत वतालें. भाव अमेरिकेक
गेलो. आवयक पयशे धाडूं लागलो.

पयसोच वाट लायता सगळी.

सगळें आयतें आयतें, सहज घडटालें. म्हजें खंयच जुळना म्हूण
ुस्को करीत बापूय गेलो. ताच्या दुख्खान आवयन हांतरूण
धरलें. तिची सेवा करपाक म्हाका नोकरी सोडची पडली. ती
ातकच कुमठाचे बँकेंत नोकरी धरली. पांच वर्सांनी कुडचड्या
ायले शाखेंत बदली जाली.

मडगांवां शें रावूंक लागलें?

एका कलिगाचे वळखीन मडगांवां फ्लॅट मेळ्ळो. तीन म्हयने
नाले मडगांवच्यान येवन वतां. दीस बरो वता. रात सामकी
ावावंक येता. चिंतून चिंतून केन्ना भलायकी इबाडत कळना. एके
ाती दोन वरांचेर अकस्मात जागें जालें. पळयत जाल्यार जोरान
ांग फणफणटा. जोर आसा म्हूण कळटा पूण उठून थर्मामिटर
ाडून जोर पळोवपाक जमना. यत्न करून उठपाक लागलें जाल्यार
ठपाक जायना. तकली अशी सणसणूंक लागली, उबें रावल्यार
ुंवळ येता. दार उगडून शेजाऱ्याक सांगतलें म्हणल्यार आंगांत
ाण ना. कशें बशें लवणत लवणत आलमारी कडेन गेलें. थर्मामिटर
ाडलो. घालून पळयत जाल्यार अडेचां वयर जोर आसा. तशेंच
ुडकुडत न्हिदलें. कितें जाता तें जावं म्हणलें. तेन्ना मात दिसलें,

आपलो हक्काचो मनीस म्हऱ्यांत आसत जाल्यार मनशाक कसलोच भंय दिसना.

- खरें तुजें. आवय उपरांत बायलेक घोव आनी घोवाक बायल ह्या सारकें दुसरें नातेंच ना.

- तुमची वळख जाली. थोडो सो आदार दिसलो. बरें मागते आनी दोस्त म्हूण तुमकां लागीं असो फ्लॅट पळयात.

- तूं दादलो आशिल्लें जाल्यार म्हज्याच घरांत राव म्हणटलों आसलों. व्हड आसा घर.

- तुमची हरकत नासत जाल्यार म्हजी तयारी आसा. थोडेंशें प्रायश्चीतंय जातलें.

- प्रायश्चीत? म्हज्या घरांत?

- राहू - केतू म्हुणून अपमान केला ताचें.

- म्हणजे तें तूं? ...... हांसता कितें? आतां तर हांव कसोंच दवरिना तुका म्हज्या घरांत.

- सामकेंच जाणटें जावंक ना हांव. घरकामां सगळीं करूंक शकतां.

- आतां किडी निवळ्ळयो? कसली भास उलयल्लें तूं फोनार तेन्ना? सोबलें तुका?

- तेन्ना सोबतालें. आतां सोबना. जिणेचीं सपना पळोवप वेगळें आनी जीण जगप वेगळें आसता हें आतां कळटा म्हाका. अणभवान कळटा सगळें. आनीक वेगळो फ्लॅट पळोवपाची गरज ना.

- पूण लोक कितें म्हणटले?

- ताकाय उपाय आसा. भटाक मातसो आपोवपाचो. दोन माळी हाडपाच्यो. एक तुमच्या गळ्यांत, एक म्हज्या गळ्यांत.

***

# जुवारीचीं पांयजणां

(हे कथेच्या आदारार ह्याच नांवाची कादंबरी उजवाडाक
ायल्या)

साळावली न्हंय सोंपता खंय आनी जुवारी न्हंय सुरू
ाता खंय हें सारकें कोणाक खबर ना. कांय जाण साळावली
ंयच फुडें वचून जुवारी जाता अशें म्हणटात. पूण
ादारणपणान साळावली जंय सोंपता आनी जुवारी जंय
रू जाता अशी समजूत आसा थंयच मोण्णार वसला हो
ांव. हो गांव आनी लागसारचो अख्खो वाठार दोंगर
गुल्ल्यांनी रेवडायल्लो आशिल्ल्या कारणान सैमान कसलीच
रपीणकाय करिनासतना हात सोडून घसघशीत वरदान
लां. गोंयचो गांव म्हणटकच मांड माडयो नासतना कशें
ातलें? घोग्यांनी पावस पडलो जाल्यार हो गांव घोपर भर
दकांत बुडटा. पूण कांय वरां भितर दर्याक सुकती आयली
ंणटकच उदक देवूंक लागता. न्हंयचे सपाटी पासून मिटर
र उंचायेचेर हो गांव आशिल्ल्यान हुंवारान ह्या गांवाक व्हडलें
केन्ना लुकसाण जालेंच ना. पन्नास पाऊणशें घरांचो हो
ांव.पावसाळ्यांत केन्नाय केदोय हुंवार आयलो तरी उदक
ातर सरलेंच ना. हाचें कारण एक तर उदक भितर पावना

अशे उंचायेर घरां आशिल्लीं वा घराचे बुन्यादीचो चौथुरोच ऊंच काडून ताचेर घरां बांदिल्लीं आशिल्लीं. शारांचे सुधारणेचो वास लागुंनाशिल्ल्या ह्या गांवात जाणटेले आनी गंवडे कितले फिशाल आनी वास्तुशास्त्रज्ञ आशिल्ले तें हीं घरां पळयतकच कळटा. वास्तुशास्त्र ही आमच्या देशाची परंपरा. ह्या देशांत नगर आंखणी आनी घर बांदणींची वास्तूशास्त्र ही बुन्याद. पूण ह्या शास्त्रा कडेन शिक्षण म्हूण जेन्ना कोणे पळावंक नाशिल्लें तेन्ना तें शास्त्र गंवड्यांनी आनी घर बांदणेंत निपूण आशिल्ल्या लोकांनीच सांबाळून दवरिल्लें आसा. तांच्या रगतांतूच तें एकरूप जाल्लें आशिल्लें.

ह्या गांवांतलीं घरां तशीं धाकलीं धाकलींच आशिल्लीं. पूण तातूंतल्या कुडींची रचणूक आनी उजवाडा खातीर जनेलां वा उजवाडवाट पळयत जाल्यार आधुनीक आर्किटेक्चरा परस खंयच उणें दसनाशिल्लें.

खरें म्हणल्यार हो गांव संगमाचेर वसला. संगम तीन न्हंयांचो न्हय, तर तीन म्हालांचो. आसा अंत्रूज म्हालांत. पूण पन्नाशेक पावलां चल्लो म्हणटकच सांगें म्हालांत पावता. आनी तार काडून पलतडी गेलो जाल्यार केपें म्हालांत प्रवेश जाता.

धाकलू बल्कांवार चिंतेस्त बशिल्लो. तो बाबल्याची वाट पळयतालो. तो येतलो आनी आपूण ताका फुडलीं कामां सांगतलों म्हूण धाकलू चिंततालो. धाकलू म्हणटकच कोण तरी अशिक्षीत, गांवढळ असो मनीस दोळ्यांमुखार येता. पूण तशें निखालूस नाशिल्लें. हो बरो बरपाक्षरी मनीस. ते दोग भाव. एक भयण. व्हडलो दामोदर, दुसरो गुरू म्हणल्यार

ुरूदास. ताका सगले धाकलू म्हूण वळखताले. व्हडलो
ाव गांवच्या लोकां खातीर आनी इश्टमित्रां खातीर दामू
ालो. आनी गुरुदासाचो गुरू. गोंयकार देवांचीं आनी व्हड
ड अशीं नांवां दवरपाक आयकनात पूण तेच वांगडा नांवांचें
ारिकीकरण आनी विद्रुपीकरण करपांत गोंयकारांचो हात
रपी दुसरे कडेन खंयीय मेळप कठीण. दामोदराचें दामू,
श्वनाथाचें विसू, वा द्रौपदीचें दुरपदी, अनुसुयेचें अन्सू सहज
ाता. भयण व्हडल्या भावाक भाऊ म्हणटाली आनी धाकल्या
ावाक धाकलो भाऊ. धाकलो भाऊ! हें आनी इतलें लांब
ोण म्हणटलो म्हूण भयणीन पयल्या उतराचो निमाणो 'ओ'
चर काडून त्या जाग्यार भाऊचो 'ऊ' घालो आनी अशे तरेन
ाकलो भाऊ ह्या उतराचें सोपें रुपांतर धाकलू करून सोडलें.
ापल्या नांवांत बदल केन्ना जालो तें धाकल्या भाऊक केन्ना
ळळेंच ना. भयणीलें धाकलू आयकून आयकून अख्खो गांव
ाका धाकलू म्हणपाक लागलो. गांवचे जाणटे लोक धाकलू
्हणपाक लागले आनी हेर लोक आदरान उलो मारतना
ाकलूबाब म्हूण उलो मारपाक लागले. तो अख्ख्या गांवचो
ाकलू जावन पडलो.

पोर्तुगेज प्रायमरी स्कुलांत ताणें जिवीत भर मास्तरकी
ेली. त्या वेळार मुळावे शाळेंतल्या मास्तरांक प्रोफसोर
्हणपाची प्रथा. वाटेर कोणूय मेळ्ळो जाल्यार बाँ दीय प्रोफसोर
ा बाँ तार्द प्रोफसोर म्हूण हटकिले बगर रावनाशिल्लो. तागेले
िद्यार्थी तर गोंय मुक्ती उपरांतय ताका त्याच उतरांनी आदर
रताले. मूर्ती ल्हान पूण आवाज खणखणीत. भुरग्याचेर एक
ागसो घालो जाल्यार आवलांत आवाज काडपाचें तांकां
ाडस जायनाशिल्लें. ताचें एक थापट पडलें जाल्यार भुरगो

कलसावांत सू.... केले बगर रावनाशिल्लो. पांयांत बूट, तकलेर फिंर्गी पद्दतीचें चेपें, पुडवें आनी तातूंत मोटव्या हाताचें खोमीस इनशर्ट केल्लें, आनी ताचेर ग्रावात, पँट केन्ना घालनाशिल्लो. पँटीची पद्दत नाशिल्ली अशांतली गजाल न्हय, पूण पोर्तुगेज आनी भारतीय संस्कृती मेळून एक मिक्स कल्चर त्या वेळार गोंयांत चलतालें. चड करून प्रोफेसोर लोकां भितर..

जाणटेल्यांचें चार चवक्यांचें घर सोडून तो आपल्या बंगल्यांत येवन राविल्लो. एकत्र कुटूंब म्हूण आपल्या भुरग्यांक फॉरेनांतल्यान येतकच तांचे पद्दतीन रावपाक मेळचें म्हूण ताणें हो बंगलो बांदिल्लो. बंगलो बांदप उतरते पिरायेंत जाल्ल्यान जी कितें पूंजी बँकेंत आशिल्ली ती सोपोवन बशिल्लो. चलो दोतोर जाल्लो. मध्यम वर्गांतल्या लोकांक सदांच फोरेनाचें पिशें. म्हगेलो चलो फोरेन रिटर्न म्हूण म्हणून घेवपाक अती खोस. फोरेन रिटर्नाचो बापूय म्हूण म्हणून घेवपाक एक वेगळोच आनंद. फोरेन रिटर्न चल्याचें मोल तर सुमारा भायलें. धाकलून खूब खटपट करून धाडलो चल्याक अमेरिकेक. तो अमेरिकेक म्हूण गेलो आनी थंयच स्थायीक जालो. गोंयांत दोतोरकी चल्ली ना अशांतली गजाल न्हय. कितलेशेच दोतोर गोंयांत प्रॅक्टीस करून पयशे जोडटाले. पूण शिकिल्ल्या भुरग्यांक सदांच फॉरेनाचो हावेस आनी डॉलरांची ओड. हातूंत आनी भुरगो फॉरेनाक वचून येतकच आवय बापायक एक वेगळेंच तेज येता.

दुसरें चली. घोव जर्मनीक आशिल्लो.तें लग्न जावन जर्मनीक गेल्लें तें पांच वर्सांनी आयिल्लें. चार दीस येवन

कुळारा राविल्लें. मागीर रावपाक म्हूण आयलेंच ना. केन्नाय आयलेंच जाल्यार परकी शें आयिल्लें. उखलापेंच हेवटेन तेवटेन भोवलें आनी रोखडेच गेलें. बापायचें सोडात, आवय धुवेच्या नात्याचें एक वेगळेंच सूत्र आसता. तें लेगीत तांच्यांत दिसलें ना.

तिसरो चलो. तोय लंडनाक. नोकरेचे जंजाळ. भुरग्यांचें शिक्षण. असल्या व्यापांत आवय बापायची खबर घेवपाक ताकाय जमलेंच ना.

इतलोच ताचो संवसार. मोठे उमेदीन रीण काडून ताणें भुरग्यांक शिकयल्लीं. चली दिल्ल्या घरांत शिक्षणाक लागून नजेक पडूंक जायना म्हूण आनी चल्यांक आपल्या पांयांर उबे रावपा खातीर. आपले अर्थीक तांकी भायर ताणें आपल्या भुरग्यांक शिक्षण दिलें. व्हडल्याक दोतोर केला, दुसरयाक आर्किटेक्ट आनी तिसऱ्याक सी. ए. केलो. सगळींच लग्न जावन आपापल्या संवसारांत गुल्ल आशिल्लीं. आनीक कितें जाय एका मध्यम वर्गी गृहस्थाक? तीन दसकां वयर सुखा समाधानान बायले बांगडा संवसार केलो. भुरग्यांची भलायकी, तांचें शिक्षण, घर बांदप हातूंत संघर्श करचे पडले. असले त्रास खंयच्या संवसारी मनशाक पडनात? पूण खरी धांवपळ जाली आनी कश्ट काडचे पडले ते सर्वेशाक अमेरिकेक धाडपाच्या वेळार. एक भाट लेगीत विकचें पडलें. पूण भुरगे शिकून आपल्या पांयांर उबे रावचे आनी आपल्या म्हातारपणांत आपल्याक आदाराचो हात मेळचो हीच तर संवसाराची नाडी आसता.

दोन म्हयने जाले, धाकलूची घरकान्न मीराबाय

हॉस्पिटलांत एडमीट आशिल्ली. तिणें तर शॉकूच दिल्लो. दोगांय पडवेर बशिल्लीं खबरी करीत. घरांत दोगांच. सदांच गजाली कसल्यो करतलीं? भोवन भोवन भुरग्यांच्योच खबरी

"खरें म्हणल्यार आमी हे पिरायेचेर नातरांच्यो गजाली करपाच्यो. पूण करतात पुतांच्यो आनी धुवेच्यो" धाकलून बायलेक म्हणलें.

"नातरां वांगडा खेळून आमी भुरगीं जावपाचीं. पूण आमी नातरां पळयलीं खंय? नातरां जालींय परदेशांत, खेळ्ळींय परदेशांत आनी वाडलींय परदेशांत."

"तांकां भारत हो परकीचदेश!"

"ना, तशें जावंचें ना. पोर्तुगेजांच्या गोंयांत आसतना भारत आमकां परकी केन्ना दिसला?"

"आगे, ती गजाल वेगळी. आमी स्वातंत्र्याक आशेल्ले. तीं भुरगीं थंय स्वतंत्र आसात. त्या देशाचे ते नागरीक आसात. आमी फकत तांचो उगडास काडपाचो. संजू केदें जालें काय? रिना कितें शिकता काय? तांचें चिंतून वेळ पासार करपाचो. तांकां आमचीं नातीं लेगीत खबर आसा काय कोण जाणा!"

"रूख व्हडलो जालो आनी ताच्यो खांदयोय चारूय वाटांनी पसरल्यो म्हूण मुळाचें म्हत्व उणें जाता? नातीं विगड विंगड आसलीं म्हूण, ओड ही आसूंकच जाय न्हय!"

"तिगांय भुरग्यांचें भुरगेपण आमच्या दोळयां मुखार आसा. तांकां नातरां जालीं पूण आमकां तीं कुकुलींच दिसतात न्हय?

"सर्वेश जायत पसून ताचें दिमखुऱ्यानी चलप, उबो
वप, ताचें दुडू दुडू चलप, मागीर धांवप तें बद्द अमेरिकेक
च मेरेन सगळ्यो हालचाली दोळयां मुखार नाचतात."

तांगेल्यो अशो खबरी हालीं हालीं दिसपट्टयोच जाताल्यो.
काळीं उठलीं, न्हालीं, मीराबाय जेवण करपाक गेली आनी
कलू बाजारांत नुस्तें हाडपाक गेलो. जेवण जालें कीं पडवेर
सून तीं खबरी करीत बसलीं. हो तांचो नित्यक्रम. पूण त्या
सा खबरी करतां करतां ती अकस्मात कोसळ्ळी आनी
त पांय मारूंक लागली. कांय वेळान निपचीत पडली.
जाऱ्याक आपोवन रोखडीच तिका हॉस्पिटलांत व्हरपाची
कलून वेवस्था केली. आपूण एकलो, आपल्याच्यान धांवपळ
वंची ना म्हूण ताणें पुतांक आनी धुवेक फोन केलो. त्या
साच्यान ताका सुसेग ना. धड न्हाण ना, धड न्हीद ना, धड
वण ना. तीन म्हयने मीराबाय हॉस्पिटलांत उरली.

आजूच ताचे घरकान्नीक मीराबायक हॉस्पिटलांतल्यान
स्चार्ज मेळिल्लो. दोतोरान ताका शॉकूच दिल्लो. ताणें
गलें, एक दोन दीस काडल्यार बरी आसा. घडये चोवीस
ां भितरच सगलें सोंपूं येता. कोणाक आपोवपाचें आसल्यार
पयात. धाकलूचो आवरोच उडलो. ताणें म्हणलें,

"हांव एकलों, कशें जातलें सगळें?"

"येन्नाच तयारेक लागात. चड तकालस घेवं नाकात.
नचीय पिराय जाल्या."

"दोतोर मात लेगीत आशा ना? तशी तिजी पिराय जावंक
."

"ह्या वेळार फट उलवप म्हणल्यार म्हाका पातक लागतलें. मायेचो मनीस सोडून वता म्हणल्यार त्रास भोगतात. ती डावन जायत वता. ट्रीटमेंटाक मात लेगीत रिस्पॉन्स दिना."

"तशें न्हय दोतोर, तरी आसतना इतल्या वर्सांचो सांगात सोडून वता म्हण्टकच मन तयार जायना."

"तशें आमच्या हातांत कांय ना. हे स्थितींत उरतय बी. आनी अशे तरेन हॉस्पिटलांतूच खाटीर न्हिदून उरली जाल्यार कितली म्हूण तुमी सेवा करतले तिची? पयशा परी पयसो खर्च जातलो आनी तुमी एकले. तुमची इनर्जी कितली म्हूण घास्तार करतले तुमी? फुडें फुडें तुमकांच कोणाचोय तरी आदार जाय पडटलो. तुमी मनाक लावन घे नाकात. वयल्यान देवा कडेन मागात बेगीन तिची याद कर म्हूण. चलात आतां, फुडले तयारेक लागात."

ताणें चितलें, जीव वचचे पयलीं म्हूण केन्ना मरणाची तयारी करतात? आनी मरणाची पूण कसली तयारी करपाची? कितें कितें सामान जाय पडटलें हें तो चिंतूंक लागलो. एक कोंडो जाय. सूम बी असलें बारीक बारीक सामान. म्हत्वाचीं लाकडां. खरेपणीं कामाक लागल्यार बरें! आपूण एकलों. भुरगे आसून नाशिल्ल्या भशेन. भुरगे मागतात कित्याक? आपलो वंश फुडें चलचो, आपले कुडीक अग्नी दिवचो, वर्साक एक खेप तिथी दिसा ताळयार उदक घालचें म्हूण.

ती गेले उपरांत सगळे कडेन पावप कठीण. ताका उगडास जालो. घरांतलो कोणूय भायर पडलो जाल्यार शेजारी, भागेली, मुंडकार सगळे भर्र करून जमताले. सांगनासतना

गळीं कामां जातालीं. आतां ते संबंधूय तुटल्यात आनी दर
कलो कामांत इतलो व्यस्त आसा कीं कोणागेर वचपय
मना आनी दुसऱ्यालें दुख्ख आयकून कोणाच्या मनांत चर्र
ायना. ताणें आपलें मन घट केलें आनी तिरायताचे नदरेन
ापूण सगळीं कामां करतलों म्हूण मनांत थारायलें. तो तसोच
ून बाबल्यागेर गेलो आनी बाबल्याक सांगलें,

"घरा फाटल्या आंब्याचो खांदो मारपाक यो."

"कितें आंब्याचो खांदो? भाटकान्न गेली? "

ताका खबर आशिल्लें खंयच्याय खिणाक भाटकान्न
ल्ल्याची खबर कानार पडटली म्हूण."

"ना रे! पूण तयारी केल्ली बरी न्हय? "

धाकलूच्या तोंडार बायल आपल्याक सोडून वतली
णपाचें दुख्खूय नाशिल्लें आनी आपले भुरगे आसून तिच्या
रणाची सगळी तयारी आपल्याकूच करची पडटली म्हणपाची
तूय दिसनाशिल्ली. जें जें कितें घडटा तें घडपाचेंच आनी
का आपणेंच तोंड दिवपाचें अशी भावना ताच्या तोंडार
सताली. ते कोण पावचेले नात आनी येवचेलेय नात हें
का खबर आशिल्लें तरी पूण ताणें दोनूय पुतांक आनी
येक ट्रंक कॉल बूक केल्लोच.

"कोणीय मरचे आदीं ताची तयारी करप बरें दिसता?"
बल्यान ताका विचारलें.

"ना रे! आनी वायट जावपाचें आतां कितें उरलां?"

"शी! थुमेकाल! आयब तें!"

"म्हाका सांग, आमच्या घरांत हें थुमेकाल, आयब हीं कोणा खातीर पाळपाचीं रे बाबल्या?"

"तशें न्हय भाटकारा, एक रीत म्हूण आसता न्हय? एक पद्दत म्हूण आसता न्हय? "

"तेंच म्हणटां हांव. ही रीत ,पद्दत कोणा खातीर पाळपाची रे? घरा खातीर, फुडने पिळगे खातीर."

"आतां जिस्त उलयलो तूं भाटकारा."

"हें घर कोणा खातीर? आनी फुडली पिळगी खंय आसा? पिळग्यो बिळग्यो ते खंय मानतात? आमी दोगां जाणटेलीं. तिणें तर तिकेट काडल्या. प्रवासाक वचपाचो दीस लेगीत थारायला."

"पूण व्हडलो बाबा अमेरिकेक आसा. बाय आनी धाकलो बाब दोगांय भायर आसात. तांचे खातीर तुमीच चिंतप न्हय?"

"आरे, पूण तांकांय तशेंच दिसपाक नाका? सर्वेशान तर हात फाफुडले. आवय सिरियस आसा म्हूण कळयतकच आपल्याक कशेंच येवपाक मेळना, आपल्या नातवाचो बारसो आसा म्हूण कळयलें."

"म्हणजे, व्हडलो बाबा आजो जालो?"

"आरे हांव पणजो जालों. तुजी भाटकान्न पणजी जाली."

"बारसो बी करतात अमेरिकेक?"

“देव जाणा! आमचे पद्धतीन करतात काय अमेरिकेचे
द्तीन करतात देवाक खबर! धर्म, परंपरा खंय लागता
कां आतां?”

“तिका सांगात, पण्टू जाला म्हूण. कशी सडसडीत
हून बसता पळयात.”

“ती ह्या जगांत आसा खंय! ती कोमांत गेल्यार दोन
यने जाले. इतले दीस काडलेच कशे तिणें हेंच अजाप
ाता.”

“तिजो जीव घुटमळटा आसतलो आपल्या लोकांक
ळोवपाक.”

“पूत येतलो येतलो म्हूण खूब वाट पळयली तिणें. नातरां,
टुरां पळोवपाची इत्सा अर्दुकुटी उरली तिची. एकले धुवे
टेनच्यान नातरां पळयलीं तिणें. व्हडल्या पुताले बायलेक
ळयली. नातीक पळयली. पूण नातरां वांगडा खेळप, तांकां
ाणयो सांगप, तांच्या वांगडा भुरगीं जावन मस्ती करप,
य तिका मेळ्ळां आनी म्हाकाय बी? जाणटेपणांतल्यो
ोदी पुराय जाल्योच नात. जिवीत अपुरें, अतृप्त जाल्ले
शेन दिसता तिका.”

इतलें उलोवन तो मातसो शांत जालो. पूण ताचे भितर
लेल्लें वादळ बाबल्याक स्पश्ट दिसतालें. कांय वेळान तोच
तयलो,

“बाबल्या, एक कोंडो मारपाक देमूक सांगलां. मारलोय
तलो ताणें. केळीची एक अख्खी शिर्ती जाय पडटली.

पळोवन दवर. तिचो जीव गेलो म्हूण कळटकच कापून हाड. मातशें लक्ष दी आं बाबल्या. ऐन त्या वेळार म्हाका धांवपळ सोंसची ना रे. दायजी, शेजारी पाजारी येतलेच रे. पूण तयारेन राविल्लें बरें न्हय".

"तूं हुस्को करूं नाका भाटकारा. सगलीं कामां सारकीं जातलीं."

"तिका जाय तेन्ना प्राण सोडूं दी. सुखा समाधानान जीव सोडूं. आनीक तरी आमचें उरलां कितें? भुरगीं व्हड जालीं. आपापल्या संवसाराक लागलीं. तीच धादोसकाय."

"पूण एक खेपे तरी तांणीं येवन आवयक पळोवप न्हय?"

"हांवें कळोवपाचें कळयलें तिगांय भुरग्यांक. आवय सिरियस आसा म्हूण. आतां येवप ना येवप तांची मर्जी. सर्वेश तर येवचोच ना. तो अमेरिकन जाला. अमेरिकेचो जावंय न्हय तो. थंयचोच नागरीक जाला तो."

"पूण आतां परत एक फावट फोन कर भाटकारा."

"आतां आनी केन्ना कळय! आतां सोंपलें सगळें. रात काडल्यार व्हडली. पूण हांवें कळोंव नाशिल्लें अशें समजूं नाका तूं आं. म्हयनो भर पयलीं कळयल्लें. म्हयनो भर वाट पळयली हांवें."

"म्हयनो भर आदीं कळोवन लेगीत कोणूच आयलो ना? जल्म दिवपी आवय ती!"

"आपल्याक येवपाक वेळ ना. खूब बिजी आसां.

ोणाकूय आदाराक घेवन तिका हॉस्पिटलांत व्हर म्हूण हो ाका सांगता. हें सांगपाक हो जाय म्हाका? एक खरें ाबल्या, आतांचे भुरगेच वेव्हारी जाल्यात. तांकां फकत र्तमान दिसता. दोळ्यां मुखार येता तें. ना फाटलें ना फुडलें. ागळें सुधारलां बाबा आतां."

"म्हूण कितें जालें? आपल्याक जल्म दिवपी आवय-ापायक लेगीत विसरप?"

"अमेरिके सारखो फुडारिल्लो देश आनी थंयच्यो गोऱ्या ॉडमी पळयतकच हे इतले भुल्लुसतात कीं आपली जल्मभूंय, ापलो देश, आवय-बापूय कांयच लागना तांकां. सगळें ।सरून वतात."

"लग्न जातकच सुनबायक हाडिल्ली न्हय हांगा?"

"हय! तीय केन्ना रमली ना आनी तिचीं भुरगींय केन्ना मलीं नात. हे संस्कार, ते संस्कार! कशे जुळटले? जुळटात. ा अशें न्हय. पूण दोनीय वटांनी मिसळ भाजी करपाची ायारी आसूंक जाय. तुज्यो संवयो हांवें मानून घेवप, म्हज्यो ंवयो तुवें मानून घेवप. तुजे परस हांव श्रेश्ठ अशें मानल्यार कशें जावंचें?"

"आमीच बरे आसात भाटकारा, अन्नाडी. म्हगेलो पूत ाग्न जावन वेगळो रावलो, पूण म्हाका खातरी आसा, हांव ेलों जाल्यार म्हाका खांद दिवपाक तोच फुडें आसतलो."

"अती सुदारणाय मनशाक बादता. हाडांचीं काडां करून, ागताचें उदक करून हांकां व्हड करप. शिक्षण दिवन, संस्कार

दिवन मनीस म्हूण जगपा लायक करप. प्रसंग पडल्यार रीण काडून जिवीत भर फारीक करीत रावप आनी म्हातारपणांत जेन्ना हांची गरज आसता तेन्नाच हांणी पयस जावप, पयस रावप. तांकां दिसता आवय-बापूय आतां जाणटीं जाल्यांत. आतां तांकां जड जाल्यांत. पूण हांकां खबर ना, आवय-बापायक लागूनच तांकां हे दीस मेळ्ळयात. सुधारिल्ल्या जगाचो न्यायूच जाला असो. ताका कोण कितें करतलो? तूं चल घरा आतां बाबल्या. फाल्यां सकाळीं बेगीन यो."

"ना भाटकारा, रातीचो तूं हांगा एकलो रावूं नाका.."

"म्हाका कोण खातलो रे हांगा? मन घट आसा म्हजें.."

"तूं कितेंय म्हण. हांव येतां सांजे न्हिदपाक. रातचें बारीक बारीक सगळ्या सामानाची यादी बरोवन काडुंया. सकाळ फुडें सगळें सामान हाडून दितां."

धाकलून चिंतलें, दोग जाण आशिल्ले बरे. मदींच रातीचो तिचो जीव गेलो जाल्यार प्रेता वांगडा हांव एकलोच रात कसो सारतलों? ताणें बाबल्याक न्हिदूंक यो म्हूण सांगलें. बायलेलें पांगरूण सारकें केलें आनी कुलेरान पेजे निवोळ तिच्या तोंडांत घालो आनी तो रांदचे कुडींत गेलो. बाबलोय घरा वचपाक गेलो. डब्यांतले दोन मुठी तांदूळ घेतले, ते वेंचले, धुले आनी एका तोपांत घालून गळ्या मेरेन उदक घालें आनी गॅस पेटोवन पेजेक दवरलें. बायलेक घरा हाडीत पसून ताणें शीत केलेंच ना. दनपार रात पेजूच करून जेवतालो. दनपारां उरिल्ली पेज राती जेवतालो. सकाळ फुडें उठून एक च्या करून घेतालो. च्याचे वांगडा एक फाती बिस्कीट खाली

जाल्यार खाली नाजाल्यार दनपार मेरेन एके च्याचेर तो रावतालो. शीत रोस करून खावपाक वा हॉटेलांतल्यान कितेंय हाडून खावपाक ताका मन येनाशिल्लें. जी बायल बरें बरें करून घालताली तीच हांतरुणार पडल्या आनी आपणें खावप जेवप? असोच विचार ताच्या मनांत येतालो. आनी तो उबो रावपाक तांक येवपा पुरती पेज करून जेवतालो. खावपा जेवपाची आनी दुसरी कसलीच वान्सा ताका जाय नाशिल्ली. पेजेक दवरून तो भायर आयलो आनी ताणें बाबल्याक म्हणलें,

"चल तूं आतां घरा. हांव बसतां आतां हिचे सरीं."

"बरें तर." म्हूण बाबलो वचपाक लागलो. इतल्यांत धाकलूक कितें तरी येवजलें आनी ताणें बाबल्याक उलो मारलो,

"आरे बाबल्या, तूं आनी वता कित्याक? पेजेक घालां डांवें. इल्ली इल्ली जेवुंया."

"ना, येतां हांव रोखडोच वचून. घरा सांगूंक जाय. गोरवां गोठ्यांत आयल्यां जातलीं. तांकां दावें घालपाक जाय, उदक दिवपाक जाय."

"वचून यो तर. दोळो काय लागपाक ना. आळी पाळीन मातशी झेम काडुंया."

बाबलो गेलो आनी चड वेळान म्हणटा तसो धाकलूक एकांत मेळ्ळो. ताका सामकें पुरो जाल्ल्या भशेन जाल्लें. फाटले दोन म्हयने तो हॉस्पिटल आनी घरा कडेन पावटी नारीत आशिल्लो. कुडीन थकिल्लो. तेच भशेन मनाचेर अती

ताण पडिल्ल्यान तकली काम करिनासली. जिवीतभर जिणें सांगात दिलो ती अचकीत आपल्याक सोडून वता म्हणपाचें ताका कळ्ळें तें सोंसपच जड जाल्लें. आपल्याक एकलो उडोवन ती वता. तिचे उपरांत आपलें कशें हो यक्षप्रश्न ताका सतायतालो. ती आपूण शरिरां दोन पूण आत्मो एक. दुख्खाचे खीण तशे आनंदाचे खीण तांणी वाटून उडयले नात. ते एकठांयच भोगल्यात.

पूण आपूण पुतागेरय वचपाचों ना आनी धुवेगेरय वचपाचों ना अशें ताणें मनांतल्या मनांत थारयलें. फाटलें फुडलें सगलें चिंतून ताणें एक निश्चेव केलो. आतां केदेंय वादळ येवं वा हुंवार येवं, ताका धिरान तोंड दिवप. पूण लाचार जावन कोणाल्या दारांत वचप ना. उमेदीन बांदिल्ल्या आपल्याच घरांत आपूण मरतलों. कितें जाता तें ह्याच गावांत, ह्याच घरांत जावं दी. तृप्ततायेन प्राण सोडटलों.

तो रांदचे कुडींत गेलो. पेज पितळेंत वाडून घेतली. दोणांतली एक आंबली काडली. ती धुली आनी पेजे कुयां हातांत घेवन तिची उंडी केली. तोंडांत घालपाक ताका एक हुटको आयलो. आनी इतलो वेळ आडावन दवरिल्लीं दुकां बांद फुटून उदकाचो लोट व्हावंचो तशीं व्हांवलीं. बरोच वेळ तो रडटालो. ताका धीर दिवपाक, थाथारपाक थंय कोण नाशिल्लो. ओग वतकच आपूणच शांत जालो आनी इल्लोसो निवोळ पिवन उठलो. आयदनां व्हरून मोरयेंत दवरलीं.

भायर येवन बायलेचेर एक नदर मारली आनी कितें तरी चिंतून तो न्हिदचेले कुडींत गेलो. आलमार उगडली. इतल्यांत भाटकारा म्हूण बाबल्यान भायल्यान उलो मारलो.

"यो, भितर यो, कुडींत आसा हांव."

"कितें करता?"

"आलमार लायतां. सामान कशाय कशें पडलां रे भितर."

"तें आतांच लावपाक जाय?"

"पळय, एक म्हणल्यार तूं येता सर टायम पास जावपाक जाय आशिल्लो. आनी एक सांगतां, आतां मरे तुजे भाटकान्नी उपरांत चड वर्सां काडीत शीं दिसना हांव. तेन्ना मनांत कितें आयलें, सगळे दुकुमेंत, कागद पत्रां बी सगळें हाता कडेन मेळटात अशीं दवरुंया. तुकाय सांगतां, हीं भाटांचीं कागदपत्रां, हीं घराचीं....."

"कितें भाटकारा, तशें करपाक खूब वेळ आसा. तूं यो भायर."

"तूं घरचोच जाला बाबल्या, आपल्या मनशां परस तूं लागींचो जाला रे म्हाका. अडचणे वेळार पावतात तीं नातीं न्हय? तूं तर दर संकटा वेळार धांवून आयला. नात्या परस तुजे संबंद स्रेश्ट मानतां हांव. यो भायर सालांत. बसुंया."

भायर येवन धाकलू वॉल्तेरार बसलो आनी बाबलो एका कोनशाक वचून जमनीर बसपाक लागलो.

"थंय खंय बसता रे? असो यो. ह्या कदेलार बस."

"ना भाटकारा, तें कदेल आमकां न्हय."

"असो यो. कदेलार न्हय जाल्यार बांकार तरी ब

तो येवन बांकार बसता.

“भाटकान्न वतकच हें येदें व्हडलें घर तुका खावपाक येतलें भाटकारा.”

“आपुण अमेरिकेंत गोरे मॅडमी कडेन लग्न जालां अशी सर्वेशाची चीट आयिल्ली. खोस जाली ना रे, वेल्यान खंतूच जाली. चलो बापायक बरयता, आपूण लग्न जालों म्हूण तेन्नाच म्हाका जग कितलें फुडें पावलां हाचो अदमास आयिल्लो. तुजे भाटकान्नीचो तर आवरोच उडिल्लो.”

“उडपाचोच। आतांच असली खबर आयकली जाल्यार शॉक बसता. त्या काळार कितें जावपाचें? चितुंकूच जायना.”

“घरांत लग्न म्हणल्यार एक थाट आसतालो तेन्ना. चल्याक सोयरिको येवप, नक्षत्राक पडटा काय ना तें पळोवप, प्रसाद घेवप, व्हंकल पळोवप, पसंत करप,शेजरा-पाजरा चार चवगांक सांगप. एक वेगळोच अणभव रे तो. आतांच्या भुरग्यांक कितें ताचें?”

“एक वेगळीच खोस घेवन येतात ते दीस, न्हय भाटकारा?”

“पचयलें रे! तेंय विख्ख पचयलें आमी. हांवें पचयलें तें सोड पूण तुजे भाटकान्नीन पचयलें तें व्हडलें. पूण दुसरो पूत विरेश लंडनाक आसा, तोय असलें कितें करिना जाल्यार पुरो म्हूण तिणें देवा कडेन मागलें. ”

“लग्न करून धाडपाचीं तुमी तांकां.”

“कोणाक खबर रे असलें कितें जातलें म्हूण! एकत्र कुटूंब मरे, चर्चेक आनी थोमण्यांक वोतो आयलो. कोणा कोणाक म्हूण तोंड दितलो?”

“देखून तुमी व्हडलें घर सोडून हांगा रावपाक आयले दिसता.”

“तें एक कारण जालेंच. भुरगीं फोरेनाक आसात आनी तांकां पोरण्या घरांत रावप जमचें ना, ते खाकुडटले म्हूण नवें घर बांदलें. घर बांदतना चड करून व्हडले सुनेचो विचार केलो. ती परकी देशांतली. तिका जमनीर पंगतींत बसून जेवप जमचें ना., जमनीर न्हिदप जमचें ना आनी उगतें न्हाणीघर तर तिका कशेंच पसंत पडचें ना म्हूण मोठे उमेदीन नवें घर बांदलें हांवें.... आनी तें परंपरे प्रमाण गवंड्यां कडेन सोंपयलें ना. आर्किटेक्टा कडल्यान बरो प्लांत काडून घेतिल्लो. गोरे सुनेक कशेंच दिसपाक जायना आपूण खंयच्या अन्नाडी, गांवढळ लोकां मदीं पावली म्हूण. सुने खातीर म्हूण सगळया घरांच्यो सुविधा आशिल्लो बॅडरूम. शावर, गिजर बसयल्लो चकचकीत बाथरूम, नवे पद्धतीन तिजुले बसयल्लो आधुनीक संडास. संडास करतना आर्किटेक्टान सांगलें अमेरिकेचे लोक संडासाक तांबयो वापरिनात. तांकां टिश्यू पेपर लागतात.”

“टिश्यू पेपर म्हणल्यार कितें? आनी तो कित्याक वापरतात?”

“आरे, कितें सांगूं तुका? हें म्हाका समजावन दिवपाक आर्किटेक्टाक पांच मिनटां तरी लागलीं. हांवें ताकां फावो तारके सगळें केलें पूण त्या टिश्यू पेपराची वेवस्था मात

कशीच केली ना. घसघशीत उदक वापरपा जाग्यार पेपरान म्हूण पुसप रे?"

आतां मात बाबल्याच्या ध्यानांत आयलें. आनी ताणें शी म्हूण नाकाक घट्ट धरलें. त्या तंग वातावरणांत लेगीत दोगांयकूय हांसूंक आयले बगर रावलें ना."

"सांगपाचें म्हणल्यार हांवें म्हजी जिवीत भराची जोड आनी ताका जोडून थोडें रीण काडून आधुनीक पद्धतीचो बंगलो बांदलो. हांव सादो भावार्थी रे! पूत आनी सून ह्या बंगल्यांत कशींच रावचीं नात हें हांवें केन्नाच चिंतलें ना. अमेरिकेचो चकचक सोडून तीं हांगा रावपाक कशीं येतलीं?"

बाबलो मदींच उठून मिराबाय सरीं गेलो. ती निपचीत पडून आशिल्ली. हड्डें सकयल वयर जाता म्हूण समजुपाचें तिच्यांत अजून हापाप आसा म्हूण. दोळे उगते आशिल्ले पूण मातूय हालचाल करिनाशिल्ले. कितलो वेळ बाबलो तिका पळयत रावलो. निमाणें ताणें विचारलें,

"भाटकारा, तिका पोटाक कितेंय घालूंक नाका आशिल्लें?"

आतां आनी पोटाक कितें? आतां निमाणें तिच्या तोंडांत गंगाजळ."

"कशीं येतात तुज्या तोंडांतल्यान अशीं उतरां भाटकारा? कांयच दिसना अशें उलोवपाक?"

"ती वतली हें नक्की. तातूंत दिसपाचें आनी कितें उरलां? चाळीस वर्सां तिच्या वांगडा सांगातान काडलीं. केद्या दबाज्यान

ीका घरांत हाडिल्ली आमी! कितलो लोक! हुंबऱ्या वयलें
ाप पांयाच्या आंगठ्यान ओतयतना कितल्यो ताळयो! कितली
ग्रोस आनी कितली उमेद! गांटवल बांदून तिच्या हाताक
रून वाजत गाजत तिका घरांत घेतिल्ली हांवें. कुडी दोन
ानी जीव एक अशीच अवस्था जाल्ली रे आमची. तिका
ागल्यार म्हाका दुखतालें आनी हांव आपटल्यार तिका
ायस् जातालें. आनी आज? एकलीच वता ती म्हाका सोडून
डमूर खंयची!"

धाकलू आज उलयत वतालो. एकार एक यादी काडीत
तालो. ताच्या काळजाक आज उमाळो आयिल्लों.

"आरे बाबल्या, सोळा वर्सांची आशिल्ली ही म्हज्या घरांत
ायल्या तेन्ना. सप्तपदीच्या वेळार सात फेऱ्यांनी सात वचनां
देल्लीं मरे हिणें म्हाका. विसरली, सामकें विसरली."

"भाटकारा, तूं मातसो सुसेग घे पळोवया. चड उलोवं
ाका. फाल्यां काम खूब आसा तुका."

"हय, अग्नी दिवपाक जाय न्हय. पळय,पळय कशें सुकें
शेरपूट शें जालां पळय. भुर्र करून जळून वतलें. कशी दिसताली
ती हांगा हाडल्या तेन्ना! रसरशीत तुळशी रोप्या भशेन.
ानी आज जाल्या पळय सुकिल्लें तुळशीचें काश्ट शें."

ताका पळोवन बाबल्याक भिरांत दिसपाक लागली.
ाटकार भ्रमिश्ट बी जावन कितेंय उलयना मू, ताका दुभाव
ायलो. ताणें भाटकाराक कितलेंय सांगून पळयलें, मातसो
ुसेग घे, मातसो न्हीद, आपूण जागो रावतां, गरज पडल्यार
ुका उठयतां. पूण तो आयकुपाक तयार नासलो. उलयत

वतालो, उलयत वतालो. विशय मातसो हलको करपाच्या हेतून बाबल्यान विचारलें,

"भाटकारा, खरेलीच सुंदर दिसताली भाटकान्न?"

"सुंदर म्हणल्यार कितें? सामकी अप्सरा, अप्सरा."

"लग्न जावन बायलेक घेवन दुसऱ्या गांवांत बी वतात न्हय तसो बी गेलो ना? "

"हनिमुनाक वचप म्हणटात ताका हनिमुनाक. आमच्या वेळार हनिमून बी खंयचो रे? लग्न जावन पंदरा-वीस दीस बायलेचें तोंड लेगीत पळोवंक मेळ्ळें ना."

"अशें कशें तर, लिपोवन दवरली तिका?"

"तशें न्ही रे. लग्न जातकच फळसोबन जावचे पयलीं घोव-बायलेन एकठांय येवपाक जायना. तुमी पळय तें फळीसंबन म्हणनात तें. आतां तें लग्ना दिसाच करून उडयतात. आमच्या वेळार लग्ना उपरांत व्हंकल पयले फावट भश्टी जातकच पांचव्या वा सव्या दिसा करताले. म्हज्या वेळार म्हाका लग्ना उपरांत वीस दीस वाट पळोवची पडिल्ली."

"आरे म्हज्या बाबा!"

"पूण मजा येताली रे. तुजी व्हंकल घरांत वावुरता, ती तुज्या म्हऱ्यांतल्यान पासार जाता. पूण तुका उलोवंक मेळना पांयजणांचो मंद मंद आवाज येता न्हय तोच तुका पुरो जाता. तोच आपलो सो दिसता आनी तोच फुडलो दीस सारूंक पुरो जाता. घर गजबजलेलें आसता. ती तुका तिरपे नदरेन

पळयता, तूं तिका तिरपे नदरेन पळयता तरी पूण कोणाची तरी नदर तुमचेर आसता. तो ल्हवूच खांकून दाखयता. अशा वेळार तुका लज दिसुंकूच जाय."

"ह्यो खबरी आतां करपाच्यो रे भाटकारा? भाटकान्न कसले परिस्थितींत आसा!"

"आजूच करपाच्यो असल्यो खबरी. ती वचपाची आमी वाट पळयतात. तिच्यो खबरी करचे नात जाल्यार आनी कसल्यो करपाच्यो? जगावयल्यो? तिची एक एक याद दोळ्यां मुखावेल्यान सर्र सर्र करून सरकता मरे.... चल, मातशी नदर मारून यो तिचेर."

"आसा तश्शी आसा ती भाटकारा. कांयच हालचाल ना." तो तिका पळोवन येवन सांगता.

"बस, तर कितें सांगतालों हांव?"

"फळीसंबन जातकच मागीर मेकळीं तुमी."

"हय, आनी जाणटेलीं समजतालीं रे. नव्या जोडप्याक एकांत जाय, घरांत तो मेळचो ना म्हूण तांणी कितें करप जाणा, सांजेवेळचीं आमकां भोंवपाक धाडप. आनी आमी जुवारीचे देगो वयल्यान ल्हवू ल्हवू चलत रावप. त्याच वेळार न्हंयचे पलतडचे देगेर धक्याक पणजेच्यान आयिल्लो वाफोर लागतालो. तो पळोवप, वाफोरांतल्यान लोक देंवतात तें पळोवप. आलतडच्या लोकांक हाडपाक तारयो तार घेवन वतालो. त्या लोकां हाडून आलतडी पावयतालो. आमी तो देखाव एका तळपार बसून पळोवप. हांव कितलेशेच खेपे

पणजेच्यान वाफोरान आयलां, तारीन पलतडी गेलां, आलतडी आयलां. पूण मीरा वांगडा हें पळोवपांत एक वेगळोच आनंद मेळटालो."

"लग्न जातकच एका वेगळ्याच जगांत वावुरतात शे दिसता न्हय?"

"हय रे! सर्गसूख म्हणटात तें तेंच आसूंक जाय. आज लेगीत मीराच्या पांयजणांचो आवाज आनी जुवारीचीं थप थप करून देगेक आफुडपी ल्हारां म्हज्या कानांत घुमतात. त्या ल्हारांचो आनी मीराच्या पांयजणांचो कितें तरी संबंध आसूंकच जाय अशें आजूनय दिसता. जेन्ना फकत ल्हारां आयकतां तेन्ना मीराच्या पांयजणांचो आपशींच भास जाता. आनी जेन्ना मीराच्या पांयजणांचो आवाज आयकतां तेन्ना न्हंयचीं ल्हारां तांकां ताल धरतात शें दिसता."

"अशी गोड गोड आनी म्होवाळ भास भाटकाराच्या तोंडांतल्यान पयलेच फावट आयकतां हांव. भाटकारान तापोवप, धेंगसो घालप अशें आसता. तांणी फकत रांगडी भास उलोवप."

"त्या त्या वेळार ती ती भास उलोवपाची आसता रे बाबल्या. रगताच्या नेटार येता तूं म्हणटा ती भास. पूण तुका हांवें केन्नाच तसली भास वापरली ना आं. आनीं आतां कितें, सूम जळ्ळें पिळूय उरूंक ना. परिस्थिती घडयता रे."

घाकलूक तर परिस्थितीन खर धडो शिकयल्लो. तिनूय भुरगीं पयस जातकच आपली जीण ही मोख नाशिल्ली जीण अशेंच ताका दिसूंक लागिल्लें. रेंवटाळ सुवातेर बरें चल्ले

परांत ओएसीस दिसच्यो तशी तागेल्या जिवितांत मीरा ोएसीस जावन आशिल्ली. पूण तीय आतां ना जावपाचे यारेंत आशिल्ली."

"पूण खरें सांगूं, मीरा वांगडा जिवीत सारूंक लागलों ानी दिसपाक लागलें, जिवीत म्हणल्यार एक काव्यूच! आमी ोगांयनीय तर काव्य म्हणूनच पळयलां जिविता कडेन. मीरा ग्न जावन ह्या गांवांत आयली आनी हो गांवूच काव्यमय ालो. गांवाच्या मोगांतूच पडली ती. सुरवेक संवसाराचें जें माथ्यार नाशिल्लें. एक-दोन म्हयने फकत न्हंयची देग, कणीं-शेवणीं, झाडां-झोपां सगळीं धवळून काडलीं. बाबल्या, का याद आसा, तुवें एक दीस आंकूर हाडिल्ले पळय. आई शिनूंक बशिल्ली. मदींच ही आयली आनी आई सरीं बसली. ांकूर पळोवन तिणें विचारलें,"

'हें कितें आई?'

'हे आंकूर.'

'आंकूर म्हणल्यार कितें?'

'आंकूर म्हणल्या....र, आंकूर म्हणल्यार आंकूर ' आईक बावडेक आंकूर म्हणल्यार कितें सांगचें तेंच कळ्ळें ." 'तिणें फुडें म्हणलें, अजून कळ्ळें ना? ही भाजी गो. ची भाजी करतात.' तरीय मीराच्या मुखामळा वयलें न्नचिह्न गेलें ना हें आईक दिसतालें."

'धाकलू, सांजवेळा तुमी न्हंयचे देगेर पासयेक वतात य, थंय दाखय मीराक आं आंकूर खंय जातात ते. पणजे

ताणें असलें खंय पळयलां?'

"आनी तुका सांगतां बाबल्या, त्या सांजवेळा म्हाका भोगलां तें!"

"जालें कितें?"

"न्हंयचे सामके देगे वयले सुके मातयेर जायनात न्हय आंकूर?"

"ना. ओलसाणीच्या चिखलांत जावप तीं झोपां."

"आरे, आयक न्हय फुडें कितें जालें तें. हांव बरो न्हंयचे धडे वयले सुके सुवातीर उबो रावलों. आंकरांच्या झोपां कडेन बोट दाखोवन ताका सांगलें,"

'हीं तीं पळय बारीक बारीक झोपां दिसतात न्हय, तीं आंकरांचीं.'

'हीं झोपां पाचवीं पाचवीं दिसतात. ते आंकूर सामके तन्ने आशिल्ले.'

'हय गे, हांवें म्हणलें, झोपाच्या मदेकाक जो कोम फुट्टा तो तन्नो आसता. तोच काडपाक जाय. हें लागलें चलपाक पिशां भशेन. हांवें आड्डून सांगलें, आगे आगे, फाटीं सर. पांय चिखलांत मुंगरतलो.'

'म्हाका आंकूर पळोवपाक जाय. "हांवें म्हणलें, हांव हाडून दितां. म्हज्या हातांनी काडपाक जाय. कितें करतलों? धांवलों तिचे फाटल्यान. चिखोल वाटयत वाटयत मातशा सुक्या जाग्या वयल्यान व्हरपाक लागलों हांव तिका झोपां

नागीं. पूण खंयतरी तिका धरधरीत चिखलाची जमीन
मेळ्ळीच. पांय मुंगरलो आनी पांय वयर काडपाच्या बोवाळांत
नोतें उरलें चिखलांत आनी साडयेचे सकले देगेक सगळो
चिखोल. कशे बशे आंकूर काडले तिणें. तिच्या तोंडा वेली
त्रोस पळयत रावन शी दिसताली त्या दिसा. आतां म्हणलें
ना घरा. ल्हवू ल्हवू चिखलाचे निसरते वयल्यान आमी भायर
येवपाक लागलीं. आनी अचकीत सुर्र.. ढो असो आवाज
आयलो. फाट वळून पळयत जाल्यार हिणें जमनीर बसकण
घेतलां. तिचो तो चिखलान माखिल्लो अवतार पळोवन हांव
पळय इतलो हांसलां, इतलो हांसलां.... हांसत सुटलों.

“तिका हात दिवन उबारचें सोडून हांसत रावलो
भाटकारा? बाबलोय बी खो खो करून हांसलो.

“तो प्रसंग पळयनासतना तुका हांसूक आयलें जाल्यार
तांवें कितलें हांसपाक फावो आशिल्लें. म्हज्या तर दोळ्यां
मुखार घडिल्लें तें. ही वतकच कशें जातलें म्हजें देव जाणा!
भुरग्यांनी तिका समजून घेतलीच ना रे. हे भुरगे आपल्याच
विश्वांत गुल्ल आसतात. जाणटेल्यांकय आपलें मत आसता,
तांचेंय थोडें आयकून घेवपाक जाय हें तांकां कळच ना.
जाणटेल्यांनी आपले खातीर करपाकूच जाय, तें ताचें कर्तव्य.
आपलेंय बी जाणटेल्यां खातीर कर्तव्य आसता हें मात ते
विसरतात. ही मात केन्ना आपल्या जाणटेल्यांच्या उतरा भायर
गेली ना. आमच्या वेळारय दोन पिळग्यां मदीं अंतर आशिल्लें.
मतभेद आशिल्ले. पूण दोन पिळग्यां मदली घळ आतां रूंद
जाल्या. हो उदरगतीचो परिणाम काय विज्ञानान केल्ले फास्ट
प्रगतिचो परिणाम कोण जाणा! बाबल्या, म्हाका एक सांग,

आज ते हजारांनी डॉलर, लाखांनी रुपया जोडटा आसतीत गा, पूण तांकां फॉरेनाक धाडपाक आमीच कश्ट काडल्यात न्हय! आमीच हाडांचीं काडां करून तांची वचपाची वाट मेकळी केल्या न्हय!"

धाकलू आज पोट तिडकीन उलयतालो. बाबलो आज ताचो मुंडकार न्हय तर जिवाभावाचो इश्ट जाल्लो. एका इश्टा कडेन जशें मन मेकळें करता तशें आज तो बाबल्या कडेन मनाचें एकान एक कवड उगतें करीत आशिल्लो.

"त्यो सगळयो खबरी आतां आसूं भाटकारा. आतां तूं मातसो न्हीद पळोवया."

"आज मन मेकळें करता रे तुजे कडेन. कित्याक आडायता म्हाका? आज मूड आसा. फाल्यां तो आसतलोच अशें ना. मागीर तूंच म्हणटलो, भाटकार खूब कितें सांगतालो म्हाका, हांवेंच आडायलो. मनांतलीं उतरां मनांतूच उरलीं भाटकाराच्या अशें तूं म्हणटलो. तुकाच पश्चाताप जातलो पळय."

"बरें भाटकारा, उलय तूं उलय. फाल्यांचें फाल्यां."

"तुवें खूब केलां रे म्हजें. घरचीं सगळीं कामां तर केल्यांच, हाताक धरून बँकेंत, बाजारांत लेगीत व्हरून हाडला. कोण करता इतलें?"

"चाकरी करतां म्हणटकर तीं कामां करचींच पडटात न्हय! तातूंत व्हडलें शें कांय ना."

"चाकरी ही टायमशीर आसता. तुवें टायमाचेर केन्ना

ाक्ष दिलां? रात म्हणूं नाका, दीस म्हणूं नाका, तूं आमगेरूच ासता. तुका हांव विसरचोंना रे. वचचे पयलीं तुजी वेवस्था ारूंक जाय म्हाका."

"हें सगळें आजूच उलोवंक जाय? भाटकान्नील्यो खबरी ांगतालो, म्हजेर कित्याक पावलो तूं मदींच?"

"हांवूय केन्ना तिचे इत्से भायर गेलोंच ना रे. म्हण्टा हणटा तें केलें. मनाक खोस मेळटाली रे तिचें आयकून. ती ाका आशिल्ली मागणीय करिनाशिल्ली. तिणें आपले खातीर ांयच मागलें ना. विचित्र हट्ट आसताले तिचे."

"हय, आंकूर काडपाच्या हट्टा वेल्यान कळ्ळें तें म्हाका. ामच्यो बायलो लेगीत आंकूर काडपाक चडशो चनाशिल्ल्यो."

"फुडें आयक, एक आनी दोन न्हय, कितलोश्योच जाली आसात तिच्यो. आयकतलोच जा! कसल्या तरी ामित्तान आईन तिका पयशे दिले आनी साडी घे म्हणलें. ालें! रोखडीच साडी घेवया म्हणपाक लागली. साडयेचें त्व नाशिल्लें तिका. पणजे राविल्ले चलयेक हांगच्या जारांत साडी घेवपाची उमेद कसली? तिका जाय आशिल्लो जार पळोवपाक. ताच्याकूय चड उमेद तिका पलतडी चपाची. तारींत बसून पलतडीं वचपाचो अणभव तिका वपाक जाय आशिल्लो."

"ती इत्सा तुवें पुरी केल्याच जातली. पलतडीं बाजाराक ले बगर ह्या गांवांतल्या लोकांचें कशेंच जायना."

"तिका उत्सुकता आशिल्ली रे. ती इत्सा पुरी जाली. आईचे सांगणेन एक दीस व्हेली तिका हांवें पलतडीं. कितली खूश जाली म्हूण सांगूं! साडी बी घेवन, बाजार भोंवून बी बारा वरांचेर आमी परतलीं. येतना आमी दोगांच व्हड्यांत. जालें! हिगेलो हट्ट सुरू."

"पनेळांत आनी कसलो हट्ट?"

"तेंच तर खाशेलेंपण तिचें. तिका वेळ, काळ, सुवात कांयच लागनाशिल्लें. सगळ्यां कडेन भीड-मुर्वत दवरताली. पूण म्हजे कडेन केन्ना दवरलीच ना तिणें. मनांत आयलें, सांगून उडयलें. म्हणपाक लागली, तारयाक व्हडें म्हजे कडेन दी म्हूण सांग."

"आरे म्हज्या देवा! हो आनी कसलो हट्ट रे बाबा? हो जगा वेगळो हट्ट पुरयलो तुवें?"

"तारयो वळखीचो न्ही रे! तो जालो तयार. ताच्याच म्हऱ्यांत बस म्हूण सांगलें. ताचे म्हऱ्यात बसपाक कशीच तयार जायना. निमाणें दिलें व्हलें तिच्या हातांत. थोडो वेळ तारयान दिल्ले दिकेक लागून व्हडें नीट गेलें. पूण मागीर व्हांवलें. हांव भियेलों. पूण तारयान म्हाका कुरू करून ओगी केलो. आनी आपूण तिका शिकोवंक लागलो. निमाणें व्हडें तिणेंच तडीक लायलें. तिका खूब खूब आनंद जालो. हांवें लेगीत केन्ना व्हल्याक हात लायलो ना. केदी खोस जाली म्हूण सांगूं तिका!"

"गांवच्या बायलांनी अशें केन्नाच केलें ना. तांचे खातीर भाटकान्न म्हणल्यार एक नविदाद शी. पळोवपाक येताल्यो

ाय कितें तिका?"

"म्हणचे कितें? सर्कशींतल्यान बी धरून हाडिल्ली काय
कतें तिका? तशें सामकें भायर उडोवपाचें ना रे तुजें. सुरवातेक
कतें ना कितें निमित्त काडून येताल्यो रे. पूण कित्याक?
ांवांत एक फाम जाल्ली, धाकलूची बायल सुंदर आसा
हूण. तिका पळोवपाक कोण ना जाल्यार कोण बायल दर
हसा येतालीच."

"खरेंच! हालीं-हालीं लेगीत कितली सुंदर दिसताली
ाटकान्न! मागीर जुवानपणांत कितली सुंदर दिसूंक जाय
ी. पूण बरी आडांगी मरे ती!"

"आडांगपणां केलीं तिणें म्हजे कडेन. पूण एके शिमे
भितर. म्हाका सतावपाच्या हेतून न्हय. "

"मांय कडेन बी केन्ना केलीं ना मरे? "

"श्ये! तिचे मुखार सामकी आज्ञाधारक. थंड किरांव शें
दक. हूं ना चूं ना. तिका जर सांगत न्हय, तुजी सून अशी
ानी तशी म्हूण, खरेंच दिसनाशिल्लें तिका. मांय-मांवा मुखार
ापली एक वेगळीच प्रतिमा तयार केल्ली तिणें. तिचे वांगडा
रे गेले रे दीस. संवसारांत केन्नाच एकमेका विशीं कागाळ
ा, शीण ना, राग ना, झगडीं नात."

"राग ना, झगडीं नात, हें जावंकच शकना."

"हय रे बाबा, तुजें म्हणणें खरें आसा. राग येना, झगडीं
करना जाल्यार तें जोडपें कसलें आनी तें जिवीत कसलें.
ूण राग केन्ना येता? मतभेदाक लागून. पूण एक ध्यानांत

दवरूंक जाय, दुसऱ्याचेंय मत खरें आसूं येता. ताचे नदरेन तरी तें आसताच. तुजें मत खरें आसलें जाल्यार आज ना फाल्यां तें ताका पट्टलेंच. फकत वाट पळोवपाची गरज आसता ह्या न्यायान आमी दोगांय वागलीं. म्हजो एक इश्ट म्हाका सदांच म्हणटालो, तुमचें दैवी नातें. तें सगळ्यांकूच जमना."

"खरें ताचें. सगळ्यांचें तशें जायना. एक खेप संवसाराचे राटावळींत घुस्पलो न्हय मागीर कसलें सूख आनी कसलो आनंद! आनी कसलीं समजुतदारपणां!"

"पूण एक कुवाडें म्हाका केन्नाच सुटलें ना. सर्वेश लग्न करून आयलो तेन्ना आनी तेन्नाच्यान मीरा ताका माफ करूंक शकली ना. ताचे बायलेक रांदचे कुडींत तिणें केन्नाच येवंक दिलें ना. एके अमेरिकन चलयेक आमच्यो चाली-रिती, आमचें सोवळें शिकयले बगर कशें येतलें? मीरान तिका आपले रांदचे कुडींत आनी देवा कुडींत केन्नाच प्रवेश दिलो ना. तिका हांवें हजार वेळा सांगलें, तिका ह्या घरांतल्यो चाली-रिती, आमचे संस्कार, मनशा मनशा कडेन वागपाची पद्धत, तांचे एकमेकां कडले संबंद पयलीं शिकय. आमच्या समाजांत दर मनशा कडेन वागतना विंगड विंगड बंधनां सांबाळचीं पडटात. जाणट्यां कडेन वागप कशें, देरा कडेन वागप कशें, व्हडले जावे कडेन, धाकले जावे कडेन वागतना वेगळीं वेगळीं बंधनां पाळचीं पडटात. तीं तिका सांगले बगर कशीं येतलीं? घरांत आमचें एकमेकां कडेन वागप हें त्या त्या नात्याचेर अवलंबून आसा. अमेकिन समाजांत तें ना वा वेगळेतरेन आसतलें. एक खेप तर व्हडल्या घरांत पंचमीचें देवकारें आशिल्लें. थंय जेवणाच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो पंगती. तुका

खबर आसा तें. तिका पंगतीक बसूंक येना. जमनीर बसून जेवप त्या लोकांक जमना. घे मागीर. चारुय वाटांनी थोमण्यांचे बाण येवपाक लागले. आशिर्वादाच्या वेळार तर तिका साष्टांग नमस्कार घालूंकच येना. सगळे लोक हांसले. एकत्र कुटुंबांत जाता तें. सुनेनूय तें हांसून व्हेलें. पूण आमगेलेचो अपमान जालो. तिच्यांतले मांयचो अभिमान जागवलो. घरा येतकच वायट-बऱ्या उतरांनी सोलून काडली तिका. तरी बरें, मांयचीं खुबशीं उतरां सुनेक कळ्ळींच नात. मांय सुनेच्या गाळींचो कोश वेगळोच आसता. तो फकत अस्सल गोंयकार मांय आनी सुनेक खबर आसता.

हे सगळे शिश्टाचार मांयन सुनेक इल्ले इल्ले करून सांगूंक जाय आसले. पूण ना. ते बगर मांयपण कशें गाजोवपाक येतलें आशिल्लें? पूण हांव म्हणटां शिकयले बगर कशें येतलें? हेंच येना तेंच येना अशी कागाळ करून उपकरता? सुनांक बुद्द शिकोवप, तांच्यो चुको काडप हो आमच्या मांयांचो अधिकार. तो कसो वगडायतली ती? मांयचें वागप सुनेक विचित्र दिसलें. मुखेल म्हणल्यार मांयक येजमानीण म्हूण मिरोवंक मेळ्ळेंना. लग्नांत दोन चार साडयो बदलप, माथ्या वयल्या केसांपसून पांयाच्या नाखटा मेरेन भांगर शिंगर घालूंक मेळ्ळें ना. लग्नांत यजमानीणीचो एक वेगळोच झेत आसता. तो मेळ्ळो ना म्हूण तिका राग. काडली सुनेचेर तिडक. सुनेन येवचेंच बंद केलें."

"तिका एक समजलें ना. पुतान पूण समजुपाचें न्हय? ताणें आपल्या मुळाक विसरूंक जाता? रूख केदोय वाडलो म्हूण ताणें आपल्या पाळां-मुळांक विसरूंक जाता?"

“आरे दिसलें, ताकाय दिसलें. आपूण आपल्या पाळांमुळां पसून पयस पावलां हें ताका जाणवलें. पूण केन्ना? भुरगीं जालीं तेन्ना. तीं पाश्च्यात्य संस्कारांत वाडूंक लागलीं तेन्ना. तेन्ना आयलो भुरग्यांक घेवन पूण कळाव जाल्लो. जुवारींतल्यान उदक खूब व्हांवून गेल्लें. भुरगीं हांगा रमूंक पावलींच ना. परकी परकी शीं वागूंक लागलीं. पुस्तकांतल्या राकेसांक पळयल्ल्या भशेन तीं आमकां पळोवंक लागलीं. तांची भास धड आमकां येना. आमचीं तांकां येना. तांकांय आजी आज्या बद्दल, वा आमकांय नातरां विशीं एक आंतरीक ओड आसता ती दिसलीच ना केन्ना. बेगीनूच तिकेट काडून परत वचचें पडलें.”

“बऱ्या घराब्याची कशी अवस्था जाली पळय. खरें म्हणल्यार धाडूंकच जायना भुग्यांक देशा भायर.”

बाबलो भावूक जाल्लो. ताच्यान भाटकार आनी भाटकान्नीची दुर्दशा पळोवंक नजो जाल्ली. ताका भितरल्यान तिडक मारताली तांच्या भुरग्यांची.

“ अशें कशें जातलें बाबल्या? आवय बापायचें सपन आसता. आपल्या भुरग्यांनी खूब शिकचें, खूब व्हड जावंचें, नांव मेळोवचें, वयर वयर उडचें. इतलें वयर कीं तांच्याय वयर आनी कोणालोय भुरगो पावचो न्हय. पूण अंतरिक्षांत पावतकच भुंयेचें भान दवरूंक जाय हें तांकां कोण सांगतलो!”

“एक म्हणणी आसा. चार पुरिल्ल्या गांवांत परतो परतो कोणय येता म्हूण. आतांच्या भुरग्यांनी तें चुकीचें थारायलां. व्हडलो बाबा तर गांवचे ओडीन म्हूण केन्ना आयलोच ना.”

“ताचौय गुन्यांव ना रे बाबल्या. तो कितें करतलो? ताका आनी उपायूच नासलो. सांखळी घाल्ले भशेन बांदून पडलो. पूण आवय वेलो मोग आटलो अशेंय म्हणूं नजो. पाणें म्हाका बरयल्लें, आई आतां जाणटी जाल्या. तिका दशींनी भोंवडांव नाका. खंयीय वचपाचें आसल्यर टॅक्सी करून चलात. पयशे जाय जाल्यार बरय, हांव धाडटां. पूण हांवें केन्ना पयशे धाड म्हूण बरयलें ना. तशी गरजूय पडली ना. म्हजी येणावळ म्हाका पुरो जाताली.

म्हज्या बापायच्या काळार भाटां-बेसांक लागून देमांद जातालें. त्रिबुनालार पावटी पडटाल्यो आपलो वांटो मेळोवपाक. पूण आज त्या भाटांची गरज कोणाक आसा रे? भुरग्यां कडेन पयसो आसा. तांकां भाटांची गरज ना. फुडें फुडें भाटांचें कितें जातलें कोण जाणा! तुमच्या लोकांनीय कामां करपाचें सोडलें.”

“आमचे लोक आतां भाटां घेवपाक लागल्यात.”

“कांय तेपान तांकांय विकचीं पडटलीं. तेय नोकरी धंदो करूंक लागल्यात. तांच्योय गरजो पयशांनी भागतल्यो. भाटां ओस पडटकच तांकांय विकचीं पडटलीं. बांदतले व्हडल्यो बेल्डिंगो मागीर. भाटां-बेसांचेर आमचो जो मोग आशिल्लो, जो जीव आशिल्लो, तो आतां खंय दिश्टी पडटा तुका?”

धाकलू उलयत वतालो. इतलो तो केन्नाच उलोवंक नाशिल्लो. बाबल्या कडेन तर केन्नाच ना. भुरगीं परदेशांत वतकच बाबल्या कडेन ताचें उलोवप वाडिल्लें हें खरें. एकलेपणांत बाबलोच ताचो जिवाभावाचो इश्ट जाल्लो. हालीं

हालीं सोयऱ्यांनीय येवपाचें उणेंच केल्लें. दायजी आनी बापोलभावां कडेन वितुश्टूच निर्माण जाल्लें. हाडांचो सांपळो खाटीर आसा आनी तो गादयेंत इतलो भितर गेला. म्हऱ्यात वतकरूच थंय एक बायल मनीस न्हिदल्या म्हणपाचें जाणवतालें. तो उलयतां उलयतां खाटी कडेन गेलो. तिचें पांगरूण सारखें केलें आनी वाळू मातशी वांकडी जाल्ले भशेन दिसली ती एके वटेंतल्यान दामून सारखी करपाचो यत्न केलो. बाबल्या म्हऱ्यात आयलो. बाबलो मातसो झेमेता म्हणपाची ताका जाणविकाय जाली. ताणें म्हणलें,

"बाबल्या, न्हिदता तूं?"

"ना, ना भाटकारा."

"झेमता कित्याक? न्हीद मातसो."

"ना भाटकारा, तूं मातसो आड पड."

"म्हाका न्हीद येना. आमी इल्ली च्या करुंया बाबल्या. न्हीद वतली तुजी."

"हय भाटकारा, कडकशें कितेंय ताळयार पडल्यार बरें दिसता."

"इतलो वेळ सांगलें ना कित्याक तर तुवें?"

"हो वेळ च्या कर म्हूण सांगपाचो भाटकारा?

"करुंया आं च्या. बरो कडकसो इल्लो च्या घेवया. ताळो भाजपाक जाय."

“कोरी च्या कर आं भाटकारा.”

“जाणा रे हांव, तुका फुटी च्या आवडटा म्हूण. तूं बिस्कीट बी कितें खातलो?”

“खावपाक कांय नाका.”

“आयलों हांव आं.”

धाकलू भितर गेलो. मोरयेंत खूबशीं आयदनां घांशिनासतना पडिल्लीं. तातूंतलो एक ल्हानसो तोप काडलो, बरो धुलो आनी दोन पेले उदक घालून च्याक दवरलें. बाबलोय आपल्या जाग्या वयल्यान उठलो आनी पांय सैल करपाक म्हूण आपुणूय रांदचे कुडींत गेलो. ताणें पळयलें, ओटट्यार जळामळा डबे आनी आयदनां पडल्यांत आनी मोरयेंत बारीक मोटट्या आयदनांची रास जाल्या. ताणें विचारलें,

“हें कितें भाटकारा? आयदनांची रास पडल्या हांगा. शांतू आयलें ना वावराक? तणशी खंय आसा?”

“ती पळय त्या कोनशाक.”

“आनी गोबोर?”

“तो पळय शाबू दिसता न्हय तो आयदनांचो शाबू.”

“बरें बाबा! मनशाक एक न्हाणवपाक शाबू लागता, आतां आयदनांकय न्हाणोवपाक शाबू आयले?”

“स्वातंत्र्या उपरांत आतां हें सगळें तयार मेळटा. रेडिमेड आतां सगळीं आयदनां घांसपाक बसतलो तूं?”

“पळय कितलीं फास्ट घांसता तीं. पटापट घांसतां.

“पयलीं च्या, मागीर घांस.

“च्या करून पयलीं सकयल काडून पेल्यांत घालता सर अर्दीं आयदनां घांसून जातलीं.

“आठ दीस जाले. शांतूय बरें ना. कशें येतलें? ताचे पयलीं हांव घरा धड खंय आशिल्लों? तुका हॉस्पिटलांत दवरून हांव घरा येतालों. इल्ली पेज शिजोवन व्हरतालों तुजे भाटकान्नी खातीर. आयदनां बियदनांचेर लक्ष दिवपाक वेळ खंय आशिल्लो?”

“भाटकान्न रांदचेकुडींत आसताली. सगळें जंयचें थंय आसतालें. ओटो धुवून पुसून निवळ आनी मोरी तर चकाचक आसताली.”

“हय बाबा! खरें तुजें. जाचें काम ताणें करपाचें. बायलांचीं कामां दादल्यांक कोणें सांगल्यांत?”

“आनी दादल्यांचीं कामां बायलांक जमचीं नात.”

“घरचीं कामां सांबाळून लेगीत भायलीं कामां करपाचीय तिका खूब उमेद. हांव घरा ना जाल्यार ती बाजारांत वचून येताली. गेल्लीं चार-पांच वर्सां मात तिच्यान जायनाशिल्लें. म्हजीय पिराय जाल्ली.”

“हय, मागीर म्हाका वांगडा घेवन तुमी वचपाक लागले.”

“घरांतलीं कामां लेगीत तूं वा शांतू करतालीं. पूण एक खरें, तिणें आपलो नेम केन्ना चुकयलो ना. बशिल्ले कडेन ती

शांतू कडल्यान सगळें करून घेताली. पूण शीत शांतूक करपाक दिनाशिल्ली. तांदूळ घालून शीत हांवें वाळपाक जाय आशिल्लें. हांव घरांत ना जाल्यार हांव ये सर रावताली. पूण शांतून केल्लें शीत केन्नाच जेविनाशिल्ली."

"हय! तें आनी कोंत केन्ना कळ्ळेंच ना म्हाका. अशें कितें तें?"

"हेर सगळें रांदप शांतून केल्यार जातालें. तें निलोपें. शीत लेप न्हय! तें शांतूल्या हातचें उपकर नाशिल्लें. इतलेंच न्हय तर हांवें वा घरांतल्या आनी कोणेंय केले जाल्यार लेगीत तें न्हावन-धुवन करपाक जाय आशिल्लें. भयरो जाळोप रे सगळो. आरे, घोव जेवले बगर बायलेन जेवपाक जायना असो आमचो नेम. आनी तो नेम कडक रितीन ती पाळटाली."

"इतली कडक आशिल्ली भाटकान्न?"

"लग्न जाल्या तेन्ना तर नाशिल्लीच ती. मांयन जे संस्कार केल्यात ते ती फुडें व्हरताली. फाटले पिळगेन फुडले पिळगेक दिवप आनी फुडले पिळगेन तें फुडें व्हरप. ही लागण मरे बायलांकडल्यान चड जाता."

उलयतां उलयतां ओटो आनी मोरी दोगांयनी मेळून मेकळी केली. आयदनां जागचे जाग्यार घलीं. आनी ते भायर येवन मिराच्या खाटी म्हऱ्यात मातसो वेळ घुटमळ्ळे. कितें करूं कितें नाका हेंच तांकां कळना जालें. निमाणें ते आपल्या जाग्यार वचून बसले. आनी इतल्यांत फोनाची रींग वाजली.

"हांवेंच ट्रंक कॉल बूक केल्लो सर्वेशाक आनी नितिनाक".

मेळ्ळो दिसता. ताणें रिसिवर काडलो आनी 'हॅलो' म्हणलें.

"बाबा हांव उलयतां, शमी. कशी आसा आई?"

"कांय खरें नो तिजें. दोतोर म्हणटा, आज फाल्यां वतली ती."

"म्हाका येवपाक कशेच मेळना बाबा. भुरग्यांची धांदळ जाता. फुडल्या म्हयन्यांत येवपाक मेळटा जाल्यार येतात सगळीं."

"आं गो! तूं आयलें म्हूण कितें करतलें? खरें म्हणल्यार, तुज्या भावांची गरज आशिल्ली हांगां. ताणींच तोंड फिरयलां."

"तांच्योय कितेंय अडचणी आसतल्यो रे बाबा. लायफ तितलें इजी ना. धकचपाटचार्चें जालां. पयस रावून कळना तें."

"तूं तांचोच पाखो घेतलें गो. वळखतां हांव तुमकां भुरगेपणांतल्यान."

"बरें बाबा. तूं तुज्या जिवाक सांबाळ. चड तकालस घेवं लाका."

"बरें गो दवरतां. तूं बरें करून."

"कोणाचो फोन आशिल्लो?" बाबल्यान विचारलें.

"शमीचो. तें एक! सामकें आवयचेर गेलां. तिचे भशेन सामकें मायेस्त. म्हयन्याक एक दोन फोन करतलेंच. आवय बरी ना म्हणल्यार ताजो जीव सकयल वयर जाता. कांयच

करूंक पावना रे ह्या भुरग्यां खातीर हांव. गोयच्या खाणाक आशेतात तीं. इतलीं पयस वचून रावल्यांत, कितेंय धाडटलो म्हणल्यार धाडूंक लेगीत मेळना. हें शमी! हांगां आसतना कितें ना जाल्यार कितें चाबडायत आसतालें. घरांत कांय मेळ्ळेंना जाल्यार न्हंयचेर वतालें. न्हंयचे धडेवयलीं चिपां ताका खूब आवडटात. आंबट मरे तीं. सामकीं चर्र चर्र करून खातालें. तें खातालें म्हणल्यार म्हजे दांत शिणशिणटाले. आवयकूय तशेंच. हांव आनी मीरा, वयले वटेन दोंगुल्ल्यांनी वतालीं फिरपाक. पयलेच फावट भेळशिणी पळयल्यो मरे, आनी जांबळीं चुन्नां म्हूण आड्डलीच. आगे॓, तीं चुन्नां न्हय, भेळसां म्हूण तिका सांगलें. खातात काय म्हूण तिणें विचारलें. हांवें म्हणलें, हय, पळय खावन बरीं लागतात जाल्यार तुका. तिका तीं खूब आवडलीं. हीं भेळसां पणजे खंय पळयल्लीं तिणें! तिचे खातीर ती नविदाद आशिल्ली. आनी एक नविदाद दाखोवची म्हूण हांवें तिका चिवरां दाखयलीं. तीं पळयली आनी फस्स् करून हांसली. आंवंय! हीं चिवरां? हांका आमी आसाळे म्हणटात. पणजे आल्तिनार टांकये कडेन खूब जातात हे आसाळे. तें आयकून म्हजें तोंड बाविल्ले भशेन जालें."

उबे जिणेंत आज धाकलू इतलो उलयल्लो बाबल्यान पळयला. आज तो आपले जिणेंतलो एक एक प्रसंग, एकएक गुपीत उगतें करीत आशिल्लो. आपली जिवाभावाची सांगातीण आज वा फाल्यां आपल्याक सोडून वतली, हें जग सोडून वतली हें तो जाणा आसलो. तिणें जर वचपाचेंच थारायलां जाल्यार आपणें दुख्ख करून, आपणें रडून उपेग कितें असोच ताचो विचार आसलो. आनी देखून तो आपणाक खबरींनी गुस्पावन दवरपाचो यत्न करतालो. ताणें म्हणलें,

“खरेंच, तिचे वांगडा जे खीण सारले तेच म्हजे आशिल्ले रे. बाकी कांय ना. संवसार केलो, भुरगीं जालीं, तांचे वांगडा खेळ्ळों, नाचलों, तांच्या शिक्षणाचें पळयलें, तांच्या फुडारा खातीर कश्ट काडले, तें सगळें म्हजें नाशिल्लेंच. संवसाराचो तो एक भाग म्हूण म्हज्या हातान घडत गेलो.”

धाकलून एक व्हडलो हुस्कार सोडलो. बायले म्हऱ्यांत गेलो. मदीं मदीं तो नाजाल्यार बाबलो आळीपाळीन तिचेर नदर मारून येतालेच. तिका पळोवन परतो येवन ऑल्तेरार बसता आसतना धाकलून म्हणलें,

“बाबल्या, मीराच्या तोंडाक पळय, मातशें तेज आयिल्ले भशेन जालां. अशें दिसता कीं, ती आतां म्हाका उलो मारतली.”

“हय भाटकारा. दिवो पालवता आसतना खर जाता न्हय, तशेंच हें.”

“पूण ती शुद्धीर कित्याक येना तर?”

“कशी येतली? दोतोरान सांगलां तुका सगळें.”

“बाबल्या, वरां कितलीं जालीं रे? हांगच्यान वणटी वेली घडयाळ दिसना. मातशी पळय.”

“भाटकारा वणटी वयली घडयाळ बंद पडल्या. हाताची खंय दवरल्या?”

“मेजार आसा. बॅटरी सोंपली दिसता. फाल्यां हाडून घाल तिका बॅटरी. नाका, मेजा खणांत आसा बॅटरी.”

“फोन वाजता भाटकारा.”

"ट्रंकॉल बूक केल्लो सर्वेशाक. लागला दिसता. पळयतां आं. तूं मातशी बॅटरी घाल घड्याळीक."

"ताणे रिसिव्हर उबारून म्हणलें, 'हॅलो!'

"तुमचो अमेरिकेचो कॉल उलयात."

"हॅलो बाबा, आई कशी आसा?"

"बरी नारे. ती वता आमकां सोडून. दोतोरान आमकां दोन दिसांची मुदत दिल्या. तूं येता मरे आईक पळोवंक?"

"म्हाका कशेंच येवपाक मेळना बाबा. हांवें नितीनाक फोन करून सांगलां, तो मेरेन मातशें मॅनेज कर तूं बाबा."

"तूं आयल्यार मातशें बरें जातलें आशिल्लें. तुकाच चड हुस्केताली ती."

"ना बाबा, अशें सट सट करून येवपाक मेळना. इंडिया न्हय ही. नितीन येतलो. आमचे भितर उलोवणें जालां. हे खेपे तो येतलो."

"हे खेपे म्हणल्यार?"

"आमचे भितर थारलां बाबा, हे खेपे ताणें घरा वचपाचें."....

"आरे, हे खेपे म्हणल्यार कितें?"

"हे खेपे म्हणल्यार आईच्या वेळार. आईच्या वेळार ताणें वचपाचें आनी तुज्या वेळार हांवें वचपाचें."

“अशें थारायलां रे बाबा तुमी! यो हां यो! म्हाका खोस जातली.

आनी धाकलून फट् करून फोन दवरलो आनी येवन बसलो ऑल्तेरार. सर्वेशाचीं उतरां ताच्या मनाक खूब लागलीं. तशे सगळे मरतलेच. आवय-बापायचें मरण लेगीत भुरग्यांक जड जावप हाचे सारकें दुर्दैव आसा? भुरग्यांचें आनी आवय-बापायचेंय.

बॅटरी घालून बाबलो आयलो. ताका भाटकाराची चर्या बरी दिसली ना. ताणें विचारलें,

“कितें जालें भाटकारा? जिवाक बरें दिसना?

“हांव बरो आसां. घटमूट! म्हाका कितें जाता तर? आनी जावपाकूय जायना. दिसान दीस भुरगो जावपाक जाय हांवें. म्हाका आतां कोंब फुट्टले. आज कळ्ळें, निसंतान आवय-बापूय कितले सुखी आसतात ते.

“जालें कितें भाटकारा? पुतान कितें म्हणलें?

“नांव काडूं नाका ताचें. सुवार्थी जाल्यात सगळे सुवार्थी. हांका आवय-बापूय म्हणल्यार वजें दिसता वजें. संकश्ट, महा संकश्ट!

“अशें कितें जालें भाटकारा? इतलो बेजार कित्याक तूं? चड तकली तापोंव नाका. भलायकेक बरें न्हय तें.

“हें तुका समजता, त्या रेड्यांक खंय समजता हें? मन मेलां रे तांचें. हो म्हाका सांगता, आई मरतकच नितीन येतलो

आनी बाबा मरतकच खंय आपूण येतलों अशी कबलात जाल्या खंय तांचे भितर. हें सांगता कोणाक? म्हाकाच. जल्म दिवपी आपल्या बापायक.

"आतां मातशे दोळे धांपून राव पळोवया. रात भर न्हीद ना तुका भाटकारा. रात सोंपली. उजवाडूंक लागलां.

"हय! उजवाडूच आतां सगळो.

"ना ना भाटकारा, आतां उलोवप ना. रात भर उलयला. आतां पुरो. आतां दोळे धांप आनी पडून राव. हांव भितर वचून तोंड धुतां आनी च्याक उवरतां. हांगा रावलों जाल्यार तूं आनीक उलयतलो.

बाबलो भितर वचून तोंड धुवपाक लागलो. जितले बेगीन काम सोंपोवन भायर येतलो तितलो भाटकाराक चड वेळ उलोवपाक मेळटलो. देखून बाबलो दर कामा खातीर आज सदां परस चडूच वेळ काडपाक लागलो. तोंड धुवन तो संडासाक गेलो. संडास आज चडूच बुरसो दिसतालो. तो ताणें बरो धुवन काडलो. मागीर सगळ्याक ताणें सान्न मारली. मुद्दम सालांत मारपाक गेलो ना. पयलीं भाटकाराक च्या करतलों आनी मागीर आपूण सालांत सान्न मारतलों अशें ताणें चिंतलें. च्या जावन कोपांत घालतासर बरोच वेळ गेलो तरी भाटकार भितर कसो सरलो ना हाचें ताका अजाप जालें. ताणें चिंतलें, भाटकान्न बरी आसा मूं काय.... वगीच ताच्या मनांत दुभाव येवन गेलो. च्या घेवन तसोच तो सालांत आयलो.

"च्या तयार जाली भाटकारा. घोट घे आनी च्या पी.

ताणें भाटकारा म्हन्यांत च्या व्हरून दवरली. ताणें परतोय एक उलो मारलो. पूण भाटकाराचें हूं वा चूं ना. आवाज ना, हालचाल ना. न्हीद लागली काय भाटकाराक अशें चिंतून ताणें भाटकाराच्या तोंडा कडेन पळयलें. दोळे उगते आसात. न्हिदला जाल्यार दोळे धांपपाचो. ताणें ल्हवू भाटकाराक हात लायलो. भाटकार लवंडलो. ताणें बेगी बेगील नाका कडेन हात व्हरून स्वास चलता काय म्हूण पळयलो. स्वास काय हाताक लागना. स्वास लागलो ना म्हूण कितें जालें? ओल्या हाताक जाणवना जायत तो. ताणें छातये कडेन कान व्हरून पळयलो. छातयेची हालचाल ना वा कसलोच आवाज कानाक जाणवना. आरे बाबा, गेलो काय भाटकार? हें आनी कितें जालें? बाबल्याचेर आकांत आयलो. हें विपरीत कशें घडलें? अशें जायत म्हूण चिंतूंक लेगीत नाशिल्लें. ताणें एक शेनरी घाली. ताचेर गादी घाली. आलमारींतलो एक धवो चादर काडून ताणें गादयेर घालो आनी भाटकाराक उबारून गादयेर घालो ताचे पांय नीट केले. पावलां एकठांय करून दोनूय आंगठे बांदले आनी हात हड्डया कडेन हाडून दवरले. बाबलो चिंतूंक लागलो. आतां फुडें कितें करुंया? कोणाक कळोवया? भाटकान्नीक केल्ली तयारी भाटकाराक बऱ्याक पडली हें चिंतून ताणें हुस्कार सोडलो. इतल्यांत ताका ऊं...ऊं.... असो पिरंगुपाचो आवाज आयलो. आरें म्हज्या बाबा! कितें केलें आपणें हें? भाटकार जितो आसतनाच आपणें ताका........ ताणें परत भाटकाराचो स्वास पळयलो. हालचाल करता काय पळयलें. ना! तो सामको निपचीत आसा. मागीर .... ताका परत पिरंगल्लो आवाज आयलो. आनी मागीर आ...य...क...लां असो आवाज आयलो.

आरे, हो तर भाटकान्नीचो आवाज. देवा, हें आनी कसलें अरिश्ट! तो तिचेसरीं आयलो. “भाटकान्नी.... भाटकान्नी....”

“उ..द..क....उ..द..क...”

“हाडटां हां, हाडटां.”

“हे.. खं..य.. गे..ल्या..त..?”

“भाटकार ना घरांत. दूद हाडपाक गेला. येतलो आं.”

भाटकान्नीन ल्हवू ल्हवू नदर वयर काडून बाबल्याक पळयलें. बाबलो भाटकान्नीक पळयतूच उरलो.

***



अशोक कामत

जल्म फोंडें तालुक्यांतल्या मडकय गांवांत ३ डिसेंबर १९४० वर्सा जालो. मुळावें शिक्षण मडकय जालें. माध्यमिक शिक्षण कुडचड्यार धी न्यू एज्युकेशनल इंस्टीट्यूट हे शिक्षण संस्थेंत जालें. इंटर आर्टस मेरेनचें शिक्षण एक्सटर्नल पद्धतीन जालें. तांणी प्रयाग विश्वविद्यालयाची 'हिंदी साहित्य विशारद' हें पदवी मेरेनचें शिक्षण घेतलां.

१९६४ ते २००० मेरेन सर्वोदय एज्युकेशनल सोसायटीज हायस्कूल, कुडचडें हांगा तांणी विद्यादानाचें काम केलां.

तांचे आतां मेरेन 'म्हजी भूंय म्हजो मोग, अशोकांकी, कोण कोणाचो न्हय' हे एकांकी संग्रह; 'अशोकथा' हो कथासंग्रह; 'जिवीत बिंबां' हो कविता संग्रह: 'बंदखणीचीं देवळां जालीं आनी एक सांज अमुरपिकी' हीं दोन नाटकां; 'घणाघाय नियतीचे आनी जुवारीचीं पांयजणां' ह्यो दोन कादंबऱ्यो उजवाडाक आयल्यात. बालसाहित्यांत तांणी 'सूर्यपूत सुभाष' हें भुरग्यां खातीर पुस्तक बरयलां. तांणी कांय गितांय बरयल्यांत. तांणी कोंकणी नेमाळ्यांनीय बरप केलां. गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'कोंकणी कोण कोणाचो' हे लेखक डिरेक्टरीचें संकलनय तांणी केलां.

तांकां कांय पुरस्कार मेळ्ळ्यात ते अशे – केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार, जनगंगा पुरस्कार, कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार, टी. एम. ए. पै फावंडेशन ॲप्रिसियेशन पुरस्कार, कला अकादेमी एकांकी लेखन पुरस्कार, कोंकणी भाशा मंडळ शिक्षक पुरस्कार, गोंय सरकाराचो कला गौरव पुरस्कार.

तांणी केल्लो हेर वावरूय लक्षांत घेवपा सारको आसा. तांणी गोंय राज्य शिक्षण संस्थेच्या पाठ्यपुस्तक समितीचेर वांगडी म्हूण काम केलां. कुडचडें कला साहित्य केंद्राचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. कोंकणी भाशा मंडळाचे वावुरपी समितीचे वांगडी आशिल्ले. गोवा कोंकणी अकादेमीचे नाटक समितीचे वांगडी आशिल्ले. ते १८व्या अखिल भारतीय साहित्य संमेलनाचे स्वागत समितीचे अध्यक्ष आशिल्ले. कुडचड्यार वेगळे क्षमतेच्या भुरग्यांखातीर सरकारी पालवान स्कुलाची स्थापना करपाचो महत्वपूर्ण असो वावर तांणी केला.